# जीवनगंध

(ललीत)

मुकेश थळी







खोर्लीं, तिसवाडी - गोंय.

# जीवनगंध

(ललीत)

**मुकेश थळी**

JEEVANGANDHA
(Essays)

Mukesh Thali

प्रकाशन क्र. 3



**पयली उजवाडावणी:**
जून 2013

**उजवाडावपी:**
ॲड. अमोल थळी
आनंद प्रकाशन
हर्ष, रवळनाथ देवळा लागीं
खोर्ली- तिसवाडी, गोंय.
9822179135

**छापणावळ:**
इंप्रेशन्स, बेळगांव.

**मुखचित्र:**
प्रसाद नायक

**मोल:**
रू. 150/-



**उपकार**

सर्गेस्त दिलीपबाब देशपांडे हांचे,
पुस्तका खातीर अर्थीक मदत दिल्ले खातीर

**उपकार**

शीला कोळंबकार
संजीव वेरेंकार
संजय बोरकार
पुस्तक साकार करपाक फाटबळ दिल्ले खातीर

## मांडावळ




# दादा वैद्य

*अज्ञानी लोकांनी सज्ञान जावचें, निरक्षरांनी साक्षर जावचें, साक्षरांनी सुशिक्षीत जावचें, सुशिक्षितांनी विचारवंत जावचें, विचारवंतांनी आचारवंत जावचें आनी आचारवंतांनी तशेंच विचारवंतांनी समाजाचे तीन दुस्मान पयस करपाक वावुरचें. हे तीन दुसमान म्हणजे अज्ञान, गरीबी आनी दुबळेपण.*

हीं वाक्यां प्राणाचार्य रामचंद्र पांडुरंग उर्फ दादा वैद्य हांचीं. हातूंतल्यान दादाची तळमळ, उत्कटता, समाजसेवेची उर्मी आनी वावराची स्पश्टताय दिसून येता. तांची प्रगल्भ नदर दिसून येता. गोंय आनी गोंयचे घडणीचो इतिहास जर बरयलो जाल्यार तातूंत दादा वैद्य हांणी गोंयच्या समाजाचे उबारणे खातीर जें बुन्यादी कार्य केलां ताचो बरोच खोलायेन उल्लेख करचो पडटलो. नाजाल्यार तो इतिहास अपुरो आनी अर्दुकुटो उरतलो.

दादाचो जल्म 8 सप्टेंबर 1859 ह्या दिसा फोंडें तालुक्यांतल्या केरी गांवांत जालो. तांचो बापूय पांडुरंग वैद्य हांचोय पारंपारीक वैजकी वेवसाय आशिल्लो.

त्या काळांत शाळा विद्यालयां नाशिल्ल्यान दादाचें शिक्षण सुरवातीक घरांतूच जालें. वृत्ती जात्याच जिज्ञासू. साबार मार्गदर्शकां कडल्यान तांणी वैजकी मार्गदर्शन घेतलें. तेविशींच्या पुस्तकांचो अभ्यास केलो. गोंयांत रेल्वे मार्ग तयार करपाचें काम निकतेंच सुरू केल्लें. मार्ग तयार करप, बोगदे खणप असलें काम चलतालें. थंय कामगार आशिल्ल्यान अपघात, दुयेंसां हे खातीर दोतोराची गरज आशिल्ली. माधव जोगळेकर हो मुखेल दोतोर मुद्दम हाडिल्लो. हो दोतोर शस्त्रक्रियेंत लेगीत कुशळ. तांचो सांगात आनी मार्गदर्शन लेगीत दादाक कांय काळ मेळ्ळें. वाचनाची उपाट आवड आशिल्ल्यान दादान त्या काळांत गोंयांत पावपी दिसाळीं, नेमाळीं आनी विविध ग्रंथ वाचपाचो सपाटोच चालू दवरलो. तातूंतल्यान दादाचें मन प्रगल्भ जालें. दादाची बहुश्रुत बहुस्पर्शी वृत्ती विकसीत जावंक लागली.

व्यासंगाचो आनी संदर्भसंपन्नतायेचो दिश्टावो दादाचे बरपावळींत दिसून येता. दादाच्या उजवाडाक आयिल्ल्या आनी अप्रसिध्द साहित्यामदीं काव्यतरंगिणी, स्थूलतनुवर्णन, मृत्युंजय नाटक, ईश्वर आहे काय पहा, प्रबोधसुधाकर प्रा. टीका, प्रकृति -विकृति, प्रहसन अथवा माणुसरावाचा फार्स, कुंपणानं शेत खाण्याची नवलाई म्हणजेच संततिनियमनाची अपूर्वता, स्फुरणगीता, आरतीसंग्रह ह्या कृतींचो आसपाव जाता.

एक वैज म्हूण सेवाभावनेन मदत करतना दादान गोंयच्या समाजांत देखदिणें कार्य केलां. त्या काळांत प्रवासाचीं साधनां साप उणीं आशिल्लीं. पयसुल्लो प्रवास व्हड्यान नाजाल्यार माचूलान करचो पडटालो. पूण तांणी गिरेस्त गरीब कसलोच भेदभाव बाळगिनासतना जण एकल्याचे भलायकेची तळमळीन जतनाय घेतली. वखदां दिलीं. गरिबां खातीर सदळ हातान मदत केली. पयसुल्ल्यान येवपी कांय पिडेस्त तांच्या घरांतूच रावताले. गोंयांत त्या काळांत आयुर्वेदाचें म्हत्व समाजाक

पटोवन दिवपाचें मोलाचें काम दादान केलें. मुंबयच्या पोपट परशुराम आयुर्वेदिक कॉलेजीन दादाक प्राणाचार्य ही उपाधी बहाल केली.

पणजेंत दादान सुरू हिंदू फार्मासी सुरू केली. तातूंतल्यान आयुर्वेदीक वखदांचो प्रसार सुरू जालो. तातूंतल्यान जो लाव उरतालो ताचो बरोच वांटो भौशीक कार्या खातीर तांणी खर्च केलो. मुखार ही फार्मासी चलोवपाचें काम दादाचो पूत श्रीपती वैद्य हाणी चलयलें. आयजूय दादाचो नातू राज वैद्य ही फार्मासी यशस्वीपणान चलयता. एकदां गोयंचे एक गवर्नर जनरल गाल्यार्दसायब हांचो पूत कसल्या तरी असाध्य रोगान दुयेंत पडलो. कितलेशेच उपचार करूनूय गूण येना जालो. उपरांत पणजेंतले गवर्नरसायबाचे एक बरे मागपी हिरू नारायण कामत घाणेकार हांचे वळखीन दादासायबाचे उपचार ताचेर सुरू केले. तो भुरगो रोखडोच बरोय जालो. हे गजालीक लागून तेन्नाच्या गोऱ्या लोकांमदीं दादाचें म्हत्व वाडलें.

दुयेंसां मुदलांतूच जावंक फावना, देखून कितें जतनाय घेवंक जाय हेविशीं दादान सदांच उपदेश केलो. त्या विशयाचेर बरयलें. मानसीक पांवड्यार भैरोजोळोप जडल्यार बेठींच शारिरीक लक्षणां कुरार करून पिडेस्ताक गूण पडचोना हें दादाक बेस बरें खबर आशिल्लें. एकदां अशाच एका मनशाची दादान तपासणी केली. कांय म्हयने तो हांथरूणार आशिल्लो. तरेतरेचीं वखदां घेवन आनीकूय ज्याम जाल्लो. दादान ताका तपासून सांगलें की शारिरीक कसलीच व्याधी ना. आपूण एक दीस मरतलों हें चिंतून भियेल्ल्यान भैरोजोळोप जडला. दादान ताका जिणेच्या सत्याविशीं उपदेश केलो. मार्गदर्शन केलें. तो बरो जालो. स्वता त्या मनशान दादाच्यो यादी सांगपी लेखांत हे गजालीचो उल्लेख केला. मनोदैहिक दुयेंसां म्हणजे सायकोसॉमेटिक दुयेंसां म्हणून आयज जाचो उल्लेख जाता आनी सायकोएनलीसीस म्हूण मानसोपचारतज्ञ जाका म्हणटात, ती गजाल दादाक आपले हुशारीन तेन्ना कळटाली. इतले ते

बुदवंत आनी कुशळ वैज आशिल्ले. जात कात सगले तरेचे भेद हुपून तांणी वैज म्हणून सगल्यांक प्रेमान सेवा दिली आनी तांची यथायोग्य सरबराय केली.

राजकी मळार त्या काळांत म्हणजे पोर्तुगीजांचे मुस्तींत दादान केल्लें कार्य खूब म्हान आसा. गोवा हिंदू सार्वजनीक सभे वरवीं राजकी चळवळीची बुनयाद तांणी घाली. समाजीक क्षेत्रांत ताणी जे उपक्रम कार्यक्रम हातांत घेतले तांची गणनाच करूं नजो. देश धर्म समाज हांची निरंतर उन्नती जावची हो ध्यास दादाक लागिल्लो. दादाचो सभाव गोड. नम्र. विनयशील. ह्या हुशार मनशाक कांय लोकांची नाड वृत्ती कळनाशिल्ली अशें न्हय. कांय जाणांनी दादाचे हे सादे वृत्तीचो गैरफायदो घेवन दादाक अर्थीक आनी हेर पांवड्यार फटोवपाची, दगो दिवपाचे आपले वृत्ती वरवीं उणाकपण दाखयलेंच. दादाक तांचीं नाटकां कळनाशिल्लीं अशें न्हय. पूण माफ करपाची आनीक एक वृत्ती आंगांतूच आशिल्ल्यान असल्या गजालीं कडेन तांणी दुर्लक्ष केलें आनी मिशनरी धारणेन आपलें काम चालूच दवरलें. शिक्षणीक चळवळ हो तांचो ध्यास आशिल्लो. शिक्षणा बगर मनशाची उदरगत जावची ना हें तत्व दादाक एकदम बरे तरेन खबर आशिल्लें. तीच पोटतिडक घेवन दादान कार्य केलें. आयज फोंड्यां जी गोवा विद्याप्रसारक संस्था आसा वा आलमेद स्कूल आसा ताचें मुळावण घालपाक मोलादीक योगदान दादा वैद्य हांचें आसा. तातूंत तांणी सक्रीय मदत केल्या. पैशांनी केल्या आनी हेर सगळ्या मार्गांनी ती संस्था चालू उरची म्हूण सातत्य दवरपाकूय वावर केला. ताचीं फळां आयज आमकां दिसतात. गोंय मुक्ती चळवळींत ह्या आल्मेद कुलेजीक एक आगळेंवेगळें म्हत्व आसा. कारण कितलेशेच विद्यार्थी आनी अध्यापक ह्या इश्कोलांत आशिल्ले आनी तांणी मुक्ती चळवळींत बौद्दीक तशेंच हेर योगदान दिलां.

दादान उद्देगीक मळार उपाट कार्य केलां. आयुर्वेदीक रसशाळा,

नव्यांचो कारखानो, हेर फार्मासी, कांच साकर ह्या मळार केल्ले उद्देगीक यत्न, अशें तांचें विविध कार्य आसा. त्या काळांत समाज उद्यमशील जावचो आनी नव्यो नव्यो गजाली पोटापाणया खातीर लोकांनी आपणावच्यो ही तांची तळमळ तातूंतल्यान दिसून येता. धर्मीक क्षेत्रांत लेगीत ताणी उपाट कार्य केलां. सांस्कृतीक मळार तर दादाचें खुबूच व्हडलें योगदान आसा. पत्रकारितेच्या मळार दादाचें काम बरेंच व्हड. ताणी कांय नेमाळीं काडलीं. तातूंत पथ्यबोध, सौभाग्यसंभार अर्थात हळदीकूंकू, प्राचीप्रभा, लुई दी ओरीयेंत आनी विद्याप्रसार ह्या नेमाळ्यांचो आसपाव जाता. लोकशिक्षण करपी लेख बरयले. समाजाचें प्रबोधन करपी भाशणां केलीं. वाणी आनी लिखणी पळेत जाल्यार तांची भाशा सुबोध आनी प्रासादीक आशिल्ली हें दिसून येता. तातूंत प्रामाणीकपण आनी खरेपण आशिल्लें. क्लिश्ट न्हय पूण साद्या उतरांनी सांगिल्लो विचार आशिल्लो. लोकांचें समाजाचें भलें जावचें होच ध्यास ताणी बाळगिलो. ते खातीर दादान तन मन आनी धन ओंपून जिवीतभर कार्य केलें. ह्या कार्याचो आटाप बरोच व्हडलो आसा.

बायलांक शिक्षण हो तांचो एक मोलाचो वावर आशिल्लो. बायलां खातीर खास नेमाळें ही कल्पनाच त्या काळांत हांसपा सारकी. पूण दादान त्या काळांत 1910 वरसा हळदकुंकू नेमाळें सुरू केलें. स्वताचे घरकान्नीक संपादक केली. तिचें नांव सावित्रीबाई वैद्य. बायलांची परिस्थिती सुदारतली आनी तांचें कल्याण जावन तीं समाजांत मुखार येवचीं होच दादाचो एक हावेस आशिल्लो. एक सपन आशिल्लें. त्या काळांत ताणी हीं जीं विचारबियां सोडलीं ताचीं फळां आयज गोंयांत दिसतात अशें म्हणूं येता.

वेव्हारशास्त्र आनी समाजशास्त्र ह्याय विशयांचो तांचो गाढो अभ्यास आशिल्लो. त्या विशयाचेरूय ताणी बऱ्योच कविता रचल्यात. विनयशील सदगृहस्थ असो उल्लेख अ. का. प्रियोळकर हांणी दादा

विशीं उलयतना केला. कलाप्रिय, कनवाळू, मानवतेचे पुजारी अशीं असंख्य विशेशणां दादाक वेगवेगळ्या मान्यवरांनी लायल्यांत.

दादाची पुण्यतीथ तांच्या फोंडें तालुक्यांतल्या केरी गांवांत मनयतात. होळये दिसा ही पुण्यतीथ जाता. हालींच हे कार्यावळीक वचपाचो योग आयलो. दादाच्या घरांत म्हणचें काय भवनात काय व्हडल्या वाड्यार म्हणचें तें कळना. पूण तांच्या निवासस्थानात ही कार्यावळ जाली. चोंय वटांनी माड, झाडां, पाचव्याचार सैमाचो अप्रूप देखाव, घरा लागीं आयसपयस व्हडलें कुळागर अशा त्या वातावरणांत दादाच्या यादीक उजाळो दितना आंगार कांटो फुललो.

6 मार्च 1947 ही तारीक कोरांतिल्ली तांची समाधी थंय दिसताली. थंय फुलां दिसतालीं. ह्या वाड्यार दादा वैद्य हो म्हान गोंयकार चलतालो भोंवतालो वावुरतालो चिंततालो बरयतालो ताच्यो कितल्योश्योच चैतन्यरूपी कुरवो आनी स्पंदनां त्या भारीत वातावरणांत रगताच्या पेशींक खोल खोल जाणवल्यो. कसली तरी एक प्रेरणा सर्र करून रगतांत अभीसरीत जायत गेली. हे कार्यावळींत दादाचीं कांय गितां आनी हेर गेयता आशिल्ल्या काव्याचें सादरीकरण जालें. तें बसोवपी संगीतकारान हाचें श्रेय आपणाक कित्याक? कारण दादानूच दरेका गितावयर ताची रचना कशी आसची हें सांगलां अशें नमळायेन घोशीत केलें. साकी, दिंडी अशे उल्लेख कांय रचनां खातीर दादान खास नोंद केल्ले. दादाचो त्या काळांतलो साहित्याचो, काव्याचो अभ्यास हातूंतल्यान दिसून येता.

दादाभितर एक साक्षेपी समीक्षक आनी संपादक आशिल्लो हाची गवाय एके देखीवयल्यान दिसून येता. तांच्याच गांवांतल्या एकल्यान एकदां एक कविता रचली आनी ती दादाल्या नेमाळ्या खातीर आपल्या भागेल्या कडल्यान धाडून दिली. आपल्या कुळागराचे धडे कडल्या दुरगा कडेन हो उदेंतो कवी दादाल्या अभिप्रायाची उमळशिकेन वाट

पळेत रावलो. खूब वेळान एकदांचो तो भागेली आयलो. ताच्या हातांत एक दाट पाकीट आशिल्लें. त्या उदेत्या कवीन तें उत्सुकतेन फोडलें. तातूंत ताची कविता आशिल्ली. दादालें एक पत्र आशिल्लें. कविता छंद आनी वृत्ता भायर कशी पावल्या ताची विस्कटावणी करपी गोड अपुरबायेन केल्लें मार्गदर्शन तातूंत आशिल्लें. इतलेंच न्ही, छंद आनी वृत्त आनी काव्यांतल्या हेर बारीकसाणीं विशीं फोडणीशी करपी एक मार्गदर्शनरूपी पुस्तक शिकपा खातीर वांगडा धाडिल्लें. दादाक मनशांची पर्वा आशिल्ली ती अशी. घरांत वैजकी सल्ल्या खातीर येते वते लोक आसुनूय तांणी त्या कवीमनाची उत्कंठा ताणून उरची न्हय म्हूण ताची बेगोबेग लक्तुबायेन कदर केल्ली. खुद्द त्या कवीनूच ही याद बरोवन दवरल्या.

ज्या फोंडें शारांत हांव रावतां, तें शार म्हणजे गोंयचें काळीज. हालींसराक सामकें कॉज्मॉपॉलीतन जावंक लागलां. दादा वैद्याचो पुतळो ह्या फोंडेंच्या काळजांत मदेगात आसा. दादा वैद्य चौक अशें ताका म्हणटात. हो पुतळो पळोवन तो कोणाचो असो प्रस्न कोणाक पडटा जाल्यार हांव नकळो. पूण सदांच थंयच्यान येतना वतना कित्याक कोण जाणा कसली तरी एक कीट म्हज्या मनांत उसळटा. ही कीट म्हाका सांगता - लोककल्याण जावचें, समाज घटमूट जावचो, प्रेमान भरिल्लें मनीसपण वाडीक लागचें हे खातीर दादान दीसरात जो घाम गळयलो, रगत उसपिलें, शरीर झरयलें, जीव ओतलो ते पसून प्रेरणा घे. तूं समाजाक कितें तरी देणें लागता हें केन्नाच विसरूं नाका आनी चिमटीभर जायना, जमता तशें आपले तांकीन तें करीत राव. काडयेची अपेक्षा दवरिनासतना!

■

# रवींद्रबाब

तातोक -

तुमची सदांच याद येता.

भोंवतणी अश्यो गजाली घडत आसतात, की आमी तुमकां विसरूंक लागल्यार लेगीत तुमची याद येताच.

आकाशवाणीचेर बातमी बरोवंक वा अणकारूंक लागतां तेन्ना तुमची याद येता. हांव स्वताक, वांगड्यांक आनी नव्या शिकपी भुरग्यांक तुमी आपणायल्लो एक कानमंत्र सांगत आसतां.

बातमी कशी बरोवची जाणा? रवींद्रबाबान बरयल्ली जाल्यार ती जशी सुटसुटीत जातली आशिल्ली तशी!

आदरणीय तातो,

तुमचे भशेन सुटसुटीत बरोवपी अजून तरी आमकां कोणूच मेळूंक ना. पत्र आसूं, लेख आसूं, निबंद आसूं, भाशण आसूं तुमचें उक्तावप सामकें सादें. तुमची शैली हें तुमचें खाशेलपण. तातूंत एक नीज सौंदर्य आसा. तेज आसा. जें खुलून दिसता.

जे चिंतिनात, तांकां विचार करपाक प्रवृत्त करपी एक शक्त तुमचे

ठांय आशिल्ली. समाज निश्क्रीय जावंक फावना हो तुमकां सदांच हुस्को. ताकाच लागून तुमी कांय लेख मुद्दमूच गरनाल पेटोवचे तशे बरयले. तातूंतल्यान तुमी जाणीवपूर्वक वाद बी पेटोवन घाले. कोंकणीची बाजू तुमी सगळ्या पांवड्यार फाव तशी मांडली. कोंकणीक मानाचे पाट फाव जावचे म्हूण तुमी झुजारी कशे लडले.

हांव धा वर्सांचो पिरायेचो आसतना म्हज्या मामांनी म्हाका तुमगेर साहित्याच्या मार्गदर्शना खातीर धाडलो. तुमी म्हाका बरी साहित्यीक कोंकणी बरोवपाक शिकयली. पुस्तकां वाचपाक दिलीं. आलमारींनी भरिल्लें तुमचें घर म्हणजे एक व्हडलें ग्रंथालय. तुमी तातूंत चलपी भोंवपी ज्ञानकोश कशे. ह्या कोशांत हांव कितलों चरलों हाका सुमार ना. कितल्याशाच प्रस्नांचें आनी दुबावांचें तुमी हांसत्या मुखान निवारण केलें.

तुमचें ओथांबे हें पुस्तक म्हाका खूब्ब आवडटा. ताचीं हांवें कितलीं पारायणां केल्यांत हाचो हिशोब मांडूंक जावचोना. तातूंतली मनभुलोवणी शैली रसीकमनाक एक निर्मळ आनंद दिता. तुमी आमचे कडेन उलयतात असो भास जाता.

तुमी महाभारताचेर संशोधन करताले तेन्ना हांव सवेंत आसत. तुमचे कुडींत हांवें महाभारताच्या वेगवेगळ्या भासांतल्या पुस्तकांच्यो रासीच पळेल्यो. तुमी आदीं एक डायरी घेवन ताचेर कांय टिपणां काडलीं. ताचेर भायल्यान एक स्टीकर लायलो. ताचेर बरयलें. आपरोस. हें उतर हांव केन्नाच विसरचोना. 'महाभारत - एक अनुसर्जन' हे दोन खंड तुमी बरयले. तें रचतना, तुमी, बरयल्लो मजकूर व्हडल्यान वाचून स्वताच आयकून तातूंत बदल करताले. दुर्योधन फुरफुरलो अशीं तातूंतलीं ल्हान ल्हान वाक्यां वाचप्याक आकर्शीत कित्याक करतात, तो गूट ताका लागून म्हाका होलमलो. कोंकणी भाशेचें म्होंवें रूप तुमच्या ह्या वाक्यांनी आनी उतरांनी दिसता. महाभारताच्या ह्या दोनूय खंडांचो

हिंदींत आनी हेर भाशांनी अणकार जावचो हें तुमचें एक सपन आशिल्लें.

काकासायब कालेलकार, गांधी, कृष्ण, लोहिया हांची खोल वळख तुमीच आमकां घडयली. तुमी कांय हिंदी भजनांचो कोंकणी अणकार करून ताची अर्थावणी केल्या. ती खुबूच रसाळ. दादू दयाल ह्या संताचेर तुमी बरयल्ले लेख आमकां उपाट माहिती दिवपी थारले. अश्यो कितल्योश्योच पती सांगूं येत.

गोदूबायचें आनी तुमचें नातें जरी घोव - बायलेचें आसलें तरी तातूंत एक वेगळें संगीत आशिल्लें. तुमच्या दोगांयच्याय वागपांतूय सादेपण आशिल्लें. तुमगेर आमी येवपी -वचपी. पूण तुमकां दोगांयकूय एकामेकांचेर केन्नाच तापतना हांवें पळोवंक ना. किंवाट्टना पळोवंक ना. वेगवेगळ्या विशयांचेर समजिकायेन चर्चा करतना पळेल्यांत. खंयच्याच प्रसंगाक तोल सुटिल्लो पळोवंक ना.

तुमच्या घराचेर एकदां मराठीवाद्यांचो मोर्चा आयलो. आंदोलकांनी तिडकीन फातर शेंवटुपाक सुरवात केली. खळ्ळ, खळ्ळ करून पांयजेलांचे हारशे फुटून कंवच्यो उसळपाक लागल्यो. पूण तुमी इतलो बोवाळ जावनूय तातूंत शांत शांत रावले. तुमच्या सभावाचें हें वेगळें आंग आनी स्थितप्रज्ञताय आमी तेन्ना अणभवली.

तुमचे लागींचे इश्ट कवी वामन सरदेसाय आनी दोतोर दत्ताराम सुखठणकार भायर पडले तेन्ना तुमची ध्वनीमुद्रीत प्रतीक्रिया घेवपाक हांव आकाशवाणी वरवीं तुमगेर आयिल्लों. तुमचें इश्टांविशींचें प्रेम पळोवन हांव अजापीत जालों. तेन्नाचीं तुमचीं दुकां हांव केन्नाच विसरचोना. म्हजें एक आंग गळून पडलां ही तुमची प्रतिक्रिया.

गांधीजीचे दांडी यात्रेविशीं असोच एकदां हांव आकाशवाणीच्या न्युजरिला खातीर प्रतिक्रिया घेवंक तुमचे कडेन आयिल्लों. सदचे भशेन च्या -सांजो असो तुमी येवकार दिलो. अकस्मात लायट गेली. रिकॉर्डरांत बॅटऱ्यो उण्यो आशिल्ल्यो. तुमी तुमच्या बॅटरेदिव्यांतल्यो दोन बॅटऱ्यो

रोखड्योच तातूंत घाल्यो. पूण टेपरिकॉर्डराची तांक व्हडली. हांवें म्हळें - सकयल गाड्यार वचून रोखड्योच बॅटऱ्यो घेवन येतां. तुमचीं तेन्नाचीं हीं उतरां अजूनय कानांर सादतात - 'पयशे आसात मरे?' हातूंतलें सादेपण आनी प्रेम हांव केन्नाच विसरचोना.

म्हज्या पयल्याच पुस्तकाक तातो, तुमी तुमचे शैलींत आशीवर्चन नांवाची प्रस्तावना बरयल्या. ज्ञानपीठ मेळटकच तुमी लोकसत्ताक दिल्ले मुलाखतींत पयल्याच प्रस्नाक जाप दितना सांगलें - आपणाच्या थेट वा अप्रत्यक्ष प्रभावाक लागून कोंकणींत कांय लेखक घडले. तुमी चार नांवां घेतलीं, तातूंत म्हजो आसपाव केल्लो. म्हज्या खातीर हो तुमचो आशीर्वाद अशें हांव समजतां!

तुमचो सांगात, मार्गदर्शन आनी साहित्यीक सल्ले मेळ्ळे देखून हांव स्वताक खूब भाग्यवान समजतां. तुमगेर भुरगेपणांत चळवळीची आंखणी करपाक येवपी साबार कोंकणी साहित्यीक मेळ्ळे. हिंदी साहित्यीक नामवर सिंह, गांधीवादी बिसेनजी, बाकीबाब बोरकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय आनी हेर व्हड मनशांक हांव तुमगेरूच मेळ्ळां. तुमच्या आलाशिऱ्या खाला घडपी तुमचे भाचयेक माधवी सरदेसायाक हांवें पळेलां. आयज तुमी थारावन दिल्लें मिशन माधवी मुखार व्हरता म्हूण आनंद जाता.

जाचें जाता खंय स्मरण, ताका नासता खंय मरण!

तिळसांजचे कात्रेर अकस्मात आयजूय तुमची याद जाली. चरचरीत. गोदूबाय वांगडा प्रार्थना करपी तुमची मूर्त दिसली. ईश्वरी सत्तेंत समर्पीत जावन म्हणिल्ली तुमची ती आर्त प्रार्थना.

ॐ तत् सत् श्री नारायण तू, पुरूषोत्तम गुरू तू....

दार बंद केलें. कुडीचें आनी मनाचें. अंतर्मुख जावन ओलसाणीन भरिल्ल्या काळजांत नियाळून पळेलें. आनी स्वामी विवेकानंदांचीं उतरां याद जालीं - प्रार्थनेक लागून देव बदलना, ती करपी मनीस बदलता!

■

# पं. जितेंद्र अभिषेकी

बातम्यो वाचूंक आकाशवाणीच्या स्टूडीओंत बशिल्लों. पांच मिनटां आशिल्लीं बातम्यो सुरू जावपाक. इतल्यान एक सुंदर गीत लागलें. काटा रूते कुणाला. त्या पांच मिनटांचो जादू असो की अभिषेकींच्या सुरेल गितान आनी तांच्या कितल्याशाच यादींनी जीव खंय तरी दुसऱ्याच विश्वांत पावलो. उर्जेची एक विजेसारकी शिरशिरी आनी प्रवाह आंगांतल्यान संचरून गेलो. एक वेगळीच आनंदाची अनुभूती जाणवली.

अभिषेकींचे गायकींत इतली ताकदी अनुभूती दिवपाची तांक कशी कितें आनी ते तांकीचो गूट कितें, हो प्रस्न म्हाका सदांच पडला. हे गजालीक कारणां खूब आसात. अभिषेंकीक साहित्याचीय बरी जाण आशिल्ली. साहित्याविशीं तांचें सखोल चिंतन आशिल्लें. तांचें वाचन उपाट आशिल्लें. तांणी कथाय बरयल्ल्यो आनी त्यो तेन्नाच्या नेमाळ्यांनी छापुनूय आयिल्ल्यो. गायकीचे कलेक साहित्याचे कलेची मुळावी जाण कितली आसची हाचें भान तांकां आशिल्लें. फकत संगिताचें व्याकरण आनी स्वर ताल लयेचें तंत्र इतल्याच विशयापुरतें गायन आसना. गीत गायतना अर्थवाही भाव आनी अभिव्यक्ती कशी करची

हाची खोल समज अभिषेकींक आशिल्ली. येदो व्हडलो हो गायक आनी संगीतकार नाट्यगीत आनी भावगीत वा हेर गीत गायतना तें चिमटीभर अमुकूच मिनटां भितर सोंपयतालो. आनी जेन्ना शास्त्रीय संगितांतले ख्याल गायतालो तेन्ना तन्मय जावन तातूंत बुडून वचून इतलो रमून गायतालो की आयकुप्यांक वेगळ्याच विश्वांत व्हरतालो. वेळाकाळाचें भान तेन्ना उरनासलें. इतलें आसुनूय अवघ्या मिनटां भितर गीत सोंपोवपाची अद्वितीय कळाशी आनी देख दाखोवन दितालो.

स्पश्ट वाणी, स्पश्ट उच्चार, अचूक अर्थवाही शद्बफेक, गाण्याची रेखीव मांडावळ हीं तांच्या पदांचीं खाशेलपणां. ताकाच लागून तांचीं गितां रसिकांच्या काळजांत नाचत उरलीं. ओंठांचेर घोळत उरलीं. मनांत तांचे सूर वाजत उरले. तांचें गाणें चौफेर ताकदीचें. गाणें रंगोवपाचें आनी रसिकांक आपल्या स्वरांच्या अभिशेकान चिप्प भिजोवपाचो एक जादू ह्या निर्मितीक्षम, संवेदनाक्षम आनी अभ्यासू कलाकारा ठांय आशिल्लो. अभिजात शास्त्रीय संगीत आसूं, उपशास्त्रीय गायन आसूं, भावगीत वा भक्तीगीत आसूं वा नाट्यगीत आसूं थोडे भितर प्रभावी आनी मनां जिकपी गाणें कशें दिवचें म्हणजेच सादर करचें, हाची पक्की युक्ती हो कलाकार जाणा आशिल्लो. अभिषेकी म्हणजे प्रतिभावान संगीतकार. कितल्याशाच मराठी गितांक नाट्यगितांक आनी कांय कोंकणी गितांक तांणी अव्रांवर अश्यो चाली बांदल्यो. ध्यानी, मनी, चित्तीं, सदासर्वकाळ तांचे जिणेंत फक्त गाणेंच व्यापून आशिल्लें. ताकाच लागून एक उपासक, साधक वा भक्त जशी ईश्वराची अखंड पूजा करता तितल्याच प्रेमान तांणी स्वरांची, संगिताची पूजा आयुश्यभर उत्कटतायेन केली. तातूंतल्यानूच आमकां आयज कायम गोडी आशिल्लीं गितां आनी तांच्या शास्त्रीय गायनाचीं अप्रूप ध्वनीमुद्रणां परत परत आयुकपाचें भाग्य मेळ्ळां.

अभिषेंकींचे घर मंगेशी देवळा कडेन. म्हजें आजोळ म्हाड्डोळा.

म्हज्या आज्याक अभिषेकींचो खूब म्हणजे खुबूच अभिमान. जितेंद्र अभिषेकी गांवांत येताले तेन्ना गंपू आयला, गंपू आयला अशें आज्यान गर्वान सांगचें. गंपूची पयली मैफल गांवांत कशी जाली आनी रंगली ताच्योय यादी आजो लक्ुबायेन सांगी. अभिषेकींचो सांजवेळचो मंगेशी सावन म्हाड्डोळा मेरेन एक वॉक आसतालो. आमी तांकां पळेत रावताले. तांचें सादेपण, लोकां कडेन मिळून मिसळून वागपाची पध्दत तांच्या व्यक्तिमत्वाक आनीक तेज हाडी.

एकदां मंगेशीच्यान तांचेच वळखीच्या एका हार्मोनियम वादका वांगडा ते चलत म्हाड्डोळा चलत येताले. ह्या संगीतकारान सांगिल्ली ही याद. मंगेशीं खंय अभिषेकींनी सारंग ह्या रागाचेर उलोवपाक सुरवात केल्ली ती म्हाड्डोळा म्हाळशेच्या देवळाच्या मंडपा कडेन पावले तरीकूय ते खंय, सारंग रागाच्या वेगवेगळ्या तांसांकुसां विशीं सांगत आशिल्ले. तो पेटीवालो अभिषेकीचें तें अद्वितीय ज्ञान आनी विद्वत्ता पळोवन तांकां सरळ पांयां पडलो. हाचें कारण म्हणजे दरेके गजालीचे खोलायेंत वचपाची म्हणजे बिंदूंतलो सिंधू सोदपाची ह्या कलाकाराची जिज्ञासा. सदांच विद्यार्थी वृत्तीन तांणी आपली शिकपाची वृत्ती कायम जिवी दवरली. हेर तज्ञांकडल्यान तांणी जाणा जावन घेवप चालूच दवरलें. तांचीं कितलींशींच गितां कितलेय खेपे आयक. नित्य नूतन असो आनंद तो स्वरांचो जादू दिता. काटा रूते कुणाला हें गीत आयकतना तें ल्हान भुरगो लेगीत बरोवन काडूंक शकता इतले तातूंतले उच्चार नितळ आसात. हें गीत हे बंध रेशमाचे ह्या नाटकांतलें. शांता शेळकेन बरयल्लें. हें गीत तिका खंय सुचनाशिल्लें. तेन्ना अफाट वाचन आशिल्ल्या अभिषेकींनी खंय, तिका 'काटा चुभे' माथाळ्याचो एक शेर सांगलो तेन्ना वीज लकलकची तशें शांताबाईक खंय हे गीत येवजलें.

हालींच एक दृकक्षाव्य टेप पळेली. मूळ दूरदर्शनाच्या मुंबय केंद्रान वितरायल्ली. वीणा देवान अभिषेंकीची मुलाखत घेतल्या. तातूंत

अभिषेकींनी ययाती आणि देवयानी ह्या नाटकांतलें हे सुरानो चंद्र व्हा हें गीत इतल्या सुंदर रितीन सादर केलां की तें आयतल्याक परत तें आनीक कोणाच्याच गळ्यांतल्यान आयकुचेंशें दिसना. तें गायिकेचें गीत आसुनूय. शब्द आनी सूर हांचो समान सुंदर संयोग ह्या प्रेमगितांत ठांसून भरला. तें गीत सुरू करिनाफुडें हो गायक रसिकांक खिणां भितर एका वेगळ्याच विश्वांत फुला भशेन अळंग आनी अचळय कसो उखलून व्हरता आनी स्वता आपणाक विसरून श्रोत्यांकूय स्वताच्या अस्तित्वाचो विसर कसो घालता, तो अणभवाचोच विशय! रंध्रात पेरिली मी आषाढ दर्द गाणी हें शंकर रामाणींचें अशेंच एक सुंदर म्होंवें गीत. ह्या गितांत हार्मोनियमाची *मादी* ही खाशेली स्वर मांडावळ वापरल्या. देखदिणी अशी. अभ्यासू काव्यसाधक रामाणींकूय अभिषेकींचें गाणें खूब आवडटालें. तांची अभिषेंकीं कडेन इश्टागत आशिल्ली. पणजे पाट्यार आपल्या सरकारी फ्लॅटार अभिषेकी येतकच खबरो कश्यो रंगताल्यो ताच्यो यादी शंकरबाब रामाणीन सांगिल्ल्याची याद जाता.

गायक रामदास कामत हाणी अभिषेकींनी संगीत दिल्लीं अश्रंवर नाट्यगितां गायल्यांत. तांणी फोंड्या एके कार्यावळींत अभिषेकींच्यो यादी सांगिल्ल्यो. ययाती आणि देवयानी नाटकांतल्या सगळ्या गितांच्यो चाली खंय बसयिल्ल्यो. सर्वात्मका सर्वेश्वरा ह्या गिताची चाल अभिषेंकींक पयल्या प्रयोगाच्या दोन दीस आदीं खंय येवजली. ताणी रामदास कामतीक आपयलो. - रामदास, हांगा यो. ही पळे. ही चाल अशी.

- बुवा, हो राग कसलो?

- राग बीग तुका नाका. सांगलां तशेंच गा. अभिषेकींनी शिटकायलें.

असो हो म्हान कलाकार. बाकीबाबांच्या पांयजणां गिताचें आनीकूय भांगर करून तें रसिकांच्या काळजांत पावयलें अभिषेकींनी. तांणी आनीकूय जायतीं कोंकणी गितां म्हणल्यांत. आकाशवाणी वयल्यान तीं





आयकतना जीव कापसा भशेन ल्हव ल्हव जावन उंच उंच खंय तरी उफेल्ल्याची तरतरी आनी अनुभूती येता. कैवल्याच्या चांदण्याला, माझे जीवन गाणे, अनंता तुला कोण पाहू शके अशीं तांचीं कितलींशींच गितां कितलींय आयकलीं तरी तानभूक भागता आनी तीं आयुकपाची तानभूक परत वाडटा. विश्वाचा विश्राम रे, स्वामी माझा राम रे ही संत कृष्णंभट्ट बांदकरांची रचना तर अभिषेकींनी उपाट भावपूर्ण गळ्यान गायल्या. मत्स्यगंधा, कट्यार काळजात घुसली आनी हेर नाटकांक अभिषेकींनी अशे तरेन संगीत दिलां की तो मराठी नाट्यगितांचो एक भांगराचो काळ थारला. मराठी संगीत नाटक तांणी एके वेगळेच उंचायेर व्हरून दवरपाचो इतिहास रचला.

अभिषेकी हें नांव काडिना फुडें म्हज्या आंगांत कितें तरी संचारिल्ले भशेन जाता. चक्क करून तांची ती ऋशीतूल्य मूर्त दिसता. ध्यासमग्न तपस्वी साधका भशेन आनी एक अणभवी शांत योगी ताठ मानेन बसचो, तशी बसकण माचयेर मारून बशिल्ली तांची आकृती दिसता. धीरगंभीर अशी. धव्या फुल्ल भेसांतली. काळीज हालोवन सोडपी धवें फुल्ल अशें रियाजी परिपक्व गाणें दिवपी. आनी तकली बागवता. वंदन करपाक. ह्या म्हान गानगुरूक!



# उदयबाब

निसुवार्थी, निगर्वी अशें कोंकणीचे सेवक सामके उणे. कसलेंय पद वा काळींग करपा सारकें कदेल वा लोकेषणेची भूक भागोवपी प्रसिद्धी मेळटा आसत जाल्यार तत्वां गुठलावपी आनी निश्ठा बदलीत रावपी आमी पळेल्यात. पूण विनम्र अशा तत्वनिश्ठ सेवकां मदलो उदयबाब हो विरळूच.

हुशार, बुदवंत, अभ्यासू आदवोगाद साप थोडे. पूण तातूंतय कोंकणीची आदवोगाशी आयुश्यभर करपी वकील एकलोच. कोंकणीक सगले पाट दिवपा ख्रातीर वावुरिल्लो आनी अजूनय फावता तें मेळोवपा खातीर भाशेचो वकालतनामो घेवन वावुरपी वकील एकूच, उदयबाब.

अंतपार नाशिल्लें पासियेंस आशिल्लो चारित्र्यवान निर्व्यसनी फुडारी म्हणचे कितें? हाची देख भुरग्यांक डिक्शनरी वा हेर पुस्तक दाखोवन दिवं नजो. तांकां उदयबाब दाखयल्यार पुरो. दुस्वास करपा सारके 'वाणी आनी लेखणी' दोनूय उपहार रगतांतल्यानूच मेळिल्ले पत्रकार- लेखक साप थोडे. उदयबाब तातूंतलोच.

वेळाक आनी वक्तशीरपणाक समर्पीत जाल्ले आयज वखदाक

लेगीत मेळनात. कार्यावळीक अर्दवर पयलीं येवपी आनी दिल्ल्या एपाँयटमँटाक, आपयिल्ल्या मनशा आदीं आपूण हाजीर रावपी लोक सामके थोडे. आपूण खूब बिझी अशें भासोवन कळावान येवन बेरंग करपी नाटकीच चड. पूण खऱ्यांनीच बिझी आसुनूय केन्नाच वेळा कडेन फाल्सिदाद, करचो ना असो एकलोच. उदयबाब.

कोंकणी अग्रलेख हे कोंकणी कशे आसचे हाची देख दिवपी संपादक एकलोच. उदयबाब.

समाजांत बुरखे घाल्ले नाटकीच चड. पूण चिमटीभर अ-दांभीक, अ-फटींग, अ-आपसुलाद लोकांक लागून हो बुरसटिल्लो समाज तग मारून आसा अशा अपुरबायेच्या मानेस्तां मदलो हो उदयबाब.

इतलेय तरेच्या लोकांची जी वळेरी हांवें मांडल्या तातूंत आनीक एक खाशेलो गूण उदयबाबा कडेन आसा, तो मात बाकीच्या कोणाच कडेन मेळना. कसलो गूण? दुसरो मनीस आपणा कडेन उलयता तेन्ना लक्ष दिवन ताका आयकप. ल्हान व्हड कोणूय जावं, आपलो वेळ वगडावपी आसूं, वागूंक कळना असो उर्मटपणान उखलापो वाद घालपी कोणूय आसूं, ताचें म्हणणें 'आयकुपी' एकलोच उदयबाब. उलयतना दुसऱ्याच्या उतरांक कापिनासतना वा आपल्या विचारांनी बुडनासतना इतली सोंशीक श्रवणशक्ती आसपी फकत उदयबाबूच! उदयबाब, तुमकां मुजरो.

हांव उदयबाबाचो भक्त न्हय. आमी दोगूय जाण कोंकणीचे भक्त. उदयबाबाचीं कांय मतां विचार वा कांय प्रसंगां वयली कार्यपद्धत म्हाका पटना. पूण ते विशीं तांकां सांगशी जाल्यार भासाभास करतना म्हणण्याक आदर दिवन कुस्कुटाय नासतना, हर्र करिनासतना आयकुपी परिपक्व व्यक्तीमत्व म्हणल्यार उदयबाबूच!

गुणांनी भरिल्ल्या उदयबाबाचें चिंतप निवळ, वागप, उलोवप, जेवप-खावप, आचार-विचार, कपडे, बूट सगळेंच लिंप आनी टापटीप.

हस्ताक्षर सुंदर, रेखीव आनी निवळ.

भौशीक मळार कोयर वाडला ताच्यो घाणीय आमकां मारिनात. नाकांच 'इम्यून' जाल्यांत. काडयेचोय नैतीक अधिकार नाशिल्ले लोक समाजांत किंवाट्यान निर्शेणेन आतंक पातळायिल्ले भाशेन शिनिफिक्यो सांगूंक लागतात तेन्ना समाजाचे भलायकेचो हुस्को जाताच. हाडकां घालून मिरोवपी ह्या टणटणमाऱ्यांक पळेतकच हांसुंकूच येता. अशा वेळार समाजाच्या काळखांत दिवो कसो उजवाड दिवपी सुंदर आदर्श तांकीवंत पूत आसा, अशी आशा भितरल्यान जागता उदयबाबाक पळेतकच!

विधानसभेंत प्रतिनिधित्व करपी जायते वांगडी जाले. आसात. पूण संसदपटू म्हूण आपले ओघवते अमोघ रसाळ देखदिणे कोंकणी भाशेन सभाघर गाजोवन सांसणिकाये खातीर आपले नांव कोरांतपी आमदार उदयबाबूच आं. राजभास कायदो आयलो तो उदयबाबूच विधानसभेंत आसतना आं.

कोंकणी, गोंय, गोंयकारपण, समाजांत येवपी वायट गजाली आनी वृत्ती हांचे आड सणसणीत वाणी आनी लिखणी हांचे वरवीं पोटतिडकीन 'सातत्यान' वेळोवेळ आवाज उठोवपी क्रियाशील फुडारी एकलोच आं. उदयबाब.

समता म्हणचे कितें तें आमी बाळकां नेणा. पूण मानवता आनी ममता केळोवपी- जियेवपी उदयबाबाक पळेल्यार खूब गजाली शिकूं येतात.

उदयबाबाचे लेख हांव दोनदां बारीकसाणीन वाचतां. फकत कोंकणी भाशेचो जादू अणभवपा खातीर आनी शिकपा खातीर. खिचडी सरकार केंद्रांत आयिल्लें तेन्ना 'पाडसा वयल्या कुंवाळ्यांनो तुमी गडगडटले' ह्या माथाळ्याचो अग्रलेख येतकच हांवें रांदचेकुडींत रांदपी माईक 'पाडस' म्हणल्यार नेमकें कितें हें विचारून पिडिल्ली. खतखत्याच्या

फोडीं भशेन ल्हान ल्हान पक्षांनी घडयल्लें सरकार अशी काव्यमय अलंकारीक उपमा फकत कवी आनी गीतकारूच पत्रकारितेंत दिवंक शकता. 'चिंवळें' हें उतर कांय तेंपा आदीं उदयबाबान वापरिल्लें. कोश उसतितकच ताचो अर्थ कळ्ळो- इल्लोसो हुंदीर वा तशे तरेचो प्राणी.

गोंयांत कांय वर्सां आदीं चोगम म्हणल्यार राष्ट्रकूल परिशद जाली. उदयबाबाले लेख त्या काळांत कॉलेजींत आसतना हांव आवडीन वाची. 'ऐन त्या वगतार पणजेंतल्या टपाल कार्यालयांत नळ्यांक तांबडो लेपोड सारयलो म्हूण ती निवळसाण जायना' ह्या उदयबाबाच्या वाक्यांतलें लेपोड हें अशेंच मुदयेर थीक कशें कोंकणी उतर.

अश्यो शेंकड्यांनी पती दिवं येत. म्हणी ओपारी हांचो योग्य समर्पक वापर उदयबाब आपले बरपावळींत करीत आसता. कारण ती भाशेची शक्त.

'हांवें' कोंकणी खातीर हें केलें, तें केलें, अशे तरेन आवाज उठयला म्हणून हें जालें' अशे तरेन ताळो सरांटून स्वभक्तीचीं गायनां करपी खूब आसात. पूण हांवें हें केलें वा हें पचयलें वा सोंसलें अशें उतर सपनांत लेगीत उदयबाबाच्या ओंठार वा तकलेंत येना हें म्हान मनशाचें म्हान लक्षण. तांणी कितले त्रास, कश्ट, कचकचे सोंसले हाका सुमार ना. वसंत बापट, पु. ल. देशपांडे आनी हेर मराठी साहित्यिकांक वाद चळवळी वेळार सडेतोड जाप दिली ती उदयबाबानूच. भाशेच्या मुद्यार बापायक जो बदलोना तो गोंयांत आयात केल्ल्या कोंकणी दुस्वासी मराठी संपादकांक आयकता? तांकां भायऱ्यो दिल्यो त्यो उदयबाबानूच. ओपीनियन पोला वेळार उदयबाबान गोंयचें स्वत्व सांबाळपाक दिल्लें योगदान खूब व्हड!

मुंबयंत कोंकणी चळवळी वेळार उदयबाबाचो मोलादीक हातभार आसा. ताचो इतिहास उदयबाब जेन्ना 'जाग' नेमाळ्या खातीर बरयता

तेन्ना स्वताच्या त्यागाचो उल्लेख लेगीत करिना. हांवें केलें अशें दिसत म्हूण कितलेशेच तपशील टाळटा. उदयबाबान मुंबय आकाशवाणी खातीर काम केलां. आनी मुंबयंत त्या काळांत उदयबाबान कोंकणी खातीर संघटन, आयोजन, जागृताय, साहित्य निर्मणी अशें जायतें काम केलां. आकाशवाणोचेर बातम्यो वाचल्यात हें खूब जाणांक खबर ना.

एकदां एकल्या बॅरिस्टर जुविजाचो पूत खंय आदवोगाशी करपाक पावल घालपाचो आशिल्लो. बापायन पुताक तीन आदवोगादांक मेळपाक सांगलें. उदयबाब तातूंतलो एक आं. 'उदयबाब जेन्ना ओपन कोर्टांत येता तेन्ना सगले न्यायवेवस्थेक आनी वातावरणाकूच एक उबारी आयिल्ले भशेन दिसता' अशें म्हजो भाव ॲड. अमोल सदांच सांगता. उदयबाबाचे पिळगेन चकचकीत शिस्तबद्ध वकिली चलयली आनी ताचो दिश्टावो आयजूय उदयबाब कोर्टांत येनाफुडें आयचे आमचे पिळगेक जाता' अशें तो म्हणटा.

उदयाबाबा भितर एक व्हड साहित्यकार आसा. ही तांक प्रसादाफूल हे कथेन दाखयल्या. आनी मातसो राव, चान्याचे राती आनी हेर रेडियोच्या गितांनी हें सिद्ध करून दिलां. उदयबाबाल्या कर्णपर्व नाटकान तांच्यांतल्या कुशळ साहित्यकाराचे प्रवाही संवाद लिखणेचो जादू आमकां दिसला. तांच्या प्रासंगिक लेखांनी लेगीत काव्यमय प्रतिमा उपमा हांचो योग्य वापर करपी, विशुद्ध कोंकणी भाशेचो सहज वापर करपी लेखक अजुनूय दिसता. पूण...

उदयबाबान आपणा भितरलो सृजनशील लेखक, कवी, कथाकार, नाटककार कोंकणीच्याच चळवळीच्या व्यापां खातीर मारलो ही खंत आमकां तोपता. उदयबाबाल्या तोंडा वयलो मंद हांसो आनी ऊर्जा उमेद धांवपळ आमकां लजेक घालता. 'खूब सोंसलें', आतां मात हे पिरायेचेर फार जाता, रगतूच सोंसपाक नेट दिना अशें सांगपी खूब सिनियर सिटिझन्स आसात. पूण ना. उदयबाबाच्या सोंशीकपणाचो

बांद केन्नाच फुटना.

उदयबाबाच्या चपचपीत वळयल्ल्या केंसांचो मागो म्हाका खूब आवडटा. हांव ल्हवूच केन्नाय फाटल्यान रावतां आनी ल्हान भुरग्याच्या कुतुहलान तो पळेत रावतां. हो तेल कसलें वापरता काय महाभृंगराज, नवराज, नवरत्न काय माक्याचे तेल अशें घरकान्नीक किशोरीताईक विचारचें कशें दिसता. वादळांत लेगीत शांत थीर उदयबाब सदचे भशेन थंडथंड आसता, विवेक शेणयना ताचो गूट ह्या अचल माग्यांत बी ना मूं अशें म्हाका दिसता.

आपलें गुणगायन उदयबाबाक आवडना हें हांव जाणा. उदयबाब, तुमच्यांतलें मनीसपण वळखुपा इतलें मनीसपण आमी विकसीत करूंक ना. तुमच्यांतले व्हडविकायेचो चैतन्यान भरिल्लो षड्ज गोंयच्या समाजांत निनादत आसा, तो आयकुपाची खूब जाणांची लायकी ना.

माफ करात उदयबाब आमकां. अशीर बुद्दीचे कोलत्यांनी खेळपी मस्ते निळू आमी. तुमी भोगशीत आसात. पाख्या कडेन लक्ष दीत. कांयच जळूंक फावना, लुकसाण जावंक फावना म्हूण दोळ्यांत तेल घालून तुमी सुरक्षेचे नदरेन पाळत दवरून आसात.

हो लेख बरयतना 'हय... बरे भाशेन' अशें जांबावलेच्या कोंकणी हेळ्यान आनी नादान उच्चारपी तुमी म्हाका स्पश्ट दिसतात. उलयतना ओंठार बोट दवरिल्ले. आमचीं भुरगेपणां आयकत रावपी. पारदर्शक हारशांत पळेतकच त्या हारशांतल्यान सुंदर तेजस्वी किरणां येवन दोळ्यांत दुकां येवचीं तशें तुमचे आकृतीक पळेतना भासता...

■

# दादाकाका

दादाकाका म्हणल्यार म्हाका मुकेश हें नांव दवरपी म्हजो बापोलयो प्रकाश थळी. म्हाका आपणें नांव दवरलें ती गजाल तो अभिमानान सांगी. तो तेन्ना मुंबय आशिल्लो. ताणें पोस्टांतल्यान पत्र बरोवन अमूक नांव दवरात म्हूण मांगलें खंय. तें नांव दवरतकच तो खोशी जालो. आपली गजाल आयकली म्हूण. उपरांत तो सदांच सगल्यांक सांगतालो. हांवें मुकेश नांवाचें टेंडर घाल्लें तें पास जालें.

आपणें दवरिल्लें हें नांव आयज आकाशवाणी वयल्यान बातम्यो सांगतना सदांच कान्यार वता हाचोय ताका अभिमान आशिल्लो. एक दीस ताणें म्हाका म्हणलें, आकाशवाणी पणजी, मुकेश थळी तुमकां खबरो दिता, मुखेल खबरो.... अशें म्हणचे सुवातेर मुकेश खबरो अशेंच म्हण रे. हांसत हांसत एक दीस फकांडां करीत ताणें आकाशवाणीचेर एका अधिकाऱ्याक म्हणलें, आरे हाणें (म्हणजे हांवें) केदीं चूक केली रे काल. मुखेल खबरो म्हणचे सुवातेर सरळ मुकेश खबरो म्हणलें. तो आपूण हांस हांस हांसलो. पूण ताच्या त्या अभिनयान त्या अधिकाऱ्याक मात हांव खऱ्यांनीच चुकलां आसूंये अशें दिसलें.

तें निस्तरावपाक आनी ताका पटोवपाक मात म्हाका नाका पुरो जालें.

दादाकाकाक हांव वक्लाच्या दोन लेन्सींतल्यान पळेतां. हांव स्वता एक लेखक आशिल्ल्यान, ताका हांव सृजनशील कलाकार आन्नी अनुवादक लेखक संपादक म्हूण तेळटां. तो म्हजो बापोलयो आशिल्ल्यान हांव ताका दादाकाका म्हणूनच पळेतां. ह्या दोनूय लेन्सींतल्यान ताचीं असंख्य रुपां दिसतात. कितल्योश्योच रंगरंगयाळ्यो यादी कॅलिडोस्कोपांत पळेल्ले भशेन दिसतात.

रूचीक खबरी सांगपी, साभिनय गजाली रंगोवपी, सगळ्यांकडेन मिळून मिसळून वागपी, खूब खूब उलोवपाची आवड आशिल्लो हो आमचो दादाकाका. म्हाका पांच काका. पूण हो काका असो की हांव, म्हजो व्हडलो भाव अमोलभाई आनी बाकीचे सगळे आमचे परस ल्हान पुतणये मायेमोगान ताच्या खांदार लेगीत हात घालताले. सगळे ताका खुबूच लागीं. पुतणयांचीं फकणां, तेवल्यो बावल्यो आन्नी अपुरबाय करपाचे ताचे पध्दतीक लागून तो पुतणयां भितर खुबूच प्रिय.

चोडणेची पांच दिसांची चवथ रंगताली ती दादाकाकाच्या अस्तित्वान. तो लुंगी मारून बानयन घालून पासयो मारीत आसतालो. हांव ताचेकडेन साहित्य, राजकारण, गोंयचे वेगवेगळे हुस्के, कोंकणी अशा विविध विशयांचेर उलयत रावतालों. तो सडेतोड आनी स्पश्ट. आपल्या मतांविशीं आग्रही.

भुरगेपणांत हांव शाळेंत आसतना म्हाड्डोळच्यान दादाकाकाक मुंबयंत पत्रां बरयतालो. तो थंय शिकतालो आनी उपरांत मालाडच्या दालमीया कॉलेजींत इंग्लीश शिकोवपाकूय लागलो. ताचें इंग्लिशीचेर प्रभुत्व. ते इंग्लीशीची ताका भुरगेपणांतल्यानूच आवड खंय. कारण मुंबय वचचे पयलीं म्हापशां एका इश्कोलांत मदीं ताका इंग्लीश शिकोवपाकूय घेतिल्लो खंय.

हांव दादाकाकाक कोंकणींतल्यानूच पत्रां बरयतालों. तो तांकां

नेमान जापो धाडटालो. काळ्या तिंतांतल्यो, पावसावरी तिरप्या अक्षरांतल्यो ताच्यो जापो अदींमदीं येताल्यो. धा वर्सांचो आसतनाच म्हाका म्हज्या मामांनी रवींद्रबाबाकडेन मार्गदर्शना खातीर धाडिल्लो, ते गजालीचेंय ताका कवतूक आशिल्लें. तो रवींद्रबाबाक तेन्ना मेळुंकूय नाशिल्लो.

मुंबय त्या काळांत कोंकणीचें कार्य चलतालें तातूंत ताचो वेगवेगळे तरेन सहभाग आसतालो. रेडियो वयल्यान ताच्या उलोवपांची वितरावणी जाताली. स्वराज्य नांवाचें एक मराठी सातोळें येतालें. तातूंत पोहण्याची कला हो ताचो एक निबंद छापून आयिल्लो अशें ताचो मुंबयंत सांबाळ करपी व्हडलो भाव आबाकाका आमकां सांगी.

मुंबय आसतनाच तो पुनव ह्या तेन्नाच्या एकमेव कोंकणी नेमाळ्यांत निबंद कथा बी बरयतालो. वासांनी जीव पिसो हो ताचो म्हाका सगळ्यांत आवडिल्लो निबंद. कोंकणींतलो हो एक श्रेष्ठ निबंद. मुदलांत पेत्रोलाचो वास ह्या माथाळ्या खाला तो छापून आयिल्लो आसूंक जाय. तरेतरेचे भोंवतणचे वास आनी तेविशींची आमची संवेदनशक्ती वरवीं ग्रहण करून घेवपाची तांक हाचेर तातूंत भाश्य आशिल्लें. पेत्रोलाचो एक वेगळोच वास आसता आनी तोय कांय जाणांक आवडटा हाचेरूय ताणें बरयल्लें. खरेखरें होय ताचो एक क्लासीक असो निबंद हांवें तेन्ना इस्कोलाक आसतना पुनवेचेर वाचिल्लो. व्हडली आई हें ताचें स्वताचे आजयेवयलें व्यक्तीचित्र राश्ट्रमताचेर आयिल्लें तें म्हाका ताणें भुरगेपणांत दाखयल्ल्याचीय याद जाता. तुळशीचें लग्न हे ताचे कथेकूय राश्ट्रमत दिसाळ्याचे कथा सर्तींत इनाम मेळिल्ल्याची हयन्हयशी याद जाता.

मुंबय आसतना वर्साक एक फावट तो गोंयांत येतालो. तो येतकच आमकां खूब आनंद जातालो. पेपर पुस्तकां वाचीत आसतालो. रेडियो हें तेन्नाचें एकमेव प्रभावी माध्यम. रेडियो म्हऱ्यांत दवरून तो ताचो कान पिळीत आसतालो. स्टेशनां घुंवडायत रावतालो. एके वटेन उलयतालो. मदींच तोंडांत शेव उडयतालो. बीबीसी स्टेशन बी

आयकतालो. पदां आयकतालो. कोटयो, विनोद आनी माहिती- संदर्भांनी भरिल्ल्यो ताच्यो खबरो ही एक मैफल आसताली. तातूंत वेळ कितलो पासार जाला हें कळच नाशिल्लें.

तरणे पिरायेरूच केंस पिकपाक लागप हें आमच्या थळयांचे बडीचें. ताचेय केंस पिकपाक लागिल्ले. आपले पिकिल्ले केंस काड अशें फर्मान तो म्हाका सोडी. अमूक केंस काडटकच एक चॉकलेट अशें हें हांयस आशिल्लें. तो आड पडटालो. वाचतालो. न्हिदतालो. म्हाकाय मागीर मागीर ते केंस काडूंक वाज येतालो. काडून उडयल्लेच केंस परत ताका दाखोवन बावीस, तेवीस, हो चोवीसावो अशें मदीं मदीं ताका सांगतालो. न्हिदून उठटकच तो आपले फाटीर मुठी घाल म्हूण सांगी. म्हाका मजाच दिसताली. घम्म - घम्म हांव मुठी मारतालों. अशे तरेचें एक वेगळें नातें बापोलयो आनी पुतणयो अशें आमचे मदीं आशिल्लें.

मुंबयच्या भोव आयामी दर्यांत तो वाडलो. थंयच ताचें भोवपदरी व्यक्तीमत्व फुललें. नाटकांचें ताका पिशें. थंय बरीं बरीं नाटकां पळोवपाची संद ताका मेळ्ळी. व्हडलो भाव आबाकाका हो संगीतकार आनी संगीत शिक्षकूय आशिल्ल्यान दादाकाकाक व्हडल्या म्हान गायक वादक कलाकारांच्यो कार्यावळी लागींच्यान बसून अणभवाक मेळ्ळ्यो. ताचें संगिताचेंय गिन्यान बरेंच आशिल्लें. तो थंय हार्मोनियम वाजयतालो. हांवेंय ताका आमच्या चोडणा घरा हार्मोनियम वाजयतना पळेला. राग वळखप, तातूंतलो ताल वळखप आनी ताचेर आपल्या वडील भावां कडेन चर्चा करतना दादाकाकाक हांवें पळेला.

मुंबय आसतना ताणें देशांत आणीबाणी लागिल्ली त्या वातावरणा उपरांत एक एकांकी बरयली. मराठी. वेटींग फॉर घासलेट. कॉलेज एकांकी सर्तींत हे एकांकीक पयलें इनाम मेळ्ळें. विजय तेंडुलकार परीक्षक म्हूण येवपाचे आशिल्ले. पूण एके कॉलेजीन तेंडुलकाराचीच एकांकी सर्तींत सादर केल्ल्यान नेमांक धरून तेंडुलकर आयलेना. पूण

इनामां वांटपाचे कार्यावळीक मुखेल सोयरे म्हूण ते आयले. दादाकाकान तांचे हस्तुकीं तें इनाम घेतलें. वझरो राय वाठारांत दादाकाकाचें बिराड आशिल्लें तेन्ना तो फोटो ताच्या मेजार पळेल्ल्याची याद जाता. ही एकांकी खूब गाजली. मुंबयभर ताचे प्रयोग जाले. जायते. तातूंत हवालदाराचो पार्ट प्रवीण कबरे ह्या कलाकारान केल्लो. कालांतरान हो प्रवीण कबरे एक व्हड रंगकर्मी, दिग्दर्शक आनी नट म्हूण नांवारूपाक आयला. पणजे कला अकादमींत तो केन्नाय आपलीं वेवसायीक नाटकां घेवन येतालो. तेन्ना दादाकाकाक तो आदरान पांयां पडटना पळेतकच आमचो काका खूब व्हड हें कळून आमचें हड्डें अभिमानान भरून येवचें.

गोंयांत येवन स्थायीक जातकच दादाकाकान कांय मराठी आनी कोंकणी नाटकां सर्तींत सादर करून आपलें नांव सांसणाचें कलेच्या मळार कोरांतून दवरलें. लेकुरें उदंड जाली ह्या नाटकाक ताणें आपल्या कल्पक दिग्दर्शनाचो खाशेलो स्पर्श दिलो. असंच आणि इतकंच हें श्रीनिवास भणगेचें नाटक बसयलें आनी वेगळेच शैलीन सादर केलें. तें पुण्याक जेन्ना सादर जालें तेन्ना खुद्द लेखक नाटक जातकच माचये भितर आयलो आनी ताणें दादाकाकाक आनंदान वेंग मारली. आपले कलाकृतीक इतले तरेन आनी अशे तरेन आयाम चडोवं येत हाची कल्पनाच नाशिल्ली अशें ताणें सांगलें. महानिर्वाण हें सतीश आळेकराचेंय नाटक ताणें प्रभावी पद्दतीन बसयल्लें. दंबद्विपचा मुकाबला हेंय विजय तेंडुलकाराचें नाटक गाजलें. नाट्यकलाकार अजीत केरकार आनी ताचे भाव हे दादाकाकाचे मेवणे. ते ताका भावोजी म्हणटाले. ताका लागून अंत्रूज म्हालांत सगळेच जाण दादाकाकाक भावोजी म्हणटाले. तो सगळेंच इन्जॉय करतालो. बांदोड्या ताच्या मावोड्या शेजरा रावपी माधवी देसाई ही लेखिकाय ताका भावोजी म्हणटाली म्हूण तो मुमुरख्यांनी हांस हांस हांसतालो. माधवी देसाईचें एक मराठी पुस्तक दादाकाकान

इंग्लीशींत केलां.

मुदलांतूच भांगर आशिल्लया पुंडलीक नायकाच्या कांय नाटकांक ताणें आपलो मास्टरली टच दिवन भांगराचें आनीक तेज चडयलें. पिंपळ पेटला हें तातूंतलेंच एक नाटक.

दादाकाकाच्या अश्टतांशी व्यक्तीमत्वातंलो दिग्दर्शक म्हाका खूब्ब आवडटा. खूब्ब म्हणजे खूब्ब. गोंयांतल्या म्हान दिग्दर्शकांतलो तो एक. ताचें नाटक पळेतना मात्तूय वाज येवचोना. नाटक मात्तूय रेंगाळचेंना. तशें जाणवल्यार तो आदींच येसाये वेळार तातूंत काटछाट करून संवादांनी योग्य संपादन करतालो. तें करतना हांवें ताका पळेला. प्रेक्षकांक सिटारूच खिळोवन दवरून ताचे मेरेन लेखकान सांगिल्लो संदेश योग्य पध्दतीन पावोवपाचें कसब दादाकाकाकडेन आशिल्लें. नाटकाचे नशेंत आनी धुंदींत रमप ताका आवडटालें.

*प्रिया तुझ्या प्रेमासाठी* हें ताचें मराठी एकांकींचें पुस्तक प्रिया प्रकाशन उजवाडायलां आनी तातूंतल्यो कांय एकांकी मुंबयत जाल्यात. *तीन खेतीं शाणी सुर्ती* हेंय ताचें एकांकींचे पुस्तक उजवाडाक आयलां. नाटकांचीं रूपांतरां करपाक दादाकाकाचो हात धरपी कोण नाशिल्लो. बादल सरकाराचीं नाटकां ताणें कोंकणींत हाडलीं आनी कोंकणी साहित्य आनी नाटकांची माची गिरेस्त केली. नोबेल पुरस्कार फाव जाल्लो लेखक दारियो फोचें नाटक ताणें *पुलीस पुलीस मार पिल्लूक* ह्या नांवान कोंकणींत हाडलां.

भाशा शुध्दी आनी वाचीक अभिनय हाचेरूय ताचो भर आसतालो. एकदां ताका रेडियोचेर माधवबाब बोरकारान कथेचें रूपांतर श्रुतिकेंत करपाचें काम दिल्लें. तें ताणें केलेंच. पूण रेकॉर्डींगा वेळार तो स्वता आयलो. फकत आवाजाच्या माध्यमांल्यान, चडउतार, उच्चार, पॉजीस हे वरवीं संवादफेक कशी करची हें ताणें सगल्या अभिनेत्यांक त्या दिसा शिकयलें आनी त्या कलाकृतीचें भांगर केलें. ते नट आनी

माधवबाब हे गजालीची अजुनय याद काडटात.

माथाळे दिवपाक तो एक्सपर्ट आशिल्लो. सुनापरान्तांत उपसंपादक म्हूण वावुरतना ताणें माधवी सरदेसायाच्या भाशाविचारा विशींच्या स्तंभाक *भासाभास* हें नांव दिल्लें अशें तो सांगी. कांय माथाळ्यांचीं करेक्शनां कशीं केलीं हेंवूय तो सांगी. शीलाबायचे एके कथेक *एक इंतेर, पादिगाराचेर* हो सार्थ आनी समर्पक माथाळो प्रकाशबाबान कसो दिलो ही याद शीलाबाय सांगता. अश्यो जायत्यो पती दिवं येत.

मूड मारता तेन्ना तो अणकार करी. ताणें थोड्योच कथा इंग्लीशींत केल्यात. शीलाबायची *गेर* कथा ताणें फेमिनाचेर छापून हाडून देशभर पावयली. तेन्ना तो मुंबय आसून शीलाबायक वळख लेगीत नासलो. पूण ती कलाकृतीच ताका आवडिल्ली. पुंडलीकबाबाची *भाग्योदय* ही कथा ताणें *इलेक्ट्रीक डॉन* ह्या माथाळ्या खाला इंग्लीशींत पावयल्या.

संजीव वेरेंकार आनी ताची कविता ह्या दोनांचेरूय ताणें उपाट प्रेम केलें. संजीवालो एक कविता झेलो ताणें आख्खो इंग्लीशींत केलो. विलेज इवीनींग हें ताचें नांव. दिल्लीच्या एका नामनेच्या प्रकाशकान तो छापला.

दादाकाकाचीं कांय दैवतां आशिल्लीं. मनोहरराय, उदयबाब आनी डॉ. काशीनाथ महाले. तांचेर उलयतना ह्या व्यक्तिमत्वाचीं आमकां कळूंक नाशिल्लीं तांसां तो सोपेपणी सांगतालो. उलयतना भक्तीभावान रंगतालो. ह्या तीनूय मनशांचेर ताणें बरयल्लीं व्यक्तीचित्रां हीं कोंकणींतली श्रेश्ठ व्यक्तिचित्रां अशें हांव म्हणन.

म्हाका एसएससीक दादाकाकाली *मीर्ग आयलो, मीर्ग आयलो* ही कविता आशिल्ली. ताच्या कवितांची फायल उजवा?डाक येवपाची आशिल्ली. दादाकाकान ताच्यो प्रती दवरल्योनात. जाणें ती छापुया म्हूण घेतली ताणें ती शेणयली. अशे तरेन एक पुस्तक उजवाडाक येवचे आदींच शेणलें.

*म्हाका म्हजें भुरगेपण कोणूय परत दियात रे, खेळटां खेळटां शेणलो बोल कोणूय परत हाडून दियात रे* ह्या उतरांनी सुरू जावपी मुंबय आकाशवाणीर ध्वनीमुद्रीत जाल्लें एक गीत आयजूय रेडियोवयल्यान वितरायतात. फूटबॉल आनी बियरीची बाटली तशेंच ताच्यो हेर कांय कोंकणी कविता बऱ्याच श्रेश्ठ दर्जाचो आसात. संस्कार ही अनंतमूर्तीची कांदबरी दादाकाकान कोंकणींत हाडली. ते कृतीक साहित्य अकादमीचो अणकाराचो पुरस्कारूय फाव जाला. ह्या दोनूय लेखकांक हांवें पणजे कला अकादमींत इंग्लीशींतल्यान उंचेल्या पांवड्याच्या विशयांचेर भासाभास करतना पळेल्यात. लॅम्बर्ट मास्कारेन्हास ह्या लेखकाची *सॉरॉइंग लाय्ज माय लॅण्ड* ही कादंबरी दादाकाकान सुनापरान्तांत खिस्तींनी उजवाडाक हाडली. स्वता चोडणा सारक्या गांवांत भुरगेपण सारिल्ल्यान दादाकाकाक किरिस्तांव समाजाच्या जिणेशैलीचें लागींच्यान दर्शन घडिल्लें. ताकाच लागून हो अणकार खूब रूचीक जाला. पुस्तक रूपान मात तो छापून येवंक ना.

कुळागराचो संपादक आसतना दादाकाकान सक्रियतेन आनी तडफदार पद्दतीन काम केलां तें हांवें आनी अमोलभाईन लागींच्यान पळेलां. त्या वेळार संपादक म्हूण तो जो पत्रवेव्हार करतालो तो वादळी पावस आनी जोगूल हांचे गतीक फाटीं उडोवपी. अना म्हांबऱ्या कडेन तो संपादन करतना खूब पत्रवेव्हार करतालो. आमकां दाखयतालो. ताच्यांतल्या समीक्षकाचें आनी संपादकाचें लागींच्यान दर्शन तेन्ना आमकां घडलें.

गोंयांतूय दादाकाकान मडगांवां दामोदर कॉमर्स कॉलेजांत इंग्लीश शिकयली त्या सुरस अध्यापन शैलीच्यो यादी ताचे विद्यार्थी आयजूय काडीत आसतात. ताका खूब जाण कोट्याधीश म्हणटाले. कांय जाण सप्तकोटेश्वर म्हणटाले. उतरां कणकणी तो उतरांच्यो कोटयो करून हांसयतालो. त्या कोटयांचेरूच एक स्वतंत्र लेख बरोवं येत.

पुंडलीक नायक, गजानन जोग आनी पुरूषोत्तम सिंगबाळ हांचें साहित्य दादाकाकाक खूब आवडटालें. साहित्याचो अभ्यासक आनी प्राध्यापक आशिल्ल्यान तांच्या साहित्याचेर तो पोट भरून उलयतालो.

गजानन जोगाल्या रूद्र कथांझेल्याक आनी संजीव वेरेंकाराल्या *चैतनाच्यो पांवळ्यो* ह्या कवितांझेल्याक दादाकाकान ज्यो प्रस्तावनां बरयल्यात त्यो कोंकणींतल्या अभ्यासपूर्ण प्रस्तावनां भितरल्यो कृती अशें म्हाका दिसता.

आकाशवाणीचेर ताची विद्यार्थीनी गायिका आनी निवेदिक शकुंतला भरणे दादाकाकाल्यो यादी काडटकच इतलें भावूक जाता की ताचे दोळे सदांच्र दोळे ओले जातात. थळी सरा सारक्या म्हान कलाकाराक खूब जाण वळग्वलेचनात अशें सांगतना आपल्या भाग्यान आपणाक जो प्रोफेसोर मेळ्ळो ताची व्हडवीक आनी आदर व्यक्त करतना, अणभव सांगतना शकू नमळायेन बागवता.

कोंकणी साहित्य आनी साहित्यीक ह्या विशयाचेर हांव दादाकाका कडेन खूब खूब उलयतालों. ताचेकडेन म्हजें चडशें उलोवप इंग्लीशींतल्यान जातालें. आपूणच शाणो आनी दुसरो बोंडो म्हणपी कांय मिडीऑकर व्यासंगशून्य लेखक खूब आसात. लटके आव आनी पोके आविर्भाव हाडून हे लोक स्वताचें हांशें करून घेतातूच. पूण भाशेन्चें संस्कृतायेच्चें आनी समाजाच्चेंय लुकसाण करून घेतात. दादाकाकाक आनी म्हाका हेच गजालींचे त्रास जातालें. त्या वेळार तो जीं उतरां सांगतालो तीं कानांत मादतात. - काडयेचोय गंध नासतना कदेलां बळकायतात तेन्ना तांच्या धाडसाचेंच कवतूक दिसता रे!

नाट्य दिग्दर्शक म्हूण दादाकाका कडेन आनीक एक व्हडलो गूण आशिल्लो जो हेर दिग्दर्शकांकडेन आसना. संगिताची सखोल जाण. एकदां एका नाटकांत संगीत दिग्दर्शकान अमूक एक गेय कडवें तालांत भरना अशें सांगतकच दादाकाकान थंयच्या थंयच आपणें दिल्ली रचना

ताका मात्रांनी योग्य तरेन फिट बसोवन दाखयली तेन्ना सगलेच कलाकार तटास जाले! लयेचें हें गणीत दादाकाकाक ताच्या बापायकडल्यान म्हणजे म्हज्या आज्या कडल्यान बडीन आयिल्लें. म्हजो आजो स. गंगाराम थळी हो एका काळांतलो बरो पखवाज वादक आनी कलाकार.

जिणेची आपली अशी लय आसता. त्या तालार नाचल्यार धोंपरां फुटनात. पूण दादाकाकाक कालप्रवाहा आड पेंवपाक आवडटालें. चाकोरींतली जीण ह्या कलाकाराक मानवलीचना. ताणें आदवोगाशी सुरू केली. तातूंत ताचो जीव रमलोना. पूण वकिली शिकपाचो फायदो जालो. दादाकाकान भारतीय संविधानाचो ग्रंथ खूब कश्ट घेवन कोंकणींत अणकारीत केलो. इंग्लीश- कोंकणी शब्दकोश दादाकाकान रचलो तो आयज गोंयभर विद्यार्थी अभ्यासाक वापरतात.

एका जाग्यार घट्ट थीर रोमून रावप ताच्या सभावा आड आशिल्लें. जिणेचे यात्रेंत दादाकाकान आपलें लयेचें कोश्टक, मांडावळ, समीकरण, आवर्तनां, चलनां, मात्रा, ठेके, ताल आनी लयकारी मोडणा मोडणार मूड मारती तशी बदलली. घुंवडायली. तातूंत ताचें लुकसाण जालें अशें लौकीक अर्थान म्हणपीय आसा. पूण म्हाका इतलेंच दिसता. दादाकाका सामान्य भायलो आशिल्लो. मनस्वी, भन्नाट, अवलीया, आपलेच तंद्रींत जियेवपी!

भैरवी हो दादाकाकाले आवडीचो राग. भैरवीचे वाद्यवादनांले वा गायनांले सूर ताका पिसो करून सोडी. आमचे आजयेच्यो अस्थी घेवन आमी हरवळ्यां गेल्ले. थंय पासयो मारतना म्हाका आनी अमोलभाईक ताणें म्हणलें - हांव वतकच मरे, असलो पारंपारीक सोपस्कार करपाची गरज ना. म्हजो नेचर तुमी जाणात. एकूच करात. भैरवी वाजयात. सीडी वाजयात. वाद्य जाता वा गायन. एक म्हत्वाचें. तें भैरवी वादन चलतना कूय मारून तुमी बी भैरवीचे सूर गुणगुणपाक लागशात... आवर्तन वा तान मारली म्हूण हरकत ना. पूण बेसूर बी जायत जाल्यार

सोमतोच सकयल येतलों कांट्यार बसतलों आनी सोंडार एक फुलयतलों.

थुमेकाल नाका आशिल्लें कित्याक उलयता अशें हांवें ताका तेन्ना म्हणलें खरें. पूण आयज.... जेन्ना जेन्ना भैरवीचे आर्त सूर कानार सादतात तेन्ना मन थीर जाता. अंतर्मुख जाता. त्या भैरवीच्या सुरांतल्या कणांकणांत दादाकाकाचे कितलेशेच रंग कितलींशींच रुपां दिसतात. त्या आरोह अवराहांत सूर घुंवतात, विरतात, उफेतात, उसळटात तशीं दादाकाकाल्या सृजनशक्तीचीं थाव आनी सोद घेवंक नाशिल्लीं अगणीत रूपां कॅलिडोस्कोपीक रचना जावन दिसूंक लागतात. ओल्या दोळ्यांच्यो पापण्यो म्हणटात - ह्या कलाकाराक वळखुपाक तुमी कमी पडले शे दिसतात!



# कस्तुरी - एक याद

बायॉलॉजी विशय कठीण म्हूण हांवें बारावेक सोडलो आनी भूगोल घेतलो. हांव मडगांवां चौगुले महाविद्यालयांत शिकतालों. तेन्नाच म्हजे भयणीन नंदिनीन इकरावेंत फोंड्या जीवीएम हायर सेकंडरींत प्रवेश घेतलो. 'आमकां एक नवी टीचर आयल्या भैया, बायॉलॉजी शिकोवपाक. हुश्शार. आनी उमेदी.' नंदिनीन म्हाका एक दीस सांगलें. हे टिचरीन भुरग्यांचीं मनां जिकलीं. आपल्या अध्यापनान आनी मिसळून वागपाच्या सभावान ती रोखडीच विद्यार्थीप्रिय जाली.

तिचें नांव कस्तुरी भट्टाचार्य. हांसतमुख. कला, साहित्य, संगीत, समाजसेवा, समाजीक लागणुकेचे विशय आनी बाकिच्या जायत्या विशयांनी गोडी आशिल्ल्यान कस्तुरी रोखडीच सगळ्या वर्तुळांनी लोकप्रिय जाली. बंगाली आसुनूय तिणें आपले हुशारेन कोंकणी फटाफट उखलली. तिचेकडेन म्हजी वळख ही भयणीची आवडटी टीचर म्हूण जाली. आमी प्रियोळा रावतना शेजरा नारायण देसायाचो भाव आनी दोन भयणी रावताल्यो. नारायणबाब आयएएसाचो अभ्यास करपाक थंय खूब दीस उरलो. तांच्या घरांतले लायब्ररींतलीं पुस्तकां म्हाका

चरूंक मेळटालीं. हांव तेन्ना कॉलेजांत. कस्तुरी केन्नाय थंय येताली. नारायणबाबा भशेन तिका आयएएसचो अभ्यास करपाची उमेद आशिल्ली. ती मार्गदर्शना खातीर येताली. फुडें ती परिक्षेक बसली काय कितें हांव नकळ. पूण आनीक एक परिक्षा ह्या बोवाळांत पास जाली. प्रेमाची. मोगाचे धागे जुळ्ळे. वैचारीक आनी मानसीक प्रेमाच्यो तारो तादात्म्य पावल्यो. दोन संस्कृतायांचें आगळेंवेगळें फ्युजनरूपी प्रेमसंगीत तातूंतल्यान रूणूझूणू झंकारूंक लागलें. आनी एक दीस तांचो साखरपुडो थारलो. नंदिनी साखरपुड्याक नारायणबाबाल्या घरा पैकूळ वचून आयलें.

कितलेशेच दीस तें कस्तुरी टिचरील्यो गजाली सांगी. तिच्या टिपीकल अशा बंगाली संस्कृतायेचें दर्शन घडोवपी सुंदर आवयच्च्यो खबरी साग्रसंगीत वर्णन करून सांगी. कस्तुरीलो धाकलो भाव जयदीप. बंगाली उच्चार जॉयदीप. ताका ती बाबू म्हणटाली. तोवूय भयणी भशेन हुश्शार.

आमगेर केन्नाय गेस्ट येतकच नंदिनी फळां कापून दवरता. सफरचंद तें अशें तरेन पालशें स्लायसी मारून कापता की खबरी मारतना सोयरो तें खायत रावता. तातूंत बियो आनी मदलो नाका आशिल्लो घट्ट भाग पुरायेन वेगळो केल्लो आसता.

- हें एपल कापपाचें तंत्र तुका कोणें शिकयलें? गेस्ट विचारता.

-कस्तुरी टिचरीन. नंदिनी अभिमानान सांगता.

कितल्याशाच प्रसंगां वेळार कस्तुरीचो सुगंध असो यादींनी दरवळत आसता. सुखदिणो. केन्ना हांसरो, केन्ना खळखळाट करपी. मंद. सुखदिणो! कस्तुरी हरहुन्नरी. कितल्याशाच गजालींनी तिका रस. फकत आपलो बॉटनी विशय घेवन तातूंतूच घुस्पून रावप तिच्या सभावांत बसनासलें. ती वाचीत आसताली. एक दीस तिच्या हातांत पावलू कुयेलोची कादंबरी आसली. हो लेखक मूळ पुर्तुगेज. पूण ताच्यो कादंबऱ्यो

इंग्लीशींतूय आयिल्ल्यो आनी त्यो गाजताल्यो. पावलू कुयेलोचेर ती उलयली. उलयतां उलयतां हांवें सहज म्हळें - टीचर, म्हाका एक सांग, तुज्या वांगडचे प्रोफसोर असलें कितलेंशें साहित्य वाचतात? ती हांस हांस हांसली. पूण तिणें थेट जबाब दिलोना.

ती हरशीं म्हजे भयणीची टीचर. पूण हांवूय तिका टिचरूच म्हणटालों. तिका तें आवडटालेंय. म्हजे भयणीची ही आवडटी टीचर अशें कोणाकूय सांगतकच ती सुखावताली. पूण हालीं हालीं ती म्हजे भयणीची वळख कोणायकडेन करून दितना आपलें आदलें स्टुडंट पूण आतांचें बरें फ्रेंड अशें अभिमानान करून दिताली. कस्तुरी टिचरी कडेन बंगाली शिकूंक जाय अशें हांव सगळ्यांक सांगतालों. तिकाय सांगतालों. केन्नाय मेळटकच दोन दोन वाक्यां तिचे कडल्यान बरोवन घेवन पाठ करतालों. कसो आसा, कशे आसात, कशे आसात हे खातीर केमोन आछी, केमोन आछू अशें वेगवेगळें व्हेरीयेशन आसा. ल्हान भुरग्याक हडकुपाक वेगळें व्हेरीएशन आशिल्लें. हांव तें विसरून घुस्पतालों. तेन्ना ती म्हणटाली, तुज्या बंगाली डायरेक्टरा कडेन मात असली बंगाली मारूं नाका. ताका सुखावपाचे सुवातेर ल्हान भुरग्याक बंगालींत हडकुपाची फ्रेज वापरून तूं ताका दुखयतलो. मागीर ती सदचे भशेन खळखळून हांसताली.

लग्न जातकच कोंकणी पुराय आत्मसात करपाचे प्रक्रियेंत आपली फजिती जातकच घरचीं कशीं हांसतालीं तें ती सांगताली. इंग्लीशींत जशें माय पेन म्हणलें म्हणटकच म्हजें पेन जाता. पूण कोंकणींत, म्हजो, म्हजी आनी म्हजें अशें लिंग स्पश्ट करचें पडटा तशें बंगालींत नाशिल्ल्यान आपूण घुस्पताली अशें तिणें सांगचें. एक दीस तिणें सांगलें. लग्ना उपरांत, नारायणबाब आत्र्यापयऱ्यान नवेताल्ल कपडे घालून सोत्काराक (सत्काराक) वता हें हांवें पळेलें. एक दीस हांवें ताका विचारलें. सत्काराक वतना चकचकीत कपडे कित्याक? नारायणबाबान तिचो

दुबाव पयस केलो. बंगालींत सत्कार म्हणजे अंत्यसंस्कार.

तोंडभर निर्मळ हांसो ही कस्तुरी टिचरीली वळख. पारिभाशीक उतरावळ तयार करपाच्यो बसका गोवा कोंकणी अकादेमीचे लायब्ररींत जाताल्यो. हांव झुऑलोजी विभागांत आशिल्लों. कस्तुरी टिचर अर्थातूच बॉटनीच्या गटांत आशिल्ली. थंय अदींमदीं क्लिश्ट जड काम करतना विसवा वेळार ती म्हाका मिमीक्री बी करूंक सांगताली. हांव मातसो गंभीर बी रावल्यार आयज सिरीयस कित्याक रे? अशी वासपूस करताली. केन्नाय खावपाक बी घेवन येताली. तिका म्हजे ज्योक आवडटाले. तिचो हांसून हांसून मुड्डो जावचो. असले ज्योक नारायणबाबाक सांगपाचें धारिश्टय आमकां ना रे सायबा! आमच्या गोवा कोंकणी अकादमींतले मिटींगेक स.प्रकाशबाब थळी आसतालो. ताचे ज्योक, इंग्लीश कोटयो भन्नाट. कस्तुरी टिचरीक ताचे विनोद चड आवडटाले. प्रकाशबाबाले ज्योक, हजरजबाबीपण, कलेंतली हुशारी, बुदवंतकाय जस्ट ग्रेट अशें ती म्हाका खूब खेपे सांगताली.

टिचरी कडेन उलयतना एक मेकळीक आसताली. विद्यार्थ्यांमदीं आसतना ती काळजान , मनान तांचेयेदी जाताली. आमचेकडेन उलयतना आमचे येदी. कोंकणी अकादमींत टिचरीची हांव मुलाखत घेतिल्ले भशेन घेतालों. तुमचें दोगांयचेंय केन्नाय वाजता? पेट्टा? वाद जातात? एकाडेमीक वाद जातात? वाद जावन वितंडवाद बी जातात? तिणें सांगचें, हय. मागीर तुमी उलयनासतना बी उरतात? तिणें म्हणचें - हय. मागीर कितले दीस तुमी उलयनासतना उरतात? हो वाद कसो पालवता? तिणें गंभीर जावन म्हणचें - तुजो फ्रेंड तसो कडक. आपलें म्हणणें, मत कसोच सोडिना. दोन दीस ताण बी उरता. फोन आयला अपूर्वाचो , फोन आयला अमक्याचो अशें एकामेकांक सांगत मागीर आमचो वादाचो राग खंयचे खंय नाच्च जाता, अशें टिचरीन सांगचें. म्हजो फ्रेंड कडक जाल्यार तुवें ताचेर इतलें उपाट प्रेम कित्याक केलें गे? अशें हांवें

विचारचें. नेट्टान उच्चारचें. पूण मनांतल्यान मनांत आं. आमची असली ही मुलाखत जेवणाच्या ब्रेका वेळार चलची. बाकिच्यांनी ताचो खूब आनंद घेवचो. टिचरीची उपचारीक मुलाखत हांवें घेतली ती तिका साहित्य अकादमीचो अणकाराचो पुरस्कार मेळटकच. आकाशवाणी खातीर. तातूंत ती खूब रंगली. तिच्या कोंकणी उच्चारांक बंगाली उच्चारांचो एक वेगळोच लहेजा आसतालो. अरण्येर अधिकार ह्या महाश्वेता देवीच्या कोंकणींत अणकारीत केल्लया कादंबरीचेर ती मनापसून उलयली. तातूंतल्या कितल्याशाच बंगाली संस्कृताये कडेन निगडीत संकल्पनांचेर खोल विसकाटवणी करून ती उलयली. म्हजे खातीर बंगाली समाजीक, इतीहासीक, भुगोलीक संदर्भांचे कितलेंशेंच नवेपण शिकपाचो तो अणभव आशिल्लो. तिची ही मुलाखत दोन खेपे वितरायल्ली. आपल्या कितल्याशाच विद्यार्थ्यांनी ती उपरांत आयकली अशें तिणें म्हाका मुजरत सांगलें.

अशी ही कस्तुरी. प्रतीसाद दिवपी. तोखेवपी. थंय केन्नाच काटकसर करची ना. कस्तुरीक कितल्याशाच गजालींनी रस आशिल्लो. एक वेगळीच चमक तिचेठांय नंदताली. असली उपजत चमक आसप हें एक देणें. चैतन्याची व्हडली महाकाय सदांच चार्ज जाल्ली बॅटरी तिचेठांय वसताली. तिच्या लागसार कोणेय येवचें आनी तांणी हे बॅटरेन आपणाक आपसूक रिचार्ज करून घेवचें. पर्यावरण विशय, मार्ग चळवळ, समाजीक देणें, साहित्यीक आनी सांस्कृतीक कार्यावळी, आपलो बॉटनी विशय, परिसंवादांत पेपर वाचप नाजाल्यार आयोजनांत रमप, अणकार, संगीत... नाना विशय...सगल्यांनी तिची सक्रीय गती. आपलेच तंद्रेंत रमपी आनी हांश्याक कारण जावपी कांय लोकांच्यो गजाली हांव तिका मिमीक्री करून दाखयतालों. ती हांस हांस हांसताली. ते मनीस मागीर दिश्टी पडटकच तिका खंय हांसो कंट्रोल करप शक्य जाय नाशिल्लें. नारायणबाबाक वायट दिसत, हांसूंक फावना म्हूण तिचेर चेपण येवचें.

असल्यो कितल्योशयोच गमती - जमती आयकतकच तिणेंय कांय गजाली सांगच्यो. आमगेर फोन येता. डॉ देसाय आसा? तेवटेनच्यान आवाज येता. हांव विचारतां - खंयचो डॉ देसाय तुमकां जाय? नारायण काय कस्तुरी? कारण दोगांय दोतोर. डॉक्टरेट मेळयल्लीं. कस्तुरी कडेन नांवाक सोबसो सुगंध आशिल्लो. ती लोकांक लागीं करताली काय ह्या परमळा खातीर लोक तिका वश जावचो सांगप कठीण. तिचे ठांय संघटन कौशल्य आशिल्लें. आयोजन ती आनंदान उत्साहान करताली. दुसऱ्यां खातीर मदत करतना आपलेंच काम तें अशी भावना. वळेसर ह्या म्हज्या पयल्या पुस्तकाच्या फोंड्या जाल्ले कार्यावळीच्या आयोजनाची पुराय जापसालदारकी कस्तुरीन आनी नारायणबाबान उखलली. सगळो पेंच ताणी भुजांर घेतलो आनी कार्यावळ यशस्वीपणान तडीक व्हेली. तांचे उपकार विसरूं नजो.

देसाय कुटुंबीय आमकां खूब लागींचे. घरगुती कार्यावळींनी लेगीत कस्तुरी आपल्या सगळ्या सोयऱ्या धायऱ्यांक इश्टांक लागीं करताली, बोलकी करताली आनी आपल्या चैतन्यान सगळो माहोल गाज गडगडाटान हांश्याच्या चित्कारांनी फुलोवन उडयताली.

कस्तुरीक हांव कितेंय प्रस्न विचारी. तुजो मिलीटरींतलो बापूय कडक आशिल्लो टीचर? सामको कडक. मिलीटरी शिस्त. एक दीस म्हाका कॉलेजांतल्यान घरा येवपाक कळाव जाल्लो. तातूंत म्हज्या पांयांचे जोतें तुटलें. तें शिंवपाक चांभार मेळना जालो. तें तशेंच हातांत धरून हांव भितर सरलें. वेळ जाला म्हूण तो पयलींच तिडकल्लो. अनवाणी पळोवन आनीक संतापलो. म्हाका येतीश्ट तापयलें. आनी म्हजेर एक फुलयलें. कस्तुरी मदीं एक वेगळीच चुणूक आनी चमक आशिल्ली. नित्य नूतन अशें चैतन्य. ती कॉलेजांत शिकोवंक वता काय शिकूंक अशें कोणाकूय दिसूं येतालें. कारण मूर्ती ल्हान आनी वृत्ती अहंकार विरयत. विद्वत्तेचो, हुशारेचो, अडेचो कसलोच झेत नी.



कस्तुरीक हांवें खूब्ब खोश्शी तीन खिणांक पळेली. तिका अणकाराचो साहित्य पुरस्कार मेळिल्लो तेन्ना तो सुवाळो कला अकादमींत जाल्लो. घे गर्दी. काणकोणच्या बस करून लोक आयिल्लो.

टीचर, आय एन्वी यू. इतलो लोक? तुज्या खातीर आनी नारायबाबा खातीर?

जस्ट सी मुकेश. काणकोणकारांनी जायो हाडल्यात पळे. कितल्यो पळे.

तिचो पोसो सुंदर वासाळ जायांनी भरिल्लो. जायांचे हार आनी पोड काणकोणकारांनी तिका माळ्ळे. बऱ्या मागप्यांच्या प्रेमान ती जायांपरसूय चड फुल्ली. त्या वेळा वयलो तिचो आनंद अत्युच्च आशिल्लो.

धूव अपूर्वाचो अरंगेत्रम नाच फोंड्या राजीव गांधी कला मंदिरांत जालो. भरतनाट्यम शिकतकच नर्तिका पयली भौशीक कार्यावळ सादर करता तिका अरंगेत्रम म्हणटात. फोन केल्यार पुरो आशिल्लो. पूण कस्तुरी आनी नारायणबाब मुजरत सांगपाक आयलीं. नट सचीन खेडेकार मुखेल सोयरो आशिल्लो. आमी कुटुंबा सयत हाजीर रावलीं. सुंदर सुवाळो. मारीया आवरोरा कुटोन अप्रतीम भाशण केलें. अपूर्वाच्या नाचाक भरगच्च भरिल्लया प्रेक्षक वर्गान दाद दिली. हांवें भितर वचून विचारलें

- टीचर, लोक तुमकां चुंबका भशेन वश कशे जातात गे? आयजूय इतली गर्दी?

कस्तुरी आनंदान भरून ओतताली.

अपूर्वाच्या लग्नाक फर्मागुडयेर जो लोकांचो हुंवार आयिल्लो तितलो लोक ते सुवातेर आनीक केन्ना जाल्लो खबर ना. कितें लोक गे टिचर? अशें विचारपाक फुरसतूच मेळ्ळीना. इतलो लोकघोगो लोटत आशिल्लो.

मंदार हो तिचो जावंय. ताच्या अभिजात गायकीचे स्वर तिका

खूब्ब आवडटाले. एक दीस मंदाराच्या गायन मैफिलीक हांव गेल्लों. गाणें जातकच हांवें इंग्लीशींत तिका सांगलें - टीचर, तुजे आवयक बंगालींत सांग, तुजो नातजावंय अपुरबायेचो आं. स्वर काळजात भिडल्यात. तिणें ओंठांचो बंगाली चंबू करून आवयक सांगलें आनी आपूण मनमुराद हांसली.

कस्तुरी सदाआनंदी. तिका थकिल्ली हांवें एकदांच पळेली. एकदांच. दुयेंत आसतना फोंड्या हॉस्पिटलांत. सामकी जाम जाल्ली. तरी लेगीत उलयली. थंय तिका हांव दोनदां मेळ्ळों. अकस्मात तिका बेळगांवां व्हेली. ती सिरीयस आसा अशें कळटकच सगळ्यांचोच जीव गोळाक लागलो. सगले वरा वरान खबर घेत आशिल्ले. निमाणें वायट खबर आयली. पेपर ,टीवीवाले, सगळे मिडीयावाले इश्ट राती कडेन म्हाका फोनार फोन करून विचारीत रावले. पूण छापूं येत आनी वितरावं येत अशी खात्रेची बातमी मेळनासली. इतल्यांत ...रातचो इकरांक नारायणबाबालो एसएमएस आयलो. 'आमी हरले. आतां कस्तुरी फकत एक याद.' घळ्ळ करून दुकां गळ्ळीं. माईचीं आनी नंदिनीचीं दुकां थांबोवपाक मात म्हाका त्राण नाशिल्लें... आयिल्ले सगळे वतले हें तत्वगिन्यान आमी सगळे जाणात. कोणूय वतकच पोकळी जाल्या अशें म्हणटात तेन्ना आमी आमकांच फटयतात अशें दिसता. पूण कस्तुरी गेली ती सगळ्यांच्या जिणे पोरसांत पोकळी करून गेली. तिची अकस्मात एग्झीट काळजाक सांसणाचो चटको लावन गेली!



# संजीव वेरेंकार

कांय गजाली, कांय खावपाचे जिनस, कांय साहित्यकार,कांय कलाकार, कांय कलाकृती, कांय मनीस आमकां कित्याक आवडनात हाचीं कारणां तर्काचे साणीर घांसून मेळनात. तशेंच कांय जाण कित्याक आवडटात, कांय मनीस, तांची अमूक कृती इतली खोलायेन कित्याक आवडटा हाचीय विस्कटावणी तर्काच्या वरखुलाचेर कोणें करची न्हय. म्हणजे करूंच नजो. संजीव म्हाका कित्याक आवडटा आनी संजीवाली कविता इतली कित्याक आवडटा ताचें कारण म्हाका कळना. आनी तें समजून घेवपाचे भानगडींतूय हांव पडना.

सरभोंवतणी तरेकतरांचीं मनशां चलतात भोंवतात. तातूंत सक्रियतेन इंगळ्यां भशेन सदांच पेटिल्लीं आनी लागींच्याक, संपर्कांत येतल्यांक पेटोवन घालपी कांय मनशांय समाजांत वावुरतात. संजीव ह्या वर्गांतलो. सजीव. जीवसाणीन आनी चैतन्यान सदांच ओतप्रोत भरिल्लो आनी भारिल्लो. जल्मजात कसली तरी सदांच चार्ज जाल्ली बॅटरी हाच्या आंगापांगांत रसरसून पेटत आसा अशें दिसचें. तोंड बावकें केल्लो, मरगळ आयिल्लो, वाजेवन उलयल्लो, जिवाक उबगलेलो, कांय प्रतीकूल

प्रसंगांक आपली टवटवी वगडायल्लो संजीव केन्नाच तुमकां मेळचोना. म्हाका हो संजीव पयलींच केन्ना भेटलो ताची याद जायना. पूण तो सावय-वेऱ्यां उत्कर्श विद्यालयांत शिकतालो. म्हजी मावशी सावयची. मावसभावां कडल्यान संजीवा विशीं आयकल्लें आसूं येता. वा कवी संजीव वेरेंकाराल्यो कविता भुरगेपणांत वाचता आसतनाच ताची चड वळख ह्या मावसभावांनी करून दिल्या आसूं येता. फुडें धेंपे कॉलेजांत हांव सायन्सीक आसतना संजीव कला फांट्यांत बीए करतालो. तेन्ना आमची इश्टागत मातशी दाट जाली. कोंकणी आनी साहित्य हो एकमेव दुवो. हांव गद्याची उपासना करपी आनी संजीव पद्याचो पुजारी. संजीव सावयचो. म्हजें भुरगेपण प्रियोळा गेलें. अंत्रुज म्हालांतले मातयेनूय आमकां लागीं हाडल्यात आसूंये. संजीवालेच भाशेंत सांगचें जाल्यार तो आपलें गांवठीपण जपता. हांवूय गांवांतल्यानूच आयिल्ल्यान म्हाकाय म्हजें अस्सल गांवठीपण खूब आवडटा. हें जगपाचें सादेपण दोगांयचेय इश्टागतींतलो दुवो थारला आसूं येता.

संजीवान आपलें कविते कडलें नातें सदांच घट घट केलें. कवितेकडली निश्ठा तो वाडयत रावलो. हें सातत्य कवतूक करीसारकें. कोंकणी वाडची फळची फुलची हाचेंय ताचें चिंतन ताची भलायकी सदांच सुदृढ दवरपी. कोंकणीच्या मळार कसलीय गजाल गैर घडली काय हरशीं स्वताक शांत संयत रावन संयमांत दवरपी हो संजीव अजुनूय पेटून उठ्ठा. कसलेय तरेचो अन्याय जातकच तो बॉम्ब फुटिल्ले भशेन फुट्टलो असोच भास जाता. तो मागीर बेगीन न्हिवना. शांत जायना. कारण ताचें आवयभाशे विशींचें आनी भाशेच्या हिताविशींचें प्रेम खरें खरें आनी विशुध्द. कितल्याशाच गजालीं विशीं उलयतना मात तो बेफिकीर आशिल्ल्याचें भासोवन दिता. पूण तो प्रत्यक्षांत तसो आसचना. चर्चा करतना तो हांसता. प्रत्यक्षांत ताचे कडेन संवाद सादतना वा फोनार उलयतना तो कांय प्रसंगां वेळार कांय प्रस्नां

संदर्भांत हांस हांस हांसता. खरें म्हणचे ताका हांसपाचें आसचना. हांसता कित्याक अशें विचारतकच तो आनीकूय हांसता आनी म्हणटा - अशेंच हांसून उडोवपाचें आसता रे तें. बेठेंच आरोग्य इबाडून कित्याक घेवया?

जिणेच्या वेगवेगळ्या मोडणांचेर, संघर्शाच्या वेगवेगळ्या प्रसंगांचेर धिरान पासिंयेंसान आनी सगल्यांत म्हत्वाचें म्हणजे परिपक्वतायेन तोंड दिवप ही सादी सोपी गजाल न्हय. जिणेच्या कांय तांसांक कितपत भिडचें, खंय खंय गंभीरपणान कितलें खोल वचचें, खंय खंय आडनदर करची आनी मुखार वचचें हें समजप ही जीवनसाधनेची एक कला. मुदलांतूच जिणेंतल्या कांय मुळाव्या गजालीं विशीं स्पश्टता नासतकच जिणेची गाडी खूब जाण कायचे काय चलयतात, नो पार्कींग आनी नो एण्ट्री झोनांत व्हरून त्रासांत पडटात. फोंडांत पडून जिणेचें खोबरेंय करून घेतात. संजीवाक ह्या असल्या गजालींची खोलायेन जाण आसा. आमचे परस चड, खूब खेपे. आनी आमकांय तो इश्ट म्हूण थेटपणान वा अस्वडीं असल्या नाजूक प्रसंगांचेर कशें वागचें हाची देख दित आसता. नोकरी म्हणजे कितें, थंय कसलीं कसलीं म्होंवाळीं काडून दवरचीं पडटात, थंय आपली भूमिका कितें आसची, ती कशी आकाराक हाडूंक जाय, थंय कितलो आनी कसो जीव घालप, समजिकायेन तडजोडीन कशें वागचें, समाजांत वर्तन कशें आसचें, कुटुंबांतली चालचलणूक, नीती, सडेतोडपणा केन्ना आनी कितलीं आसचीं ह्या वयर वयर बारीकसारीक दिसपी गजालींची समज संजीवाक बरे तरेन आसा. हें जेन्ना जेन्ना जाका ताका कळना तेन्ना तो कसो घाळटा घाणटा आनी सामको काबार जाता हेंवूय तो सोप्या उतरांनी देखी दिवन विस्कटावन सांगता. तातूंतल्यान आमीय आमचें वर्तन बेसूर जावंक फावना हेविशीं शादूर जातात.

संजीवाली चलपाची एक पध्दत आसा. संजीवाली उलोवपाची

एक शैली आसा. उलयतना तो हातवारे करता. तातूंत एक साभिनय जीवसाण जाणवता. चलपांत उलोवपांत एक विशिश्ट आवर्तन आसा. मदींच लयेच्या चलनात खाली मात्रा आसची तशी तो उलयतना पॉज घेता आनी तुका पळोवन आं... आं... असो प्रस्न करता. ताचेपयलीं ताणें तुका एक ओपार मारिल्ली आसता. आनी घुसपायल्लोय आसता.

खूब जाण म्हणटात - संजीव कुवाड्यांनी उलयता. म्हाका दिसता, तो काव्यमय उलयता. ताच्या उतरांनी उपमा येतात, प्रतीकां - प्रतिमा, दृश्टांत म्हणजे नीतीकथा येतात. बुध्दीबळांतलें उंट जशें सुर्र करून तिरपें धांवता तसो एकेकदां हो संजीव तुका चर्चेवेळार तिरपे फांशे उडोवन चिंतनांत खेंचता आनी विचारप्रवृत्त करता. 'तुम रहो अपनी मस्ती में, आग लगो वहां बस्ती में' अशे नशेंत रावंक सोदशी वा न्हिदेचें सवंग आपणावंक सोदशी जाल्यार तुका हो संजीव तसो घाळ रावंक दिवचोना. आपल्या उलोवपांल्यान, कृतींतल्यान आनी कवितेंतल्यान तो तुका पेटोवन घालतलो. आपुणूय न्हिदचोना आनी तुकाय सुखासुखी न्हिदूंक दिवचोना.

संजीव कुटुंबवत्सल. गेस्टांचें ताका पिशें. गेस्ट पावलेना जाल्यार ताका आनी ताच्या घरच्यांक त्रास जाता. मनीस नांवाच्या पुस्तकांत सगले तरेचे भेद हुपून हो कवी मिसळटा आनी रममाण जाता. तांचीं सुखदुख्खां समजून घेता. शक्य आसल्यार तांच्या दुख्खांचेर फूक मारता. आपले तांकीन मदत करता. कांय जाण विसरतात. पूण तेविशीं ताका खंत आसना. तो करीत रावता. तातूंत ताका एक वेगळो आनंद मेळटा.

आपल्या इश्टांक तो अपुरबायेन आपले शैलीन मार्गदर्शन करता. एकदां आमी कांय इश्ट जमिल्ले. तेन्ना एकल्या विशीं उलयतना संजीवान म्हणलें

- हाणें अमूक व्यसन सोडलें तें आपणाक खूब खूब आवडलें.

बेस बरें जालें.

च्या घेवन परततना आनीक एकल्या इश्टान म्हाका विचारलें - संजीव समजला ती गजाल सारकी न्हय आं. हाचें तें व्यसन सुटलां आनी सुट्टलें ही गजाल शक्य आसा रे?

हांवें त्या इश्टाक समजायलो. तूं संजीवाक वळखना. खोलायेन वळखना. हांव वळखतां तितलों. त्या इश्टाक बरो जाला बरो जाला शाणो जालो अशें सांगीत संजीव ताका बरो वागपाचो एके वेगळे पध्दतीन संदेश दित आसा. ताची वेगळेच तरेन सायकोएनलीसीस करता. तातूंतल्यान एक गजाल जातली. निदान आमचे हुजीर तरी तो केन्नाच व्यसनाक वाट करून दिवचोना वा लजतलो. व्यसन थोडें तरी उणें जातलें. ताणें व्यसन सोडलें हें तो सगळ्यांकूच सांगीत आसता. हेत फकत तो बरो जावचो हो. संजीव हो हुशार तो असो!

लक्ष्मणराव सरदेसाय सारक्या म्हान कथाकाराचो सांगात ह्या संजीवाक वेऱ्यां भुरगेपणांत मळ्ळो. उपरांत पुंडलीक नायक कोंकणीची घुडी आनी साहित्याची पालखी घेवन मुखार सरलो तेन्ना ताचेकडल्यानूय संजीवान हेरांवांगडा कोंकणी सेवेची प्रेरणा घेतली. कवी आनी कलाकार उदय म्हांबऱ्या सारक्या जिवाभावा सारक्या इश्टाची ऊब, उर्जा, उश्णता हें संजीवाल्या जिणेचें एक निरंतर टॉनीक. अशें ताच्या उलोवपांत जाणवता.

म्हजो काका प्रकाश थळी हाका संजीव प्रकाशभाई म्हणटालो. तांणी दोगांनीय सुनापरान्त दिसाळ्यांत वांगडा काम केलां. दोगांनीय एकामेकांचेर खूब प्रेम केलें. प्रकाशबाबान संजीवाचेरूच मोग केलोना तर ताच्यो कविता ताका खूब आवडटाल्यो. हरशीं प्रकाशबाबान आकांताची तांक आसुनूय एकेक कथाकाराची एक वा दोन कथा इंग्लीशींत अणकारीत केल्यात. पूण संजीवाल्या कवितांचें आख्खें पुस्तकूच इंग्लीशींत अणकारलां. प्रकाशबाबाच्या निमाणच्या दिसांनी

तो हॉस्पीटलांत आसतना संजीवान म्हाका आनी आमच्या कुटुंबाक जो मानसीक आनी भावनीक धीर दिला ताचे उपकार हांव विसरूंक शकना. प्रकाशबाबान संजीवाल्या *चैतनाच्या पांवल्यो* ह्या पुस्तकाक बरयल्ली प्रस्तावनाय अभ्यासकांनी मुजरत वाचची अशी आसा. संजीवाल्या मनीसपणा विशीं दिलदार सभ्य स्वभावा विशीं तातूंत सांगलां. संजीवाल्या उदार अंतस्करणा विशीं सांगलां.

संजीवान कोंकणीच्या मळार जो वावर केला तो खूब प्रेमान आनी पोटतिडकीन केला. निसुवार्थीपणान केला. म्हणून हो कोंकणीचो सेवक म्हज्या दोळ्यां मुखार आसा. संजीवाल्या ह्या कार्याचें खूब लागींच्यान दर्शन हांवें घेतलां तरी ती एक उपाट प्रेमाची गजाल आशिल्ल्यान त्या इतिहासाचो उतरांनी नियाळ घेवन ताचें मोल उणें जावंक दिवंक फावना. संजीवाली कविता म्हाका खूब आवडटा. कारण ती म्हाका कळटा. म्हजे भशेनूच आनीकूय कोणाक तरी अशेंच दुख्ख जालां हें ताचे कवितेंतल्यान जाणवता आनी त्या दुख्खाच्या खिणांक तो दुकां पुसता अशें दिसता. संजीवाले कवितेंत समाजीक भान आसा. ताकाय लागून म्हाका ती कविता म्हाका खूब भावता. धोल ही म्हाका आवडिल्ली संजीवाली एक असामान्य कविता.

*हांव म्हळ्यार शिगम्यांतलो धोल कसो.*
*वाजयन दिप्ता ताणें तोणी मारपाचो.*
*कोणेंय कोणाच्याय गळ्यांत लकोवपाचो.*
*वाजोवन वाजोवन चामडें म्हजें पातळ जालां.*
*कोणूय येयात कोणूय वाजयात,*
*म्हजो आतां आवाजूच बंद जाला!*

संजीवाल्यो कितल्योशयोच कविता म्हणजे वेदनेच्या खोर्नांत हुलपून भाजून धग सोसून तापांतल्यान वयर उसळिल्लीं कलात्मक फुलां अशें म्हाका खूब खेपे दिसता. ताच्यो आनीकूय खूब कविता

आसात, ज्यो त्या त्या प्रसंगाक याद जातात. इतल्यो त्यो आमच्यांत खंय तरी भितर खोलखोल एकजीव जाल्यात. संजीवाक काँक्रिटचीं जंगलां मातत वतात, पर्यावरण आनी झाडांपेडांचो नाश चलला हें सोंसना. हेय खंतीक तो कवितेंतल्यान वाट मेकळी करून दिता. ताचे कवितेंत वेगवेगळे बदल आनी प्रवाह दिसून येतात. प्रा. काशीनाथ नायकान ह्या मळार एक देखदिणो वावर केला. संजीवाले कवितेंतल्या विविध आयामांचेर खास पुस्तक बरयलां. *संजीवाल्या काव्यांतली संवेदनशीलता* हें त्या पुस्तकाचें नांव.

संजीव उलयता वा बरयता तेन्ना ताचे भाशेंत, उतरांनी आनी शब्दकळेंत गांवगिरे मातयेचो वास सहजतायेन घोळटा हें दिसून येता. *आबूय शेकलो आनी कोयरूय लासलो* वा *दरेवयर खंयचीच नुस्तेकात्र खवळ हालयता?* अश्यो प्रस्नार्थक ओपारीय तो मारता. ताचे कडल्यान असले गांवगिरे भाशेंतले खूब शब्दप्रयोग आनी ओपारी हांव शिकत आसतां. संजीवाल्या म्हाका आवडिल्ल्या कवितांची वळेरी मोटी. कुत्रे ही धाकुटली कविता सांगपाचो मोह जाता.

*म्हज्या एका सोयऱ्यागेर खूब कुत्रे आसात*
*धाकले जातीचे, व्हडले जातीचे*
*तरातरांचे.*
*तांची अपुरबाय पळोवन म्हाका दिसता*
*तांचे मदलो हांव एक आसपाचो म्हूण.*

मनशां परस मोनजातीचेर उपाट प्रेम करपी कांय जाण भोंवतणी म्हाकाय दिसतात. पूण म्हज्याच मनांतल्यो भावना आनी विचार हो कवी अशे तरेन मुदयेर थीक बसयल्ल्या उतरांनी कसो सांगता काय, होच प्रस्न पडटा!



# राज का राज

भुरगेपणांतल्यानूच पेपर वाचपाचें पिशें. च्या वांगडा खबरेपत्रां जायच. तेन्ना पेपरांचेर पयल्याच पानार फोटो आसतालो. पोंदा एक वळ. छाया - अंबाजी कामत. तें आमी मोट्ट्यान वाचताले. थळाव्या तशेंच राश्ट्रीय पेपरांवयल्यो बातम्यो, अग्रलेख, व्यंगचित्र, वाचप्यांचीं पत्रां अशे तरेन वाचपाचें पिशें वाडत गेलें.

सुनापरान्त पणजेसावन रंगीत आनी चड पानांचो येवपाक लागलो तेन्ना घे कितली खोशी जाली! संदेशाले टीमींत आयलो फोटो पत्रकार राजतिलक नायक. आमी ताका राज म्हणटात. राजाचे आकर्शक फोटे लक्ष  ओडून घेताले. एक फोटो अजून लक्षांत आसा. एका पांजऱ्यांत बंदिस्त केल्लो किंवाट्यान बोबो मारपी बिबटो, राजान आपल्या कॅमेऱ्यांत बंदिस्त केल्लो. सुळ्यासारके भिरांकूळ दांत, विस्तारिल्लो जबडो... फोटो म्हऱ्यांत वचून घेतिल्ल्यान तातूंत राजालें धाडसूय दिसलें. इल्लोसो फोटो येद्या व्हडल्या शब्दबंबाळ  लेखा परस खूब कितें सांगूंक शकता. ही नाट चित्रकलेची पदवी घेतिल्ल्या आनी नाट्यकलेच्या मळार वावुरिल्ल्या राजतिलकाक पक्की खबर आसा.

राजाक दोन दोळे आसात. एक जल्मजात कलाकाराचो आनी दुसरो सजग पत्रकाराचो. ताच्यांत चिंतनशील कलाकार आनी पत्रकार आसा. त्या दोगांचेंय विकसन आनी वाड अभ्यासा वरवीं जायत रावंक जाय हें तो जाणा! राज कालांतरान नवहिंद टायम्सांत पावलो. उपरांत टायम्स ऑफ इंडीयांत. आयज टायम्स उकतो करिनाफुडें आमी पयलीं पळेतात ते राजाले फोटे. फोटवांतलें शैलीचें नाविन्य आनी कल्पक मांडावळ आनी कलात्मकता.

सौंदर्यशास्त्राचे अभ्यासक आनी कवी माधवबाब बोरकार ऑफिसांतल्या कॅण्टिनांत च्या घेतना राजतिलकाच्या फोट्यांतले कलेचे म्हज्या दोळ्यांचे लेन्सीन हेरूंक नाशिल्ले विविध आयाम आनी बारीकसाणी उलगडून दाखयत आसतात. राज हो आमच्या दिसपट्ट्या उलोवण्याचो विशय.

आपलो एक दोळो तटस्थ आनी दुसरो निपक्ष अशे तरेन काडिल्ल्या राजाल्या फोट्यांनी समाजीक व्यंगाचेर चिपचिपीत बडी मारिल्ली दिसता. भौशीक विशयांक वाचा फोडिल्ली आसता. सैमाचे अप्रूप रंग आनी ऋतूचित्रांचे देखाव टिपिल्ले आसतात जे आमचें सैमाकडेन रसिकतायेन पळोवपाचें भान जागृत करतात. गुलमोहर फुलांचो रस्त्यावयलो तांबडोगुंज सडो आनी मुखावयल्यान येवपी मोटारसायकली वयलें जोडपें हांचो फोटो विशिशट कोनांतल्यान टिपिल्लो फोटो ऋतूची आनी तातूंतल्या फुलांच्या बहराची सुलूस दाखयता. रस्त्याचीं फोंडकुलां दाखयतना तातूंत उफेवपी रंगीत तेलतो आनी तेलत्यांत उदेल्लें भायलें प्रतीबिंब लेगीत राज कुशळटायेन टिपता. आमचें सपसप लक्ष वचना अशा कितल्याशाच भौशीक आनी भौतीक फोंडकुलांचेर तो उजवाड घालीत आसता! ताचे फोटे दोळे उगडे करून जाग हाडटात - सत्ताधीश राजाक आनी प्रजेक. तातूंत किंवाटो ना. हारशावरी पारदर्शक अशें वास्तवतायेचें दर्शन आसता. भोंवतण मंगल आनी उन्नत जावं ही बरी भावना ताचे

फाटल्यान आसता. जिणेचें बरें आनी वायट दोनूय प्रतिबिंब फोट्यांनी आसा तशें उठून दिसता.

राजतिलकाच्या फोट्यांत सखोल सूचकताय आसता, शांत आनी संयत रितीन ते फोटे खूब कितें उलयतात. सांगतात. आशयघन आनी दर्जेदार कलाकृतीचें लक्षण हें ! ताचे फोटे न्हिदेचें सवंग घेतिल्ल्यांक लेगीत अस्वस्थ करून सोडटात. राजाल्या फोट्यांचें प्रदर्शन जातलें तेन्ना जातलें. पूण मनाच्या स्मरणरूपी दालनांत हांव पासय मारीत भोंवता आनी कांय फोटे परत परत पळेतां. मळबाचीं रूपां, कश्टुपी शेतकार, बालकामगार विरोधी दिसा फातर तासपी भुरगो, स्कुलाचीं भुरगीं, मिरामार दनपारच्या वगतार आपलेच स्कुटरीचेर लकणी काडपी मनीस, बेपर्वा-बेजबाबदारपणा दाखोवपी बोलकीं चित्रां, माशेलांतलो चिखलकालो, उसळपी चिखलाचीं नक्षीदार भूमितीय आनी त्रिमीतीय फील दिवपी डिझायनांची रूपां, संप करपी लोकांचो सव्या माळ्यावेल्यान घेतिल्लो वेगळ्याच कोनांतल्यान फाटसून घेतिल्लो फोटो, संस्कृताय - परंपरा -दायज - मुळां हांच्या संवर्धनाचो उतरांविरयत प्रभावी संदेश दिवपी विविध असंख्य छायाचित्रां... मेजणी करूं नजो. फोटोग्राफीचेय कलेचें व्याकरण आसाच. तंत्र आसा. मंत्र आसा. शास्त्र आसा. ही गजाल कोणाकूय शिकोवंक येत. पूण आपली उपजत प्रतिभा कशी ओतप हें मात शिकोवं नज. सृजनशील कलेची खासीयत ती ही. तंत्रज्ञानान घडयल्ल्या क्रांतीन नवेनवे बरेबरे कॅमेरे दिल्यात. पूण प्रतिभावान कलाकार आनी फोटो पत्रकार दिवपाची तांक तंत्रज्ञानाकडेन ना.

राजान फोटो पत्रकारांची संघटना घडोवपाक फुडाकार घेतलो. दर वर्सा फोटोग्राफीचो छंद आशिल्ल्यां खातीर फोटो सर्त सुरू केली. ताका उत्स्फूर्त प्रतीसाद मेळटा हें आमी कला अकादमींत मांडिल्ल्या प्रदर्शनातल्यान अणभवलें. ह्या बिगर वेवसायीक फोटोग्राफरां खातीर जाणकारांच्या मार्गदर्शनाची कार्यशाळाय सुरु केली. हे कलेचे चळवळीचें

मुळावण घालें ही लत्कुबायेची गजाल.

ध्यासमग्न कलाकार कलासाधनेंत 24 वरां बुडिल्लो आसता. तेन्नाच तो रसिकांक आनंद दिवंक शकता. जो आत्मीक समाधान घेता तोच दुसऱ्याक तें दिवंक शकता. राज हो असो. नाटकीपणा नाशिल्ली नमळाय, दोळ्यांच्यो बारीक किलकिल्यो लेन्सी, मुखामळार सदांच उसळपी आनी वसपी सैमीक नाजूक हांसो आनी ऋजुतेन भरिल्लें गोड मनीसपण ताचे कलेक आनी कलाकृतीक आनीकूय तेजस्वी उबारी हाडटा. काळजाचो कारबोरेटर निवळ आसता तेन्ना काळजाची लेन्स निवळ उरता. तेन्नाच दोळ्यांच्या बुबुळांतली लेन्स निवळ उरता. आनी तेन्नाच मनाच्या आलबमांत सांसणाचे छाप घालपी फोटे कलाकारा कडल्यान टिपप घडटा.

आत्मीक समाधान घेता तोच कलाकार समाधान दिवंक शकता. अपुरबायेच्या राजतिलकान आपली कला शिखराचेर पावोवची. व्हड करची. प्रगत देशांनी म्युझीयमां आसातूच, हालीं तांणी 'न्युझी'यमां सुरु केल्यांत. प्रिंट आनी इलेक्ट्रॉनीक माध्यमांतल्यो उत्कृश्ट बातम्यो आनी फोटो - कलाकृती ते आपल्या आरकायवांत सांबाळून दवरतात. भारतीय फोटो पत्रकारांचोय आसपाव तातूंत जाला. केन्ना तरी राजालेय फोटो थंय पावं, आनी आमचें गोंयकारांचें हर्द्दें अभिमानान भरून येवं!

कोणे एके काळीं, आपूण उडटालें आनी त्या उड्डाणा खातीर आपणाक ताळयो पडिल्ल्यो, बक्षीसां बी मेळिल्लीं अशें शेवणें केन्नाच सांगिना. शेतांबांदार रेब्यांत पांखां घश्टीत आळशी कशें लोळनासतना तें मळबाच्या वेगवेगळ्या उंचायेर पांखां फुलोवन उडत आसता, स्वछंद आनंद घेत आसता. राज, तूं असोच उडत आसा. पांय जमनीर दवरून उडत राव. कलेच्या आनी मनीसपणाच्या नव्या आयामांचो आमकांय दिश्टावो घडयत राव. ह्या परिमाणांतल्या उंचायेचें, खोलायेचें, लांबायेचें आनी रुंदायेचें सौंदर्य दाखयत राव. आमी ताळयो मारतले. आमच्याच आनंदा खातीर !

# वेळ

कार्यावळींनी वचून थंय हाजीर रावप तशें कमीच घडटा. म्हणजे खूब खेपे मुद्दमूच टाळटां म्हणल्यार जाता. कारण आयोजन सारकें नासतकच तकलेक ताप जातात आनी वेळ फुकट गेल्ल्याचें दुख्ख जाता. पूण खूब खेपे कांय गजाली आनी ताप चुकनात. हालीं अशेच एके कार्यावळीक गेल्लों. मुखेल सोयऱ्याची वाट पळोवन पळोवन लोक थकले. वाजेले. भुरगीं तर साप विटिल्लीं. कांय भुरग्यांक येवकार गीत गावपाक सकाळींच आपयल्लीं. आयतार आसुनूय सादरीकरणाच्या ताणाक लागून भुरगीं आनीकूय बेगीन उटिल्लीं. वाट पळोवन पळोवन तीं भुकेल्लींय. भुरग्यांचेर असले बेजबाबदारपणाचे आनी बेशिस्तीचे कुसंस्कार घालतात ते पळोवन तकली जाली पिकार. धा मिनटां, धा मिनटांनी पावतां असो मुखेल सोयऱ्याचो प्रतिसाद फोनार येत आशिल्लो. तातुंतूच एक वर गेलें. निमाणची एकदांची कार्यावळ सुरु जाली. पूण आतां प्रस्न पडटा तो असो - जे शंबर लोक जमिल्ले, तांच्या शंबर वरांचो इबाड जालो. ही भौशीक आनी राश्ट्रीय क्षती. हाका जापसालदार कोण? आयोजक काय कार्यावळीक वचपी आमचे सारके लोक?

भुरग्यांकूय वायट देख पावली. वेळाचें म्हत्व आमी जाणट्यांनी देखींनी दिवचें सोडून तांकां ही बेशिस्त आनी आयोजनाची वेळाची बेपर्वा दाखयली. आमी वेवस्थीत वागल्यारूच मूं भुरगीं आनी फुडली पिळगी ताचें अनुकरण करून बरीं वागतलीं?

आमच्या देशांत तशी कितल्याशाच मळांचेर शिस्त ना. वेळाचीय शिस्त ना. हें वक्तशीरपण निटायेर पडलें जाल्यार जायत्यो समस्या आपशींच सुटाव्यो जावं येतात. पूण ती वान्सा जाय आनी वेव्हारीक पांवड्यार ती कृती घडून येवंक जाय. कार्यावळीचें जेन्ना आयोजन करतात तेन्ना ती आंखणी वेवस्थीत आनी सारकी जावंक जाय. जे वक्ते आसात तांकां तांच्या भाशणांचो वेळ अमूक मिनटां म्हूण आदींच स्पश्ट सांगूंक जाय. आनी थंय माचयेर जर तो आमंत्रीत वक्तो थारावन दिल्लो वेळ हुपून व्हांवंक लागलो जाल्यार ताका बरेपणान ताची जाणविकाय करून दिवंक जाय आनी कार्यावळीचो बेरंग आडावंक जाय. कारण जण एकलो आपले जिणेचो एक वांटो दिवन कार्यावळीक आयिल्लो आसता. ताच्या वेळाचो आयोजकांच्या घाळपणाक लागून इबाड जावंक फावना. श्रोत्यांक वाज हाडूंक फावना. तांचो हो वेळ आनंदान आनी नव्या विचारांनी भरपाची कदर आनी भान आयोजकांक आसूंक फावो. कारण तो वेळ सत्कारणी लागूंक जाय.

विदेशांत घडिल्ली एक गजाल थंय रावपी एका गोंयकार इश्टान सांगिल्ली. मूळ गोंयकार पूण अमेरीकेंत स्थायीक जावन आशिल्लो हो इश्ट हालींच गोंयांत आयिल्लो. तो थंय कॉलेजांत शिकयता. थंय खंय, लेक्चर सुरू जातकच पांच मिनटां उसरां प्राध्यापक वर्गांत पावत जाल्यार पांच मिनटां वाट पळोवन विद्यार्थी आपले वाटेक लागिल्ले आसतात. त्या देशांतली आनीक एक गजाल पळेयात. कोणेय कोणाकूय अमूक वेळार अमके कडेन मेळटां असो ॲपॉयटमेंट दिलो जाल्यार वाट पळोवपी मनीस चडांत चड धा मिनटां रावता आनी कूस मारता. ट्रॅफीक

ज्याम जालो म्हूण म्हाका येवपाक कळाव जालो हीं निमतां आयकुपाकूय कोण रावना. कारण ट्रॅफीक सदांच ज्याम आसता. म्हणून ह्यो सगळ्यो गजाली जाणा जावन आपणें वेळाआदींच दुसऱ्याक मेळपाक बेगीन भायर सरून वचूंक जाय. कारण जो तुजी वाट पळेत थंय उबो आसा ताच्याय वेळाचो इबाड जावंक फावना.

भौशीक आनी सांस्कृतीक कार्यावळींनीय वेळापत्रकाविशीं भोव जतनाय घेवंक जाय. मुखेल गजाल म्हणजे, प्रोग्राम वेळार सुरू करूंक जाय. प्रगत देशांनी नाटकाची वा संगिताची कार्यावळ सुरू जायना फुडें मुखेल प्रवेशद्वार बंद करतात. जो कळावान पावता ताका ताचेकडेन तिकेट आसुनूय घरा वचचें पडटा. कारण प्रोग्राम सुरू जातकच जो सभाघरांत पावल दवरता तेन्ना तो मायचेवयल्या कलाकारांक आनी सादर करप्यांक विचलीत करताच पूण रसिक श्रोत्यांचोय रसभंग करता. जे कार्यावळींत हांव भाशण करपाचो आसा ते कार्यावळी वेळार हांव आदींच थंय पावप पसंत करतां. कारण आदीं पावतकच त्या वातावरणाकडेन तादात्म्य सादप शक्य जाता. दुसरी गजाल म्हणजे वाटेर चड येरादारीची कोयंडी जाली जाल्यार कार्यावळीक वेळार पावतलों काय कितें हें चिंतुनूच जीव वयरसकयल जाता आनी मागीर ह्या उलउल्यांचो परिणाम आपल्या सादरीकरणाचेर जाता. कारण एकदां स्वताकडली लय हालली काय ताचो परिणाम प्रभावी सादरीकरण करपाक बादा हाडटा.

वेळ हें म्हाका मेळिल्लें एक सुंदर मोलादीक गिफ्ट. ताची समज आसूंक जाय. तें मानून घेवंक फावो. तें जेन्ना कळना वा ताची स्पश्टता आसना तेन्ना तो मनीस बाकिच्यांचोय वेळ इबाडून उडयता. वेळाक ना सुरवात, ना अंत. अंत आसता मनशाक. आयुश्याक मर्याद आसता. चिमटीभर जीण. चिमटीभर स्वांस आनी चिमटीभर खीण. मेजकींच वर्सां. मेजकेच दीस. ते खीण फळादीक करूंकूच जाय. हे मेजके खीण

आमच्या वांट्याक आयल्यात तांचें भांगर जावंक जाय आनी तांची वाट लागूंक फावना हाची जण एकल्यान जतनाय घेवंक जाय. हांवें म्हजे जिणेंत हे गजालीक प्राधान्य दिलां. म्हजो मोलादीक वेळ सांबाळटनाच हांवें दुसऱ्याच्या वेळाची कदर करूंक जाय. म्हाका लागून दुसऱ्याच्या वेळाचो इबाड जायना मूं हाची जतनाय हांवें बाळगप भोव गरजेचें.

वेळ आमकां खूब गजाली शिकयता. वेळ खूब गजाली आनी दुख्खां पेखयता. वेळ म्हणल्यार न्हंय कशी. ती कांय कळ व्हांवून वतकच तरांतरांचे मानसीक आनी भावनीक घावे पेखयता. वेळूच ताचेर वखद आसता. वेळाचें म्हत्व आनी मोल समजून ते प्रमाण वागप ही एक साधना. ते साधनेंतल्यान परिपक्वताय येता तेन्नाच टायम, टायमींग आनी टायमलॅस हांच्यांतलो भेद आनी फरक कळटा. टायमलॅस म्हणजे कितें हें समजुपाक टायम वचचो पडटा. प्रगल्भताय येवची पडटा. तो दिश्टावो जाता तेन्ना वेळाचें म्हत्व पुरायेन कळूंक लागता. कसलेय गजालीची वाट पळोवपाची कळाशी वेळ शिकयता. आतांच सगळें जावचें अशें जरी आमकां दिसलें तरी तें तशें घडना. जेन्ना घडपाचें तेन्नाच तें घडटा. वेळ आमच्या नियंत्रणांत आसना. यत्न करपाचें आमच्या हातांत आसता. पूण आतांच ऋतू येवं आनी फळां लागूं अशें आमच्यांनी म्हणूं नजो. कोंबो धांपून दवरलो म्हूण सकाळ उदेवपाची उरना अशी एक कोंकणी ओपार आसा. रात सरतली आनी फांतोड जातली हाची वाट पळोवपाची कला वेळ शिकयता.

सादी बी. मातयेच्या दिपल्यांत ती भाजून करपत आसता. पूण तिका खबर आसता, एक दीस तरी घसघशांनी पावस येतलो आनी आपूण त्या दिव्य न्हाणान किल्लतली. फुलतली. ते बियेक लेगीत वेळाची आनी वाट पळोवपाच्या आनंदाचें हें तर्कहीन रहस्य खबर आसता.

पुराणांत एक काणी आयल्या. ककूदम राजाची चली रेवती. तिचें

लग्नूच जुळना. तिचो बापूय अखेरेक तिका घेवन ब्रम्हलोकांत वता. थंय हरशीं तो फक्त 'खीणभर' रावता. ब्रह्मदेव तांचेकडेन पळेता. बापूय आपलो प्रस्न करता - हिचें लग्न केन्ना जातलें? ब्रह्मदेव हांसता. तो सांगता, तुवें तिचे खातीर जे नवरे पळेल्ले ते केन्नाच मेले आनी तांच्यो पिळग्योय हुलगल्यो. तूं धर्तरेच्यान हांगा पावसर सत्तावीस चतुर्युगां जावन गेल्यांत. आतां तूं एक कर. धर्तरेचेर वच आनी थंय तुजी चली रेवती बलरामाक दी. हे काणयेचो आपरोस इतलोच की पृथ्वीलोक सोडून हेर लोकांत वा विशिश्ट अंतराळांत मनशाचें वय तेदेंच उरता. कारण रेवती पिरायेन तेदीच उरल्या.

भौतीकशास्त्रांत वेळ ह्या विशयाचेर आईन्स्टायन आनी हेर शास्त्रज्ञांनी शास्त्रीय चिकीत्सा करून उजवाड घाला. पुराण काळांत अमूक एके स्थितींत वय वाडना म्हूण जी गजाल आयल्या तीच गजाल भौतीकशास्त्रज्ञांनी विशिश्ट परिस्थितींत वय कशें वाडना हें गणितीय समीकरण दिवन स्पश्ट केलां. तात्पर्य-वेळ आनी पिराय ह्यो गजाली सापेक्ष कश्यो आसात हाची सविस्तर फोडणीशी विज्ञानिकांनी केल्या. वेळाच्या मोलादीक म्हत्वाविशीं संतांनी मनीसकुळयेक उपदेश दिवन दवरला. अशा वेळार म्हाका एका संतकवीच्या कवनाची याद जाता. तातूंतल्यो वळी अश्यो-

*जो दुखखांत आसता, ताचो वेळ वचून वचना.*
*जो सुखांत आसता, ताचो वेळ केन्ना सरलो हें ताका कळचना*

हे कवितेंतली ही निमाणची वळ -

*आनी जो दिव्य सत्याचो भोगी आसता*
*ताचे खातीर वेळ हें एक चिरंतनत्व आसता.*

म्हाभारतांत भगवान श्रीकृष्ण कोणाक तरी सांगता - निरोप घेता आस्तना गणोवं नाका. फाटल्यान घुंवन लेगीत पळोवं नाका. तात्काळ निरोप घे. वेळाविशीं उलयतना हांवूय वेळ वगडायनासतना तुमचो निरोप हांगाच घेतां!



# तागडी

भुरगेपणांत आमगेर पसरो आशिल्लो. भुसारी मांड. आजो मांडार आसतालो. तागडेंत माल जोखून दितालो. कडुण, कांदे, बटाट, साकर, गोड... तागडेचो कांटो थीर जायसर आजो दाल्यांत इल्लें इल्लें घालतालो वा इल्लें इल्लें काडटालो. हांव पळेत बसतालों.

ते उपरांत आमी जायत्यो तागड्यो पळेल्यो. नुस्त्या बाजारांत आनी भाजी मार्केटांत तागड्यो दिसूंक लागल्यो. कालांतरान आयलें वजन दाखोवपी डीजीटल यंत्र. इलेक्ट्रॉनीक.

तागडेची सर त्या यंत्राक ना. यंत्राइतली अचूकताय नासत. पूण तागडेंत एक संस्कृतीक परंपरा आसा आनी यादींचीं कितलींशींच मनभुलोवणी रूपां भरल्यांत. तागडी म्हणजे दोन गजालींची संतुळा दाखोवपी एक प्रतीक. कळमेल्ली तागडी, मुदलांतूच दाल्यांनी संतुळा नाशिल्ली तागडी, कांटो सारकी नाशिल्ली तागडी, पसऱ्यावयली तागडी, धाकटुली तागडी अशे कितलेशेच प्रकार आनी ते ते प्रमाण तांचे यादींतले अणभव.

आमच्या घराण्यांत आदवोगाद खूब. तांच्या पुस्तकांचेर एक

प्रतीमा पळेली. तांच्या ऑफिसांनीय तीच मूर्त पळेली. न्यायदेवतेची. दोळ्यांक पट्टी बांदिल्ली आनी योग्य, सार्थ, समान न्याय दिवपी तागडी हातांत घेतिल्ली.

आयज हांव उलयतां ती तागडी तसली न्हय. वजनां वरवीं माल अमूक कील म्हूण मेजपी न्हय. पूण तेच तागडेवयल्यान जिणेंतल्या कांय वजनाच्या तागड्यांचें हें सिम्बॉलीजम येवजता.

भौतीक पसारो बरोच वाडूंक लागला. हिसपाभायर. मळबायेदो. पूण ताचेय पलतडचें आधीभौतीक दाल्याचें अवकाश जर सत्यशोधक यत्नांच्या तानसोरान आपणायलें ना जाल्यार ही तागडी असंतुळीत उरूं येता. ताचो परिणाम एकूच - दुख्ख. अशांती. अस्वस्थताय. बेचैनी. निरशेवणी. हीं दोनूय दालीं समान पांवड्यार जाय. फकत जिणेंतलें सत्य सोदपाच्या दाल्यांत चड भर दिलो जाल्यार भौतीक दालें ल्हव जातलें. फकत भौतीक उपभोगाचीं, मौजमजेचीं, चंगळवादाचीं वजनां एका दाल्यांत घालीं जाल्यार अशांतीक आपोवणें वतलें. जिणेंत भौतीक आनी आदीभौतीक दोनूय दाल्यांमदीं संतुळा जाय. एका संतान बरयलां - तुवें फकत साधना केली आनी दिसपट्टें कर्तव्य कर्म आनी कामां केलीं ना जाल्यार तूं गुळो कसो जातलो. सुस्तेल्ले भशेन जातलो. साधना सोडून जर तूं दिसूयभर कामूच करीत रावलो जाल्यार तूं यंत्र कसो जावन तुजी तकली पिसावल्ले वरी जातली. काम जाय आनी वांगडाच साधनेच्या टॉनीकाचें तितल्याच वजनाचें दालें कामा वांगडा जाय.

खूब जाण बुध्दीक चड म्हत्व दिता. बुद्दीक म्हत्व आसाच. पूण त्या दाल्याक शीममेर आसा. तें दालें जड जालें आनी काळजाचें दालें रितें उरलें जाल्यार परत असंतुळा जातली. व्यक्तीमत्व शांत स्वस्थ उरचें सोडून वाहनाचो कारबोरेटर वा इंजीन बी फर्र फर्र करून आवाज करून बंद पडटा वा घरघरता आनी काम करिना तशें जिणेचें जातलें. जिणेची गाडी कचरो आयिल्ल्यान फाव ते दिकेन आनी गतीन मुखार

वचची ना. भितरल्या प्रदेशाची म्हणजे अंतस्कर्णाची मशागत जाय. काळजाक मसाज जाय. काळजाक न्हाण जाय. तें ओलें ओलें दवरूंक जाय. नाजाल्यार बुद्दीचें इंजीन तापतलें. काळजाक ताचें टॉनीक जाय. ताका आपलो खाशेलो खुराक जाय. हो खुराक कसलो? सत्याच्या चैतन्यमयी सांगाताचो. थंय आनी त्याच स्पर्शान तें शांत शांत उरतलें. नाजाल्यार तें कायमचें तानेल्लें उरतलें. अशांत जावन तळमळत उरतलें. काळजाच्या विकासा कडेन दुर्लक्ष करून बुध्दीच्या दाल्यांतलें वजन वाडून तें आनीकूय अशांत जातलें. काळीज अशांत जातकच भितल्ल्यान जी अस्वस्थताय येतली तो विशय खुबूच भयानक आनी असह्य. बुध्दीचो विकास जायच. पूण त्याच वांगडा काळजाचो फुलारो विकसीत जायत रावंक जाय.

जिणेंत ज्ञान आनी प्रेम हांचो एक पक्को समतोल जाय. ज्ञानाविणें प्रेम घातक आनी प्रेमाविणें ज्ञान बाधक थारूं येता. दोनांचीय दालीं एके समान पातळेर दवरूंक जाय. ती कला जिणेंत साधूंक जाय. तें जो साधता वा ही प्रेम-ज्ञान नांवाची दोन दाल्यांची तागडी जो नीट दवरता, तो जिणेंत यशाचे पांवडे हुपत वता. आनी वेगळे परिपक्कतायेच्या उंचायांचेर पावता.

हालींच एका साहित्यीक मार्गदर्शन कार्यावळींत उलोवपाची संद आयली. तातूंत हांवें आनीक एके तागडेची उपमा दिली. विकसीत जावंक सोदपी कमीटेड लेखकाक पुस्तकां वाचपाची म्हणजे व्यासंगाची भोव गरज आसता. नाजाल्यार तो वाडना. वाचनांतल्यान तो चार्ज जायत रावता. ह्या लेखकाक आनीक एका वाचनाची गरज आसता. ती म्हणजे प्रत्यक्ष जीवन. जिणेंतले दरेके गजालीकडेन ताणें स्वता जावन भिडचें पडटा. आपूण सामान्य मनीस हें विसरनासतना सामन्यां भितर रिगचें पडटा. भरसुचें पडटा. समाजांत मिसळचें पडटा. तेन्नाच ताका थंय जिते जिवे अणभव मेळटले. जिणेच्या वेगवेगळ्या रूपांचें दर्शन

घडटा. पुस्तकांच्याच वाचनांत जर लेखक शेणलो जाल्यार व्यासंगी लेखकाचें सांगप एकांगी जावं येता. त्या विद्वत्तेच्या जड दाल्याच्या वजनान तो चेपूं येता. ताका लागून ताणें जिणेच्या, सैमाच्या, स्वताक अभ्यासपाच्या दाल्यांत बुडून सममोल सादचो पडटा. फकत पुस्तकांतलो किडो जायत जाल्यार त्या लेखकाच्या बरपांत रूक्षपणा, सुकेपणा, निस्तेजपणा, शुश्कपणा, साचिल्लेपण येवं येता.

तागड्यांची प्रतिमा म्हाका आवडटा, कारण ती जिणेच्या वेगवेगळ्या मोडणांचेर वेगवेगळे समतोल सादपाची याद करीत रावता. आनीक एक गजाल. जिणेंत कितल्योश्योच तागड्यो सांबाळच्यो पडटात. एकाच वांगडा. गीतेंत भगवान श्रीकृष्ण अर्जुनाक सांगता - 'तूं झूज कर आनी वांगडाच स्मरणूय कर.' प्रपंच करतनाच परमार्थूय कर हो संदेश ह्या सत्संगी तत्वगिन्यानापोंदा अंतप्रवाहाच्या रुपांत स्रवतना दिसता.

जिणेंतल्या तागडेच्यो कसरती करतना नाका पुरो जाता, जीव गोळाक लागता हें सगलें खरें. तें करतना केन्नाकेन्नाय सर्कशींतल्या विदूशकाची याद येता. माथ्यार एका रंगाचें चेपें घालून कितलींशींच चेपीं हातांत घालून, हवेंत खेळोवपी, माथ्यावयलें हवेंत, हवेंतलें हातांत खेंचपी, चेपें सकयल उडयनासतना संतुळेची ती अचूक कळाशी सादपी विदुशकाच्या त्या कश्टसाध्य कळाशेची याद जाता.

केन्नाकेन्नाय गर्देन भरिल्ल्या बाजारांत आमी दोरये वयल्यान संतुळ्ा सादीत चलपी भुरगें पळेता. आमी स्वांस रोखून पळेतात. भुरग्याच्या हातांत एक बडी आसता. दाव्यान आनी उजव्यान बडी हालयन वावडीत तें भुरगें आपलो समतोल सांबाळटा. तें आमच्या ताळयां कडेन लक्ष दिवन भुल्लुसून आनी तिरतिरून वचना.

आपणाक ते दोरयेचेर मुखार आनीक कितलें अंतर चलून वचूंक जाय हेंय तें चितूंक शकना. पळोवंक शकना. कितलें अंतर हुपलें हाचो नियाळूय एक खीण घेवंक शकना. ताचें पुराय चित्त एकेच गजालीचेर

एकाग्र केल्लें आसता. तें म्हणजे समतोल सादप.

चेर्पी घुंवडावपी विदूशक आन्नी दोरयेर चलपी भुरगें तागडेचें मूळ तत्व आमकां शिकयता. संतुळा सादपाच्या सरावाची याद करून दितात. जिणेंतल्या तरेतरेच्या तागड्यांची संतुळा सादत रावप हीय अशीच एक व्हड कला. त्या सगल्या तागड्यांचे कांटे थीर राखप सोपें न्हय. जिणेचे दोरयेर चलतनाय चड मुखार पळोवप धोक्याचें आसता. कारण सकयल कोसळपाची शक्यताय अदीक आसता. खिणा खिणाक दोरयेर चलतना जसो समतोल सादचो पडटा तसोच जिणेंतूय राखचो पडटा. साधना ती. ती करीत रावंक जाय... कश्टत, शिकत... तातूंतच जिणेची मजा आनी गोडी आसता!



# कुळागर

कोणेय जर म्हाका विचारलें, सगल्यांत बरो आनी सैमीक माटव खंयचो जाल्यार ताका हांव जाप दितलों - कुळागर. कोणेय जर म्हाका विचारलें, पिकनिकेक वचपाक खंयची सुवात बेस बरी जाल्यार ताका हांव सांगतलों - चल या. ह्या आयतारा प्रियोळच्या कुळागरांत. कुळागर हो सगळ्यांत बरो माटव. तातूंत पोंदा तणाचें सुक्या आनी ओल्या पानांचें, चंवरांचें, फुलांफळांचें, पोवल्यांचें कारपेट. सुंदर अशें सैमीक कारपेट. ताचेर जाय तशें जाय तेन्ना लवंडचें. लकचें. आड पडचें. आनी खरो विसव घेवचो. नाजाल्यार पेटण्यान पेटिल्ल्या आनी शेणान तुकतुकीत सारयल्ल्या मागांचेर बसून रिलॅक्स जावचें. कुळागराचें पांखें म्हणजे माडयांच्या आनी माडांच्या चुडटांची तशेंच उंच वाडिल्ल्या झाडांच्या तेंगशांची आनी तांच्या पानांची शाकारणी. कुळागर म्हणजे पाचवीकाय. पोट भरून पिवपा सारकी ग्रीनरी. कुळागर म्हणजे शांती आनी शांतताय. शांतताय आसली म्हणटकच ताचेवांगडा शांती येताच अशें ना. पूण मन सैरभैर हांगाथंय फापसलां आनी अस्वस्थ जालां ताणें कुळागरांत वचून विसव घेवचो. थंयसल्ली थंडसाण, स्तब्धताय,

वनस्पतीची स्थितप्रज्ञताय आनी मागांनी धांवपी निवळ उदकाची थंडाय आनी सोबीतकाय चंचल मनाक थाकाय दितलीच. आपूण सैमाचो एक घटक आसा आनी सैमीक सहज सादे लयेंत रावप कितलें गरजेचें ते यादीचें नूतनीकरण करून दिवपी ही शांतताय.

कुळागराचें आनी म्हजें नातें इतलें दाट कित्याक ताका कारण आसा. म्हजो जल्मूच जालो आजोळा प्रियोळा. कुळागरा कुशीकच्या पोरसांतल्या घरांत. कुळागरांत हांव खेळ्ळों. जगलों. संस्कारक्षम भुरगे पिरायेचेर कुळागरान म्हजेर जें छत्र धरलें आनी जें कितें म्हाका दिलें, तें आयुश्याचे वाटेर अजून म्हाका साथ करीत आसा. म्हजो विकास सादपाक कुळागराची भूमिका बरीच व्हडली. विविधताय पळोवची तर कुळागरांत. कितलीं झाडां, कितले रूख, कितली वनस्पत. माडयो जाल्योच. अदींमदीं बिमलीणी. बिमलीणीचीं हुंबकळपी बिमलां झाडार चडनासतनाच काडचीं. हुमणाक आनी रोसाक घालपाक. आनी तिखट तशेंच गोड लोणच्यांत घालपा खातीर पोवलेंत भरिल्लीं बिमलां घेवन मागीलदारच्यान रांदचे कुडींत धांवत येवचें. माडयांचेर चडपी मिरयां वेल. मदींच खंय तरी पानवेल. जायफळांचे रोपे. पणसाचो प्रचंड रूख. पणसाचे कुसके कुंवले पुंजावन गोरवां खातीर गोठ्यांत घेवन वचचें. गोरवां खातीर पोवल्यो व्हरच्यो. मागीलदारा उकडयां बसून फरांयच करून पणसुलाक कोयतूल रोमून काडिल्लो रोसाळ गऱ्यांचो कुडको. गऱ्यांचें म्होंव काडून केल्लें भाजिल्लें आनी चुनाचें धोणस. तन्या गऱ्यांची गरय वा कायलींतले तळिल्ले गरे. उपरांत पणसाच्यो साली म्हणजे चारी घेवन गोरवांक दिवपाक गोठ्यांत पळप.

कुळागरांत कितले तरेची भाजी किल्लताली हाची गणती करूं नजो. आजी भाजी हाडटाली. सगळ्यांचें आवडीचें तेरें. कुळागरांतलेंच बरें अशें सगळ्यांचें म्हणणें. भिकणां, लसूण आनी ओडयो घालून केल्लें तें तेरें भुरकावचें. कुळागरांत कितल्योश्योच आमुल्ल्यो

आशिल्ल्यो.घोंटां पुंजावपाक आमी कुळागरांनीच पडून आसचीं. किलांट्यो मारीत. घोंटांचें गालमो घालून केल्लें सांसव. वा! यादीनूच जीव पिसो जाता.

कुळागराचे धडेकडेन आशिल्ली अनशींची रांक. झाडार फळ, फळार झाड हें हुमाणें घालून ताची जाप अनस अशी दित त्या अनशींनी आमी नाचचें. अनस तासून ताच्यो शिरो मीठ लावन खावच्यो. अनसाचो हालवो पावसांत व्हडल्या तोपांत शिजचो. कुळागरांत मदीं एक तळी आशिल्ली. त्यो हौदांत आमी पेंवचें. पेंवपाक येनाशिल्लें. प्रस्नूच नाशिल्लो. कारण पावसांत लेगीत कमरभर उदकांत थंय उडक्यो मारून बुचकुळटना बुडून मरत हो भंय नाशिल्लो. केन्नाय ते तळयेंत माडाचो बोंडो वा लागीचे पेरीचीं पेरां वा घब्ब करून कुशिल्लो निरपणस तळयेंत पडचो. आनी कच्च करून आंग काडचें. तोरंगां, पडवळीं, जगमां, करमलां.... कुळागरांतल्या फळांची विविधताय सोंपचीच ना. *चानये चानये मोव कर आनी हुंदरा हुंदरा गोड कर* म्हूण तळव्यार मोव करून खाल्ल्या जगमांची रूच जिबेर तशीच आसा.

म्हजो इश्ट दिल्लीच्यान येतकच ताका हांव ह्या कुळागरांत घेवन वतां. कुळागर ताकाय मानवता. ताका ताणें नांव दवरलां हवा महल. तो गोंयांत येतकच ह्या हवा महलांतल्या केळीचे शिरतेर जेवता. शिरतेकूय एक वेगळो वास आसता. कितलेशेच फुलां फळांचे वास, रोस, कितल्याशाच गंधपरमळांचें वारें हे शिरतेक घश्टल्लें आसता. जेवतना त्या गंधावाऱ्याच्या सालादाचे शिरतेक दशिल्ले ते थर जाणवतात. म्हजो इश्ट म्हणटा - यार, इस कुलागर की शान अन्य किसी चीज में नही है.

■

# झुळझुळपी व्हाळ

मनाच्या रानांत कितल्योश्योच गजाली आसतात. खोल खोल भितर भितर. स्मृतींचो आवांठूय आसता आयस - पयस. धांव धांव धांवपी व्हाळ हें अशेंच मनांत सांठवल्लें एक पात्र. प्रेरणा दिवपी, थाकाय दिवपी, विचारांक प्रवृत्त करपी.

भुरगेपणांत म्हाड्डोळा, प्रियोळा कितलेशेच व्हाळ अणभवले. घोग्यांनी पावस पडटकच ह्या व्हाळांक चेव येवचो. तिरतिरून धांवत सुटचें तांणी. तरनाटे जशे मोटारसायकली सूं सूं करून बाण कशे नेटान धोफरायतात तशे तरेचो शिंवशिंवो ह्या व्हाळांक तेन्ना येवचो. मीर्ग लागनाफुडें ह्या व्हाळांत सृजन सुरु जावचें. वनस्पत, रोपे, किडीमुयो कितें म्हूण विचारूं नाका. भुरूभुरू करून पावसांतल्यो साव्या उदकांतल्यो कुल्ल्यो हजर जावच्यो. शू शू करून शिळोण्यो घालून कुल्ल्यांक व्हाळाचे धडेंतल्यान आनी बिळांतल्यान भायर आपोवपी ते तरनाटे भुरगे. आनी मागीर पोतयांनी भरून हाडिल्ल्यो त्यो कुल्ल्यो. विशेश म्हणजे व्हडलो कसलो तरी वीर पराक्रम आनी दिग्विजय गाजयल्ल्याचो भाव मुखामळाचेर. तांच्या तोंडावयली ती खोस अजुनूय दिसता. त्यो

कुल्ल्यो खाल्ल्यो काय कितें याद जायना. पूण शू शू शिळोण्यो, ती तांची उमेद, तांबड्या गुंज मसतेपणान भरिल्लो व्हाळा उदकाची गती, ती लय, व्हाळाचो आवाज, हें संगीतमय नादब्रह्म कानांत अजुनूय घुमत आसा. व्हाळाकुशीक बसचें. जाय तशें. आनी ती सैमाच्या संगिताची मैफल आयकुची. किरी किरी किरकिरपी किड्यांची आनी किडींची. अच्छेव कांडपी घूं घूं तंबोरो कशो निनादपी पावशी वाऱ्याची व्हाळीक. खुळखुळपी आनी मदींच मदेल्ल्या भशेन उसळपी उदकाच्या नेटाचो रौद्र ताल. पावसाची दडक सोंपतकच व्हाळाभोंवतणच्या झाडांच्या पानांतल्यान उदकांत निस्तुपी ठूप्प ठूप्प ओथांब्यांचो लयबद्ध अभिषेक, पानांचो अभिषेक... वा! व्हाळ हें प्रतीक कशें. व्हाळ व्हांवता. व्हांवतकच तो बरो दिसता. तो ताचो सभाव धर्म. मनशानूय अशेंच आसचें. प्रवाही. कार्यमग्न, क्रियाशील. व्हाळ चैतन्यान उमेदीन भरिल्लो. ताजोतवानो. नित्य नूतन. आपलें नीजपण जपपी राखपी. ह्या गुणां पसून कोणेंय देख घेवची.

भुरगेपणांतले उमेदीचे दीस ते. आजोळा कुळागरां फाटल्यान कितलेशेच व्हाळ आशिल्ले. तातूंतलें उदक कितलें निर्मळ आनी पारदर्शक. देगेर बसचें आनी भितर तेळचें. उदकांत भिजून भिजून शेव्ळ्यान बुऱ्यान भरिल्ले ते गुळगुळीत फातर. च्यूं च्यूं करून आनाळ्यो गुनाळ्यो करीत धाकटुल्या विमाना भशेन नाचरेपणा करपी त्यो खरवो आनी हेर बारीक नुस्तीं. मदींच बिळांतल्यान भायर सरिल्लें हेवाळें वा हेर कसलेंय उदकाळ जिवाणें. सर्र करून आंग शिरशिरचें. व्हाळाच्या धडांनी दिसपी लागींच्या झाडांचीं पाळां मुळां. इश्कोलाक सावन घरा परततना पावसांत धोपर भर उदकान भरिल्ल्या व्हाळांतल्यान जीव मुखार धुकलीसर नाका पुरो जावचें. ती गती इतली की व्हांवन वचत हो भंय आनी भयरोजोळोप.

व्हाळाक अर्थ चड पावसांत. व्हाळ वयार येता तो पावसांत.





आनी तो सुंदर दिसता. ताचीं कितलींशींच मोहक रूपां तेन्नाच फुलून येतात. कसलेय गजालीक खंय ऋतू आसता. व्हाळाचो ऋतू म्हणजे पावस. गांवांगांवांनी व्हाळ आसात. भोंवतणी विविध वनस्पत आनी जिवावळ. शेता देगेचे व्हाळ, रानांतले व्हाळ, कुळागरा कुशीकचे व्हाळ. कसलेय आसूं. पूण भोंवतणी भिरभिरपी तीं तरेकतरांच्या रंगांचीं आपापल्या झ्येतान उडपी शेवणीं. चित्रविचित्र उडपी जीव, उदकांतले जीव - हांच्यांत आपलो जीव एकरूप करचो, दोळे धांपचे आनी त्या सैम आविश्काराचे तंद्रेंत रंगून वचचें. आ हा ...

नाका आशिल्लीं कठीण कठीण इको टूरीजम आनी बायो डायवर्सिटी असलीं बेगडीं उतरां काडल्यांत. पावसांत व्हाळा कुशीक वचून वोग्गी बसचें आनी एक अवर्णनीय शांती अणभवची. उदकाकडेन पळोवचें. ताचीं बदलपी रुपां दोळ्यांत सांठोवचीं. उदकाक पडपी दोडयो आनी मिरयो, तातूंतलें भोंवरे, फेंसाळ रेघो, अकस्मात खदोळ उदकाच्या लोटाची उसळी, हालपी धोलपी उदकाच्या पात्रांत जावपी तरेकवार भुमितीय आकृत्यो, पात्रांत पडपी कोयराक बडयांक उदकान मारिल्ले धोंगशे... शेपडी तुटसर धांवपी व्हाळ, वागा बोबेक आयिल्ले भशेन आकांतून पळपी व्हाळ, ताकतीकेन तुरतुरीत घोंगेवपी व्हाळ... निमाणचो केन्ना काय व्हडल्या व्हाळाक मेळूं हे एकमेव वानशेन आनी ध्यासान हाडाचीं ताडां करपी हो साधक. पावसाची वाट पळेत रावपाक व्हाळ उबगना. व्हाळाचें हें अद्‌भूत संगीत केन्ना परत आयकूंक मेळटलें हाची वाट पळेतना हांवूंय सोंशीकपण सोडिना. पूण तो मेरेन - भायल्या जगाच्या रेडियोचो आवाज कमी करून हांव मना - रानांत कान लायतां तेन्ना थंय असंख्य व्हाळांचे पंचम आनी मध्यम स्वर झुळझुळटना भितरल्या कानांचेर सादतात. संचिताची ती गोडी जीण गोड करून सोडटा!

■

# वासः पोसाचो आनी गोठ्याचो

मामा आयिल्लो. म्हाङ्गोळच्यान. ताणें पोतयेंतल्यान स्टिलाचो वाटकुळसार करंड काडून मेजार दवरलो. पोस हाडला गे. ताणें माईक सांगलें.

करंड उकतो केला मात, हळडुवसार कोराचो तो सुंदर पोस पळोवन मन भूर्र करून उडून भुरगेपणांत गेलें.

माईन त्या पोसाचे बरे चवकोनी कुडके केले. हांवें करंडांतलें पोंदचें हळडीचें पान घेतलें आनी ताची पोसांत भिजिल्ली गांठ लेगीत चोखून पळेली. हळदीच्या पानान सबंद पोसाक एक वेगळीच रूच हाडिल्ली.

- घरचो रे? अशें विचारपाचो प्रश्नूच नाशिल्लो. कारण आयज गोरवां खंय आसात? कोणें तरी पोस हाडून दिला हें मामानूच सांगलें. आमकां केन्नाय तो पोरसांतलीं आंतेरां, अनसां, तोरां, पोपायो घेवन येता. तेच अपुरबायेन हो पोस घेवन तो आयिल्लो. जेन्ना तो लक्तुबायेन हें घेवन येता तेन्ना तेन्ना आमी त्या काळांत उश्टायिल्ल्यो तेच मातयेंतल्यो ह्यो गजाली परत चाखतकच तो सबंद काळ दोळ्यां मुखार येता.

खावन आयिल्ल्या मनशाक त्यो त्यो गजाली परत मेळटकच हें स्मरणरंजनाचें सूख एका वेगळ्याच आनंदाच्या विश्वांत घेवन वता.

घराच्या पोसाक आनीक वेगळी रूच आसताली. आजोळच्या त्या घरा मुखार आंगण आनी आंगणा मुखार रस्तो जातकच आशिल्लो गोठो. आयज गोठो आसा पूण गोरवां नात. आसात त्यो यादी. पोस खातना त्यो जाग्यो जाल्यो. आजयेलो हो एक लघुउद्देग म्हणात नाजाल्यार छंद. तेन्ना पोतयांतलें दूद हो विशय जल्माक येवंक नाशिल्लो.

गोरवांक राखपाक राखणे आसताले. पोटा खातीर ते रावताले. शिडशिडीत शिरपुटां भशेन आंगलोटीचो सावयचो कमलाकांत, लांबरुंद वॅस्ट इंडिजाचो क्रिकेटर कसो दिसपी गुरू, नाकफुगरो मोटवो आफ्रिकी कसो दिसपी वसंत हांची सामकी याद येता. ते गोरवांक घेवन सकाळीं फुडें दोंगुल्लेचेर वताले. इश्कोल जातकच केन्नाय सांजेच्या आदेसाक हांव आनी म्हजो धाकलो मामा तांचे वांगडा वताले. वतना अभ्यासाच्यो चोपड्यो-पुस्तकां वांगडा व्हरताले. थोडो वेळ अभ्यास करून जातकच पुस्तकांत मदीं काजीचें पान घालून दवरताले. काजींच्या मुळांत सुक्या खोलप्यांचे चादरीचेर सैमाच्या गोपांत एके वेगळेच शांतिकायेंत शितळसाणेंत एकाग्रतायेंत अभ्यास बरो जातालो. वांगडा शेवण्यांचें मंजूळ संगीत साथीक रंगत हाडटालें. मदींच सूर्र जातकच जिवाणें बी येवंक ना मूं म्हूण आंगार कांटो फुलतालो. मागीर पळेत जाल्यार शेड्डो वा शिल्ली!

केन्नाय गोरवां रवंथ करपाक गोठणाक आयिल्ले भशेन थपकल मारून बसतालीं. वेलंगां गोठण नांवाचो एक वाडो आसा, तें नांव गोरवांच्या चरवामळा वयल्यान पडलां आसूंक जाय. अस्नोड्यां गोठण नांवाचो वर्सुकी राखण्यांचो उत्सवूच जाता. मुळावे शाळे सावन इश्कोला मेरेन गोरवां वांगडच्या ह्या प्रियोळच्या सैम भोंवड्यांच्यो खूब खूब यादी आसात. चारां-चुन्नां, म्हुट्टे, तोरां, भेडसां, पिटकोळीचीं फळां, जांबळां

हो रानफराळ याद जाल्यार जीव अजुनूय ते खावडीक आनी सैम आनंदाक आशेता.

राखण्यां वांगडा खेळपाक एक मजाच आसताली. तांच्यो म्हणून आपल्यो अश्यो खबरो, गजाली आनी विश्व आशिल्लें. कांय राखणे केन्नाकेन्ना मस्तीय करताले. कंवळी पिरायूच ती. एके रातीं कमलाकांताक मामान तापयलो. तो मनांतल्यान दुखावलो. व्हडल्या व्हडल्यान कुकारे काडून रडूंक लागलो. जेवंक बी आयलोच ना. तो गोठ्याच्या माळ्यार म्हेडींचे रचणुकेचेर सोण्णांचे राशी कडेन न्हिदलो. खूब वेळ तो रडत आशिल्लो. हांव तेन्ना शाळेंत. सालांत न्हिदून हुसके काडीत रावलों. गोठ्यांतले मोनजातीक ताचे विशीं कितें दिसता आसतलें काय, उपाशीं पोटार ताका कितेंय जायना मूं, शेजारच्या पोरसांतल्यान आनी कुळागरांतल्यान जिवाणें बी थंय येना मू अशा हुसक्यांनी म्हाका दोळो लागलोना... त्या राखण्यांच्यो लिला हो एका वेगळ्याच लेखाचो विशय थारुंये!

पाचव्याचार मड्डार राखणे गोरवांक सोडटाले. ते मागीर खेळटाले. झाडांचेर चडून मजा करताले. तळये वयलें आनी पाटा वयलें उदक पिताले. इस्पिकांनी खेळटाले. गोरवां गाबणीं आसतकच आजी विशेश कुयदाद घेताली. राखण्यांक शिटकावणी दिताली. दोंगरार वियेत बी म्हूण.

गाबण्या म्हशींक खास खावड आसताली. सरकी पेंड, भिकणांची पेंड आसतालीच. पूण अशा वेळार गाबण्या म्हशींक हरभरे वांटून आनी हेर भट्टो तशेंच वाळिल्लें पेजेचें तन्न बी अशी बडदास्त आसताली. तन्न आनी भट्टो घाल्ल्यो खास पितूळच्यो आनी हेर प्लास्टिकाच्यो बालद्यो तशेंच तोप बी आसताले. केन्नाकेन्नाय गोरवां वियेतना तांकां त्रास बी जातालो. गोरवां दोतोराक आपयताले. तो व्हडली सूय म्हशीचे फाटीचेर पयसुल्ल्यानूच शेंवटून मारतालो. मागीर फाटीफुडें जायत

सिरींज हाडून रोमिल्ले सुयेक तोपतालो. कारण म्हऱ्यांत गेल्यार म्हस लाथ मारताली. ती सूय आनी भोगस्ताळे पळोवन आमचें आंग शीर्र जातालें. म्हस वियेतकच तीन दीस पोसाचो उत्सव चलतालो. दाट दिखाची बाटली, आनी वांगडा गोड एके पोतयेंत घालून आजी म्हाका सोयऱ्यांगेर वा तिच्या इश्टिणींगेर धाडटाली. आनंद वांटपाचे ते संस्कार आंगांत रसरसून खोल मेरेन मुरताले.

तिनसांजचे कात्रेर गोरवां गोठ्यांत शांत बसतालीं. आजो थंय सुपारेचे सोल्लेचो धुंवर घालतालो. पोंवलेच्या आयण्यान तो धवोफुल्ल दुदाळ धुंवळ गोरवांचेर सोडी. जीवजळारां बादचीं न्हय म्हूण. सोंऽसोंऽ करीत व्हडले सुस्कारे सोडीत गोरवां ते किरांव शांततायेंत रवंथ करीत बसतालीं. तांच्या त्या स्वासांची लय एक वेगळीच धुंदी हाडी. सकाळच्या गोठ्याचें चित्र वेगळें आनी तिनसांजचे कात्रेवयलें वेगळें. सकाळच्या वातावरणांत द्रूत संगीत गोठ्यांत दिसतालें. सुर्यकिरणांच्या झोतांत निस्ततालें. ताकतिकेच्या आनी उलउल्यांचें लयेचें संगीत. तिनजसांजचे कात्रेर गोठो मंद्रांतल्या मारवा वा पुरियाच्या विलंबीत आलापीचे धुंवरेचेर ठेहराव करीत सुस्तेल्लेवरी दरवळटा अशें कितेंशें दिसतालें!

आजी गोरवां कडेन उलयताली. तांकां सांसपिताली, तापयताली. गोरवांच्या दोळ्यांत एक भाव दिसतालो. काकुळटेणो कसो. गोरवांक कातीच्या लेव फिकट गाड रंगान वा शिंगांच्या रचणुकेन वळखूंक येतालीं. तरिकूय तांकां नांवां आशिल्लीं. नांवांक लागून उलो मारून मारून तीं मनशाळिल्लीं. मंगळू, पेटूक, मोर्तूल. रेड्यांक विकताले. जोताक लावपाक. पयशेय मेळटाले. म्हशी दुदाच्यो म्हणटकच विकपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो. एकूच म्हस दूद दिवपाक पिडापीड करूंक लागली. आजयेकूच लाथ बी मारूंक लागली. तिका विकची पडली. त्या दिसा आजयेक वायट दिसलें. गोरवांकूय मोनजात जावन लेगीत एकेक नग

उणो जातकच वायट दिसतालें. पेटूक म्हाका आवडटालें. एक दीस तें मेलें. ताका सकयल कुळागरांत मावळिंगेच्या मुळा कडेन आनी आंबुल्ले लागसार पुरलें. त्या दिसा गोठ्यांत गोरवांच्या दोळ्यांतलो भाव आर्त अशे सूर व्यक्त करता अशें धुंवरी घालतना आमकां जाणवलें.

सोयऱ्यांची, इश्टांची गरज पडटा तेन्ना मदत करची. गोरवांक पळेयात, ती मोनजात लेगीत एकामेकांक हुंगता, दुख्ख समानुभूतीन समजून घेवन साथ दिता अशें आजी सांगी. अश्या जायत्या प्रसंगा वेळार एकामेकांक हुंगपी घश्टुपी म्हसरां हांवें त्या गोठ्यांत पळेलीं. वियेल्ले म्हशीचे त्रास समजून तिका हुंगपी म्हसरां पळेलीं. मनशांक दयेची देख दिवपी. त्या गोरवांक चरपाक आमडीत व्हरतना पायणींत जर कोणूय गोरूं फाटल्यान उरलें जाल्यार फुडलीं जाणटेलीं हांबेत ताची वाट पळेतालीं. ताका सोदी. तो हुसकेभरीत 'हम्मा' मनशांक देख दिवपी इतलें मात म्हणूं येता!

एक दीस एक सोबीत रेडूक जल्माक आयलें. सौंदर्य म्हणचें कितें हें असल्या जिवाक पळोवन अणभवचें. ताच्या गेतांतलें मास तोराचे कपचे काडचे तशे बेगिबेगीन काडलें. रोखडेंच तें धांवंक लागलें. कोणें प्रशिक्षण दिलें ताका हें धांवपाचें? तोल कसो सांबाळ्ळो ताणें? ताचें आंग, तांचें तें पयलेच दुडूदुडू निरागस धांवप, आनी मदींच पडप बी... म्हज्या एका धाकटुल्या मावशेभावाक तें रेडूक खूब म्हणजे खुबूच आवडटालें. तो आसत चार वर्सांचो. 'लेलूक लेलूक' म्हणून सकाळ जायना फुडें तो पायणींतल्यान त्या रेडका फाटल्यान धांवत सुट्टालो. दोगांचीय पिराय ल्हान आनी काळीज बालसुलभ. रेडकाची धांवपाची लय आनी आंगाक कपडे लेगीत नासतना ताच्या फाटल्यान आनंदान धांवत सुटिल्लो म्हजो मावशेभाव, ताची फाटमोरी आकृती, फांतोडेर भोंवतणच्या तणा वयल्या दंवाक धोंगसुपी आनी पोरसांतल्या पानांचेर निस्तुपी भांगराळी हुनहुनीत सुर्यकिरणां, वाऱ्याची व्हाळीक, आनी

रेडका फाटल्यानची ती निरागस बालकाची गती, हातूंतल्यान उसळपी संथ गतींतल्यान जल्मल्लें लय-आविश्कार घडोवपी एक नयनरम्य आवर्तन म्हणचेच एक कविता कशी!

पोसाचो आनीक एक कुडको जिबेर सोडटना तें काव्य-आवर्तन हांव परत जगलों. पोसाच्या ल्हान-व्हड छिद्रांच्या खांचीखांचींनी कितल्योश्योच गजाली दिसल्यो. हळडुवेंच करड आनी तणाचें कुडें, गोठ्याक तेंकून आशिल्ली शेण सांठोवपाची गायर, गोठ्या वयर शेणी थापपी आजी, कालोराच्या दिसांनी गोरवांक बांदलेर न्हाणोवंक व्हरपी राखणे, पान्यांच्यो किट्टी काडपी, धारोश्ण दूद चुळ्ळ चुळ्ळ करून काडपी मामा आनी कुळागरांत धांवन गोरवां खातीर काळेकिट्ट पडिल्ले कुंवले, पोंवल्यो वेंचपी शाळेचे पिरायेचो हांव... पोसाच्या कुडक्याच्या रंध्रारंध्रांनी दिसलीं गोरवां पाडव्याक केल्ल्या पोळ्यांचीं छिद्रां... तातूंत दिसलो गोठ्याच्या पाख्यार उसळपी वयल्या पोरसांतल्या म्हसका फुलांचो शिंवर आनी कुशीकच्या पारजताच्या नखेत्री फुलांची दडक, पोसाच्या बुराकांनी दिसलें ताक, धंय आनी आयलो वास घराव्या तुपाचो. गोठ्यांतलो तेलतो जाणवलो. हुंगलो. पोसाचो कुडको ताळ्यांत पावतनाच त्या इतिहासाच्या, भुगोलाच्या आनी संस्कृतायेच्या रंगांनी, गेतांतल्यान उसळिल्ल्या तांबड्यागुंज धुल्लाकणांनी परत ते खीण जियेल्ल्यान बरें दिसलें! खूब... खोल मेरेन... गोरवांच्या दोळ्यांतल्या भावभावना इतलें खोल...



# मागीलदार

राजांगण, शांतीनगर, फोंडें हो म्हजो पत्तो. तो वाचून खूब जाण विचारतात, तुज्या घराचें नांव राजांगण? तांकां दिसता आसतलें, म्हजें घर वा बंगलो आसा, ताका मदीं राजांगण बी आसा. म्हणून हें नांव.

सांगपाचें म्हणल्यार राजांगण हें बिल्डरान व्हडले कॉलनीक म्हणजे कम्युनिटीक दवरिल्लें नांव. तातूंत फ्लॅटांच्यो बिल्डिंगो आसात. ड्युप्लॅक्स बंगले, रो बंगले, इंडिपेंडेंट हावजीस अशीं नांवां उच्चारपाक जायना अशो जायत्यो रावतिका आसात. हांव फ्लॅटांत रावतां.

गॅलरीमुखार अजून आनीक कॉंक्रिटचें रान मातूंक ना. ताका लागून गॅलरींत फर्मागुडयेचे दोंगुल्लेवयलो नितळ बरो वारो येता. हो वारो पोशेत पोशेत म्हाका भुरगेपणांतल्या प्रियोळच्या आजोळच्या रासवळ व्हडल्या घराची आनी मागीलदाराची याद करून दिता.

आयसपयस व्हडलें घर. शेकानशेक पातळिल्लें. घराभोंवतणी पोरसूं म्हणचे परस पोरसांतल्या झाडां मदेगात घर म्हणप योग्य. घराचे फुडले वटेन सोपे. व्हडले सोपे. ल्हान सोपे. तांबडेगुंज. ह्या मुखावयल्या दारांत बसप म्हणजे शिश्टाचाराच्या एका वातावरणांत एक ताणतणावाचें

आंगलें न्हेसून बशिल्लेभशेन दिसचें.

पूण मागीलदार. वा! त्या भायल्या मुखेल दाराभशेन कसलोच ताण हांगा ना. जाय तसो जाय थंय तणावा विरयत भोंव. कपडे कसलेय जाय तशे न्हेस. उकडयां बस नाजाल्यार जमनीर बस. मागीलदार म्हणजे एक निवांत विसव. मेकळेंपण. एक रिलॅक्सेशन.

हांव तेन्ना इश्कोलांत. मागीलदार हें खेळपाक, भायर पळपा खातीर वा जाय तेन्ना जाण्ट्यांची नदर चुकोवन भितर रिगपाचें दार. डिसेबरांतल्या शिंयांच्या कुडकुड्यांत राती कडेन नगरांत सांतेरीच्या काल्याक आनी नाटकाक वचपाची आमची खुमखुमी. पूण ह्या शियांत मरपाक कित्याक वतात? अशें म्हणून तापोवपी आज्याची नदर चुकोवन हांवें कमलाकांत राखण्याक घेवन मागीलदारच्यान पळचें. कुळागरांतली माडयेचीं चुडटां पेटोवचीं आनी त्यो चुडी घेवन घणघणीत उजवाडांत आमी कुळागराचे माग, फोंडयो माड्डीत आनी झाडां फुलांचे तरांतरांचे परमळ हुंगीत नाटकाक वचचें. परततकच मागीलदारांतल्यानूच एन्ट्री घेवची. आजो राती कडेन उठून परत तापलोच जाल्यार आमी व्हदोळ आयिल्ले हें सदचें पालूपद आमी लावचें.

कामगार, कामेऱ्यां वा हेर शेजारचे लोक बी मागीलदारांतल्यान भितर येताले. भायल्या दारांत सगलेंच उपचारीक. मागीलदारा सगलेंच अनौपचारीक. वावझड वा पावस सुरू जातकच कुकडां, सुणीं आनी केन्नाय आजयेलें अपुरबायेचें पाडूक लेगीत थंय धांवत आडसाक आलाशिऱ्याक येवचें. त्या पाडकाच्या तोंडांत वखदा बाटली कोंबून ताची सेवाय मागीलदाराच चलची. भायले वटेन गोठ्यांत पाडूक गायचें दूद पियेत म्हूण ताका मागीलदारांत बांदचें. मागीलदार सार्वजनिक न्हय. सार्वजिवी.

मागीलदार हें उतर फकत दार म्हणपा पुरतेंच मर्यादीत ना. तें एक अवकाश. एक मेकळी सुवात. ताची व्याख्या करूं नजो. एप्रील आनी

मे म्हयन्यांत हें मागीलदार शिरंगारतालें. ते दीस म्हणजे मागीलदाराची चैतन्यरुपी तेंगशी.

चाख्याचीं पणसुलां, रसाळ आनी कापे पणस, रसाळ पणसांतल्यान धोणसा खातीर काडिल्लें गऱ्यांतलें म्होंव, गोरवांक घालपा खातीर पोवलेंत दवरिल्ले काळेकिट्ट कुशिल्ले इल्लेशे कुंवले, घोंटां, एके कुशीक उजरायिल्लें नुस्तें, सोलां तयार करपा खातीर तांबडीगुंज भिण्णां, कांय फोडिल्लीं, तातूंतल्यो बियो, फुटक्या बुयांवांत दवरिल्लें आगळ, उमळिल्ल्या ओल्यांची कायल, हेर कायली, पांटले... कितें म्हणून विचारूं नाका. कितलेशेच रंग, दीख, वास आनी नाद हांणी हे मागीलदार भरून वचचें. तो संमिश्र परिणाम दोळे धांपून हुंगचो इतलो गोड.

मागीलदारांत एका कोनशाक आजयेच्या लघुउद्देगाचो एक फांटो म्हणजे कोंबयां घूड आशिल्लो. सरयांची जाळी पत्रे हांचे पसून तयार केल्ले कोंबयांचे पांजरे कशे घूड. एक उबो लाकडी सिलींडर कसो आशिल्लो. तातूंत कुंडो आसतालो. कोंबी तांती घालपाक तातूंत बसताली. हांवें परत परत तांतीं बी घालां काय कुतुहलान वचून पळोवचें. त्या हुनहुनीत तांतयांक हात लावन आड्डूचें, आज्जे, तांती घालां गे. कोंबयांक केन्नाय कुकुडसो पडचो. ह्या जिवांचो नायनाट करपाक आजयेची घे धांवपळ. खरस येसर. कोंबडी रवाणेक बसल्या अशी एक ओपार आजी मारी. रवाणेक बसप म्हणके कितें गे? निरागसपणान हांवें विचारचें. तुका एकल्याकूच नाका जाल्ल्यो ह्यो जायण्यो जाय. भायर वच पळोवया. आजयेन धेंगसो घालचो. पूण भायल्या दारांतल्या वाठारांत मागीलदारा इतलें स्वातंत्र्य, मजा आनी आनंद आमकां भुरग्यांक केन्नाच मेळ्ळोना.

कितल्योश्योच कोंबयो. कोंबयो तांतयां कशीं उबयता आनी इल्लींशी नाजूक पिलां टणक कट्ट्यांतल्यान भायर कशीं येतात तें थंय आमी पळेलें. अणभवलें. कापसाचे फाटीर हळडुवें पिशोल मारिल्ले

भशेन त्या पिलांची फाट. कोंबे आनी कोंबले. काळो किट्ट एक राजा कसो कोंबो आशिल्लो. ताचो शेखरो फुलयतच काळंगाची पात्तळ व्हेफराभशेन शीर ताच्या माथ्यार दवरिल्ले भशेन दिसचें. कोंकोंच कों... कोंब्या सादांची घड्याळ मागीलदारभर सादत रावची.

ऋतुप्रमाण हें मागीलदार फुलचें. वेगळ्या रंगांनी, वेगळ्या वासांनी भरून वचचें. चवथीकडेन शीतू खाजेकार येवचो. चार दीस ताणें थंय लाडू, व्हडले शेवयांचे लाडू, बुंदी लाडू, शेव आनी हेर जिनस तयार करचे. व्हडली कायल. वेगळेच वास. सबंद मागीलदार आनी वाठारभर दरवळपी आनी जिवाक सुखावपी.

मागीलदारा हातपांय धुवपा खातीर एक नळ आशिल्लो. थंयच आज्जेन नुस्तें उजरावचें. म्हजे आज्जेक जिणेचे वादळांत लेगीत रडटना हांवें पळोवंक ना. पूण एक दीस सणसणीत कुल्लेचे दांगे मोडटनाच कुल्लेन तिच्या आंगठ्याक घांस मारलो. आजी वळवळून रडली. कितलोसोच वेळ कुल्लेन आंगठो सोडलोना. कुल्ली वा सिंका कडली ती नळाची पी पळेतकच आयजूय म्हाका ही याद येता.

मागीलदारा बांय मारपाचो सुवाळो एप्रील मे म्हयन्यांत जालो. सावयचे वावराडे आनी थळाव्यो वावराड्यो हांचो घे बोवाळ. मातयेच्यो राशी काड काड काडटाले. एक दीस उदक लागलें. तो खोशयेचो खीण. ते उपरांत आजयेन केल्लें साग्रसंगीत देवस्पण. आयजूय ती बांय पळेतकच त्यो सगल्यो यादी वयर उफेतात. मागीलदाराक हे बांयन वेगळीच उंचाय आनी सोबा हाडल्या.

पणसाचीं भिकणां भाजून खाल्ली याद. कणंगां भाजून खाल्ली याद. बिबे चिरिल्ले ती याद. उदक तापोवपाच्या भाणाकडेन शिंयां कुडकुड्यांत उकडयां बसून घेतिल्लो धग. बुराक घाल्ल्या पत्र्यांत पावसांत भाजिल्ल्यो काजू बियो, खांब्याक तेंकून दवरिल्ली, काजू पान दोडून ताची गुड्डी करून धांपिल्ली निऱ्याची बाटली, म्हज्या पोटांत दुखतकच वा निरमोळी

जातकच कमलान येवन काडिल्लो रेंच... आंतेरां, मुट्टे, अनसां, जांब, बिमलां, करमलां... कितलीं म्हणून चित्रां, कितल्यो प्रतिमा... घुडाक तेंकून आशिल्ले शिरपुटांचे भरे आनी लाकडां जळोव. सोंपून सोंपनात अशीं यादींचीं रिळां. मागीलदारां खूब आसात. पूण हांव सांगतां त्या विशाल आटापाच्या मागीलदाराची कल्पक आनी सृजक मनाची नेपथ्यकार म्हजी आजी. ह्या विश्वाची तीच शिल्पकार.

मागीलदाराचे संस्कृतायेंत हाडांची पोसवण जाल्लो ह्याच रासवळ घरांतलो म्हजो मामा. ताका पिरायेच्या सतराव्या वर्सा व्हडले भयणीन मुंबय नोकरे खातीर व्हेलो. माहीमाक फ्लॅटांत पावना फुडें तो भायर भितर जाता तें पळोवन भयणीन ताका विचारलें- कितें सोदता रे?

- मागीलदार! ताणें सांगलें. घराचो आत्मो मागीलदाराच नंदता अशी समजणी जाल्ल्यान तो मागीलदार सोदतालो जावंये.

राजांगणाच्या फ्लॅटाचे गॅलरींत बसून मागीलदाराच्यो यादी काडटना ह्यो याद येवन काळीज ओलें जाता. कारण मागीलदाराकूच एक वेगळी ओलसाण आशिल्ली. मुळां कडेन नातें आनीक घट्ट करपी आनी जिवें दवरपी.

मागीलदाराच्या आंगाखांदार लोळून, खेळून आमी व्हड जाले. मागीलदारा लिपचल्यांनी आनी खांब्यांनी खेळ्ळे. रातराणयेचो शरीर भिनून भेदून वचपी परमळ आनी हेर फुलझाडांचो वास हांगाच आमी चाखलो. मागीलदाराच्यो यादी आमच्या काळजांत मनांत घोळत आसात. आमच्या बेभान मस्तेपणाच्यो कुरवो मागीलदाराच्या चौकांत खरखरीत अशे ते फरशेच्या कणांकणांत एकजीव जाल्यात.

बिल्डींग, बिल्डिंगो ही उतरावळ आनी गजाली काळान आमचेर थापल्यात. तातूंत मागीलदार आनी भव्य रांदचीकूड चिमटीभर 'किचनाच्या' वाऱ्यान पोल कश्यो उबून गेल्यात. भारतीय भाशांतले इंग्लिश अणकार करतना पत्रावळीक लिफप्लेट आनी मागीलदाराक

बॅकयार्ड ह्यो अपूर्ण संज्ञा वापरतात. अंत नाशिल्ल्या बळग्यान भरिल्ल्या देशी भाशेंतल्या मागीलदार ह्या उतरांत एक जादू आसा. त्या उतरांत सांस्कृतीक वलय आनी भावनीक आविश्कार आसा.

म्हणूनच म्हणटां-

मागीलदार हें निखटें उतर न्हय. डिक्शनरींतलें.

मागीलदार ही भास! म्हजे! सांस्कृतीक संचिताची!



# रेल्वे यात्रा

पयलींच आगगाडयेंत केन्ना बसलों याद जायना. 1979 त वास्को राज्य बुद्धीबळ सर्त जाल्ली. म्हाड्डोळच्यान हांव थेट बसीन गेल्लो. तेन्ना हांव धावेंत. येतना कांय गडे लागींच आशिल्ले ट्रेनीन मडगांवां येवंक भायर सरले. हांवूय तातूंत रिगलों. पूण ती म्हजी रेल्वे गाडयेंत बसपाची पयली खेप न्हयच न्हय.

त्या भुरग्यांनी एक गजाल सांगिल्ली ती मात घट्ट याद जाता. मडगांवच्यान वास्को खंय फुटबॉल मॅच पळोवपाक लोक येताले. मैदाना कडेन पाव:: फुडें कोणे तरी सांखळी ओडप. मागीर घे. डब्यांचे डबे तुरतुरीत उडयो मारून शेतांतल्यान मैदाना कडेन धांव धांव... हें सांगून ते हांस हांस हांसताले. खरें फट हांव नकळों.

कोंकण रेल्वे जावपाचीच आशिल्ली. 1986त सुमार पयलो व्हडलो रेल्वे प्रवास केलो दिल्लीक. तो मेरेन बेळगांवां पुरतीच आमची मजल पाविल्ली. दिल्लीक तेन्ना झेलम एक्सप्रेस वताली. मिरज बदलप. मीटर गेजीवेल्यान ब्रॉड गेजींत. ही ट्रेन खुबूच स्टेशनां रावताली. नांव मात एक्सप्रेस. सगलेच थांबे घेताली. दोन राती आनी कंटाळवाणो

प्रवास. बेळगांव, पुणे, भोपाळ, आग्रा आनी एकदांची दिल्ली. कितलीशींच राज्यां, वाठार, तरेतरेचे लोक, संस्कृतायो, खाणा जेवणां, वास, उदकां हवामानां...

कालांतरान सबंद ब्रॉड गेज जातकच गोवा एक्सप्रेस दिल्लीक धांवक लागली. मीरज बदलपाचे त्रास ना. वास्को वा मडगांवां न्हीद आनी निझामुद्दीन उठ. तरिकूय दोन राती काडच्योच पडटाल्यो. कोंकण रेल्वे विरोध टिका हांकां तोंड दीत एकदांची धावंक लागली. मुंबय लागीं जाली. दिल्लीय लागी जाली. मंगला एक्सप्रेसीन एके रातीन दिल्ली गांठप शक्य जालें. राजधानी एक्सप्रेस धांवक लागली. हापा एक्सप्रेसीन गुजरात लागीं जालें. बरोड्याक सहज वचप जालें. करमळे रातची गुटली केल्यार फांतोडेर मुंबय गांठप शक्य जालें. बसीचो प्रवास म्हजे सारक्या खूब जाणांक खूब कारणांक लागून आवडना. न सुटकें मुंबय बसीन वचचें पडटालें. आतां बरें जालें. कोंकण रेल्वेक विरोध करपाक मुखार आशिल्ले लोक आता मसका शांगो, सुक्या बांगड्याची पोटली आनी हेर सामान घेवन हांसत हांसत मुंबय वचूंक लागले.

मुंबयचे लोक हो म्हज्या कुतुहलाचो विशय. त्या तेंपार ते लोकलींत अणभव घेवपा खातीर मुद्दमूच गर्देंत चडटालों. किडिमुयांची रास कशी वा म्हींवामुसांच्या पोळ्या वयले मूस कशे लोक ह्या लोकलींनी बुचबुचत आसतात. लाखांनी लोक खंय ह्या लोकलींनी दीसभर प्रवास करतात. गर्दी, गरमी आनी विचित्र गती हे लयेची तांकां जाल्या संवय. दुसऱ्याक धुकल्ले बगर भितर वा भायर वचूं नजो. सेंट्रल लायनींतले लोक गांवढळ अशी वेस्टर्न लायनीच्या लोकांची समजणी. ते भायर हार्बर लायन आसा. हालीं आनिकूय लायनी जाल्यात. हालींसराक ह्या लोकलींनी वचपाक जीव धजना. असुरक्षीततायेचो कांच कसो बसता. हालीं दिल्लीकूय मेट्रो सुरू जाल्या.

व्हडल्या रेल्वे प्रवासांत आपल्या डब्यांतले लागींच्या बर्थावेले

कांय सहप्रवासी प्रवास सुसह्य करतात. केन्नाय दगदगूय करतात. बरे, झगडाळ, मदांध, बडबडे, मोने, मितभाशी, खा खा खावपी, न्हीद न्हीद न्हिदपी, तरेतरेचे नमुने सांपडटात. केन्ना केन्नाय राती कडेन बेबदडींचें बेशिस्त वर्तन सोंसू नजो जाता. निरागस भुरगीं रंजन करतात. पूण खूब खेपे तांची मस्ती प्रवास नाका करून उडयता. ग्रुपांतलीं कॉलेजांचीं भुरगीं व्हडाव्हडान वरांचीं वरां किलांट्यो पदां आड्ड्यो मारूक लागतकरूय नाका पुरो जाता. सिगाराचो धुंवरूय दुसऱ्याक त्रास करता हाचें ओडटल्याक धंगण आसना.

दिल्लीक सावन आगऱ्या मेरेन छक्के चडटात. तांचो एक कळपूच चडटा. सगळ्या डब्यांतल्यान ते हिजडे भोंवतात. त्या वेळार न्हिदेचें सवंग हो त्या जाचांतल्यान सुटका करपाचो एक उपाय हांव काडटां. रेल्वे प्रवासांत वाचन खूब जाता. कांय प्रवासी रगडी मारीत आसतात. गुजराती कुटुंबां तर आठ दिसांचे बिराड थाटूंक आयिल्ले भशेन करंड, डबे घेवन येतात. कुरकरीं, नमकीन, परोठा, गोड गोड तरांतरांचे जिनस... नाका रे सायबा. ते खातात ते पळोवनूच आठ दीस आपलीय खावपाची वानसा गेली अशें दिसता.

हांव एकदां मुंबय सावन दिल्लीक वचपाचो आशिल्लों. मुंबय राती कडेन पावतलों म्हणून फुडलीय तिकेट रेल्वेचीच काडली. कारण विमानान गेल्यार रातीं दोनांक पावपाचों. रेल्वेचो खास एसी डबो. एक्झीक्युटिव्ह क्लास. गाडी दक्षिणे कडल्यान आयिल्ली.

म्हज्या डब्यांत एकलोच इंजिनीयरिंगचो विद्यार्थी रग घेवन आड पडिल्लो. मॅगॅझिनां वाचीत लोडेल्लो. थंडेन मरसर एसी. सरबराय, करपाक दोन वेटर. राजेशाही थाट. झेत विमाना परसूय पॉश. त्या भुरग्या कडेन इश्टागत मारली. आयआयटी प्रवेश परिक्षे वरवीं ताका केरळांतल्या एका बऱ्या कॉलेजांत प्रवेश मेळिल्लो. बापूय एअर फोर्सांत. तो सुटयेंत घरा वतालो. ताचें सामान्य ज्ञान बरें आसा हें हांवें चार

प्रस्नांच्या जापां वेल्यान वळखलें. वेळ वचपाक जाय म्हूण हांवें ताका गणितांतले कूट प्रस्न घालूंक सुरू केलें. नेमाळें चाळटनाच तो कुवाडीं सोडोवंक लागलो. निमाणें सगल्यांत कठीण गणीत ताका घालें. फाल्यां सोडय, न्हीद आतां तकली फोडूं नाका अशें सांगलें आनी हांवें रग ओडलो. पांच मिनिटांनी ताणें म्हाका कागद नासतनाच हवेंत बोटां घुंवडावन त्या गणिताची जाप दिली.

तूं पयलो येता? हांवें विचारलें. 'ना आमच्या सगल्या डिविजनांनी बिहारी भुरगे पयले येतात. तांकां आमचे भाशेन इंग्लिश येना. पूण गणितांत हुशार आनी तकलेन फीन.' ताणें जाप दिली. त्या भुरग्याचें प्रामाणीकपण आनी हो सहवास हांणी प्रवास सुखद जावन यादींत उरलो. रेल्वेंतल्या ह्या बऱ्या वायट अणभवांचो सांठो तसो खुबूच व्हडलो.

खूब वर्सां आदीं ज्युलिया नांवाचो एक चित्रपट आयिल्लो. ह्या चित्रपटाची कथा लिलियन हेलमन हे लेखिकेच्या आत्मकथेचेर आदारिल्ली आसली. हातूंतली चडशी कथा रेल्वे प्रवासाचेर आदारल्या. कथेचो काळ 1932 ते 1938. हिटलरी जाचाक उबगून ज्युलिया बर्लिनच्यान मॉस्कोक वचपाक भायर सरता. कितल्याशाच लेखकांनी हो चित्रपट पळेतकच जेन्ना जेन्ना संद मेळटा तेन्ना ह्या रेल्वे मार्गान प्रवास केल्लो. मॅरी मॉरीस ह्या तरणाट्या पत्रकार लेखिकेचें वॉल टू वॉल हें पुस्तकूय गाजलां. बर्लिन वॉल ते चीनी ग्रेट वॉल असो प्रवास तिणें रेल्वेन केल्लो. आंगार कांटो हाडपी अणभव तातूंत वर्णिल्यात. रेल्वे प्रवासान झपाटिल्ले जायते लेखक आसात. पॉल थुरो, जॅन मारीस, पिको अयर, दिलीप ह्रिरो आनी हेर कांय जाण. अगाथा ख्रिस्तीच्या *मर्डर ऑन द ओरियंट एक्सप्रेस* पुस्तकांत रेल्वे प्रवासा वांगडाच रहस्यकथाय उक्ती जायत वता. हाचेरूच चित्रपटूय आयिल्लो. रेल्वे प्रवासा वयल्यान साहित्याची वा साहित्यकृतींची ही वळेरी तशी

सोंपून सोंपची ना. ट्रेन ह्या हॉलिवूडच्या एका चित्रपटाचेर आदारीत 'बर्निंग ट्रेन' हो हिंदी चित्रपट गाजला. 'टायम' ह्या संवसारीक नामनेच्या सातोळ्यान रेल्वे प्रवासा विशींच्यो धा श्रेश्ठ साहित्यकृती नांवाचो लेख गार्डियन नेमाळ्यांत उजवाडायिल्लो. तातूंत ग्रॅहन ग्रीन, हॅरी पॉटर हांच्या रेल्वे अणभवांच्या कृतींचो आसपाव जाता. तातूंत कांय निबंद तशेंच कविता झेले लेगीत आसपावतात. बीबीसीन 1980 त बॅस्ट रेल्वे जर्नी माथाळ्याखाला डोक्युमेंटरीची एक माळ सुरू केल्ली. तांचेर आदारीत पुस्तकां आनी डीव्हीडी लेगीत आयल्यात.

रेल्वे प्रवासा वरवीं आमच्या मनोविश्वाचो आटाप व्हड व्हड जायत वता. नवे अणभव, नवीं मनशां, नवी भूंय, नव्यो गजाली, नवीं खाणां अशी नवी भर जिणेरंगांत भर घालता. चौकसपणा जाय आनी कानदोळे उक्ते दवरून अवलोकन तशेंच निरिक्षण करपाची कळाशी जाय. प्रवासाची आवड जाय.

हालींसराक वेळ उणो आशिल्ल्यान रेल्वेच्या जाग्यार विमानान वचप जाता. मनशां दोडटात. पूण गंभीर आनी इमपर्सनल वागपी. तातूंत अणभव ना. प्रवासाचो म्हणजे भुंयेचो फिल ना. प्रवासाच्या अणभवांक अंत आसना. म्हणटकच तांची पोटलीय सोडोवन सोडोवन सोंपना. तुर्ताक विसरूं नजो असो एक अणभव सांगून हे निबंद यात्रेक तांबडो बावटो दाखयतां.

दिल्लीक सावन परततना भोपाळ हुपलें. म्हज्या बर्था मुखार कोण नाशिल्लो. इतल्यान एक टीसी येवन बसलो. ताचो हिशोब करून जातकच तो ओग्गी बशिल्लो. म्हज्यांतल्या लेखकाक आनी खबरांकाराक चुळबुळटालें. मुळावी वासपूस करून जातकच हांवें आनिकूय खरपूंक सुरू केलें.

-तुमी भोपाळचे. ती वायू गळटी जाल्ली आनी हजारांनी लोक मेल्ले ते दुर्घटनेची याद आसा? तुमी आशिल्ले तेन्ना हांगा?

हो प्रस्न हांव सदांच त्या वाठारांत पावतकच कोणाकूय जिज्ञासेन सादेपणान विचारी.

- हांव कामार आशिल्लो तेन्ना. पयस.

- आनी घरा कडेन?

- बायल आशिल्ली.

- तिका त्रास जालो?

- कितलोय वेळ जालो जाल्यार हांव योसर वाट पळोवप ही तिची संवय. मागीर म्हाका वाडून तिणें जेवचें. त्या दिसा ती वाट पळेत गॅलरींत बशिल्ली. वायू गळटीचो बरोच त्रास तिका जालो. घुस्मटली.

- आनी?

- गेली... हांव पावलों तेन्ना कांयच उरूंक नाशिल्लें. खूब बरी आशिल्ली ती... ह्या वेवसायांत पयशें खोटांनी मेळटातच. पूण... आसूं...

टीसी बायलां भशेन खोळसांनी रडलो आनी दोन मिनटां भितर सॉरी म्हणून उठून दुसऱ्या डब्यांत तुरतुरीत गेलो.

म्हाका सामकें अपराधी दिसलें. ताच्या काळजा घाव्या वयली खवळी काडली म्हणून. ते रातीं जेवण ताळ्या कडेन येवंक लागलें.

त्या दिसा सावन हांव रेल्वे प्रवासांतूच कित्याक बसींत वा विमानांतल्या मख्ख मोन्या तशेंच बडबड्या प्रवाशांच्या प्रस्नांक लेगीत वयले वयर जापो दितां... प्रस्न विचारीच ना!



# भांगराळे ख्रीण

कांय गजाली आसूं वा घडणुको आसूं, कांय कलाकृती आसूं वा कांय अणभव आसूं ते काळजांत सासणाचे घर करून रावतात. जिणेंत बरें वायट सगलें येता. बऱ्याची तितली परत परत याद करची. जिवाक बरें दिसता. जें भव्य दिव्य मंगल अणभवलां ते हेरांक सांगचें वांटचें. कारण तातूंतल्यान निर्मळपण, व्यापकपण, रसीकताय वाडत रावता.

कसलीय गजाल करता आसतना जेन्ना करपी मनीस ते गजालींत आपलो जीव ओतून ती करता, तेन्ना ती दुसऱ्याक गोड लागता. पुरायेन समरस जावन, एक्जीव जावन जेन्ना ती गजाल वा कृती घडटा तेन्ना हेरांकूय आगळो वेगळो आनंद मेळटा. आपले कृतीची पूर्वतयारी जितली खोल आनी परीश्रम चड, तितलीच ती गोड. स्वताकूय खोसदिणी. स्वता आनंदांत बुडिल्ल्यान लागीं येवपी कोणूय तातूंत कित्याक भिजचोना? दरेक खेपे जेन्ना आमी आमचे कृतींत काळजा सावन सृजनशीलताय ओततात तेन्ना ती कलाकृती सर्वांगाक भिडून वता. निखळ निखटो निर्मळ विशुद्ध आनंद दिवन वता.

अशे तरेचे मेजून सोंपचेनात अशे प्रसंग तुमी आनी आमी अणभवत

आसतात. आयज त्या यादींतल्यो कांय यादी त्या वासाळ पुड्यांतल्यान सोडयतां.

परिसंवादांनी पेपर वाचन आसता. बरोवपी तज्ञ, तकालस घेवनूच ते बरयतात. फाव ती पूर्वतयारी करूनच पेपर बरयतात. पूण खूब खेपे वाचन वा सादरीकरण रटाळ जायत जाल्यार आयकतल्यांचो वा प्रेक्षकांचो रसभंग जाता. कांय खेपे प्रभावी अशें पेपर वाचनूय अणभवाक येता.

कांय वर्सां आदली गजाल. फोंड्या राजीव गांधी कला मंदिरांत साहित्य अकादेमीन एक परिसंवाद आयोजीत केल्लो. लोकसंगीत आनी लोकसाहित्य असो कितें तरी विशय. हांव उक्तावणाच्या सत्रांत गेल्लों. तातूंत लोकसाहित्य जाणकार डॉ. पांडुरंग फळदेसाय हांणी एक पेपर वाचलो. धा मिनटांनी तांणी आपूण ज्या लोकगितां विशीं उलयतां तांची झलक दाखयतां अशें सांगलें. खिणां भितर काणकोण गांवांतले लोककलाकार आपापलीं वाद्यां घेवन माचयेर बसले आनी तांणी लोकसंगिताचो अणभव दिलो. सगलें वातावरणूच बदलून गेलें. त्या कलाकारांचें इनोसन्स, तांची कला आनी फळदेसायाक पेपरांतल्यान जें कितें सांगूंक जाय आशिल्लें तें श्रोत्यांच्या थेट काळजांत गेलें. फोंडें शारांतल्या वातानुकूलीत थेटरांत बसून प्रेक्षक काणकोणच्या खेड्यांत पाविल्ले.

माचयेर बशिल्ले हेर प्रदेशांतले हेर भासांतले जाणटेले म्हालगडे साहित्यीक लेगीत सकयल देंवले. कारण तांकां कलाकारांची फाट दिसताली. तांणी सकयल देंवन पयले रांकेतले खुर्चेंत बसून गोंयची ती लोककला अणभवली. तांच्या दोळ्यांत एक वेगळीच खोस दिसली. ह्या पेपर वाचनान वा सादरीकरणान थंयच्या थंयच एक परिणाम सादलो तो उत्स्फूर्तपणान हांवें सत्र सोंपतकच नोट धाडून पांडुरंगबाबाक कळयलो. पेपर वाचन आनी परिणामकारक सादरीकरण आसचें तें अशें!

हालींसराक तंत्रगिन्यान आयलां. तंत्रगिन्यानान सगळ्याच मळांचेर आपली छाप घाल्या. पावर पॉयंट सादरीकरण खुबूच परिणाम सादता. पूण ताची मांडणी नीट वेवस्थीत आनी अभ्यासपूर्ण जाय. तातूंत सर्जनशील मनाची कल्पकताय जाय. तेन्नाच ताचो गोडवो दुसऱ्यांक मेळटा. बरीं बरीं पावर पॉयंट प्रेझेंटेशनां हांवें देशाच्या वेगवेगळ्या शारांनी वेगवेगळ्या मंचांचेर पळेल्यांत. उंचेल्या तंत्रगिन्यानाचो वापर केल्लीं. गोंयांनलें म्हजे भाशेंतलें एकूच प्रेझेंटेशन सासणाचें काळजांत घर करून उरलां. तें संदेश प्रभुदेसायाचें. सुनापरान्त दिसाळें मडगांव सावन पणजे धा पानांचें करून सुरु करपाचो बेत आंखिल्लो. नवो संपादक संदेश प्रभुदेसायान मडगांवां जाल्ले कार्यावळींत हें प्रेझेंटेशन केलें. सगळ्या कोंकणी मोग्यां मुखार माचये वयले मानेस्त बी उलयले. संदेशान पावर पॉयंट प्रेझेंटेशन केलें. मायका वयल्यान उतरांनी म्हणजे कंठांतल्यान आवाज काडून तो सामको उणो उलयलो. पूण लॅप टॉपावयल्यान ताच्या सादरीकरणाच्यो स्क्रिनार उसळपी, नाचत येवपी वेगवेगळ्या रंगांतल्यो डिझायनातल्यो आवाजा परिणामांनी भरिल्ल्यो स्लायडी खूब खूब उलयताल्यो. आनी तें कानां दोळ्यांचेर जबर परिणाम सादून स्वताक पटिल्ल्यान यादीकूय उरतालें. तातूंत आंकडेवारी आशिल्ली. तातूंत चित्रमय आलेख म्हणजे ग्राफ आशिल्ले. कितलेशेंच बडबडून कांयच कळचें नाशिल्लें तें संदेशान ह्या स्लायडींच्या माध्यमांतल्यान म्हणजे वेगळे तरेच्या प्रदर्शण विरयत आवाजांतल्यान सगल्यां मेरेन येसस्वीपणान पावयल्लें.

'ह्या ह्या पांवड्यार अमूक विद्यार्थी', 'हो शिक्षकांचो आंकडो', 'हो वाचक जावं येता' अश्यो स्लायडी येतनाच आनीक एक स्लायड येताली 'उखल ताका' हो कोंकणी वाकप्रचार आमकां खबरेपत्राची 'कॅचमेंट एरिया' खंय खंय आसा हें सांगून ताका कसो लागीं करूं येता हें प्रभावीपणान सांगी. ही एकूच देख हांगा दिल्या. तातूंतल्यान कोंकणी

वासाच्यो कितल्योश्योच फ्रेजी खूब खूब उलोवन गेल्यो. संदेशाचो होमवर्क तातूंतल्यान दिसलो. वीस मिनटांच्या सादरीकरणा खातीर ताणें कितलींशींच वरां खर्चिल्लीं हें कळटालें. म्हायती दिवपाची क्रमवारी, चित्रमय कथन, डिझायनिंग, शैली, कोंकणी उतरावळ, दरेके गजालीचेर बारीकसाणेन श्रम घेतिल्ले. हें सुंदर आनी देखदिणें प्रेझेंटेशन हांव केन्नाच विसरचो ना. कारण ती एक कलाकृती आशिल्ली. कसली तरी मैफल अणभविल्ल्या भशेन आनंद दिवपी.

साहित्य समजुपाक कांय खेपे कठीण वचूं येता. पूण संगीत थेट काळजाक भिडटा. तें जितलें गोड, परीपक्व, रियाजी, भावपूर्ण, कर्णमधूर तितलें तें काळजाक खोलायेन स्पर्श करता. भितर रिगता. थंय घर करून रावता. आनंद दिता. कारण काळीज बेसूर, बेताल, पोक्यो, उखलाप्यो गजाली खपोवन घेना. ताका फटोवं येना. सत्याचो ध्यास आनी दिव्यत्वाची आस हो काळजाचो सभाव आशिल्ल्यान योग्य तेंच, तितलेंच काळीज चिटून घेता.

हालींसराक संगिताच्या कार्यावळींक, मैफलींक, संमेलनांनी उण्या प्रमाणांत वचप जाता. कारण वेळ उणो उरता. बऱ्या बऱ्या सिस्टमींचेर डीव्हीडी, एमपीथ्री, सीडी आयकुपाचीय तजवीज जाल्या. हेंय कारण आसूं येता. पूण गायकाक वा वादकाक लायव्ह आयकप आनी संगिताच्या भावविश्वांत तो कलाकार जंय व्हरता थंय वचून रमप हो अणभव जीण समृद्ध करता. जगण्याक अर्थ हाडटा. अशीच एक कार्यावळ कांय वर्सां आदीं आयकली. फर्मागुडयेर. गिरीजाताई केळेकार संगीत संमेलनांत. सोलो तबलो वादन आशिल्लें. कलाकार अनुब्रत चटर्जी. म्हान तबलो वादक आनिन्दो चटर्जी हांचो पूत. तरणाटो कलाकार दिसतालोय गोरो गोमटो. तबलें म्हाका भुरगेपणांत सावन आवडटा. तबलें ही लय ताल आनी ठेको हांची घड्याळ. कोणाच्याय आंगांत कितेंय इंजेसांवां मारून भरूंक येत. लयकारी न्हय.

अनुव्रत चटर्जीन हीच गजाल थंय आपल्या वादनान सिद्ध केली. जित्या जिव्या प्रेक्षकां मुखार आनी संगीत रसिकां मुखार. आपल्या बोटांतले नजाकतीन लय आविश्कार अनुव्रतान घडयलो, तो कानांक आनी दोळ्यांक सुखावन गेलो. पेशकार, रेले, कायदो, मुखडे, तुकडे अशीं वेगवेगळीं मात्रांचीं गणितीय समीकरणां ताणें मांडलीं. आत्मविस्वासान केळयलीं. शांतपणान एकार एक चिरे दाळून इमारत बांदून कळस उबारचो तशी ही देड वराची कार्यावळ तेंगशेक पावयली. विनय हो गूण कलाकार आनिकूय चकाकी हाडटा. व्हडा नमळायेन आपल्या बापायन शिकयल्ल्या तालगणितांतले बारकावे, बापायच्या गुरून शिकयल्लो लयेचो जादू वा आनीक एका व्हड खांसायब तबलापटूची रचना तांची तांची आदरान याद करून अनुव्रतान वाजयली. वाजयली म्हणचे परस आपल्या नाजूक बोटांनी समर्थ अदाकारीन पेश केली. खणखणायली. अखेरेक गतीमानता इतली वाडिल्ली की ताणें माटवूच आपले मुठींत 'कॅप्चर' केल्ले भाशेन सगल्यांक लयमोहिनीन आनी तालाची भूल घालून धोलोवंक लायले. फोगोट्यांची माळ फडफडत उसळची तशे तबल्याचे बोल उसळत गेले. आलेख रंगतदार सोंपणांनी वाडत गेलो. क्लायमॅक्स सादत चडत गेलो. हें करतना म्हणजे तबलें सणसणून वाजतना ताच्या डग्ग्याची घुमीय षंखावरी तितलीच घुमत रावली. ही संतुळा म्हत्वाची. अनुव्रतान सुंदर गुलाबी आनी बरो डिझायनाचो ओडलायणो बंगाली कलाकाराक सोबसारको सदरो घाल्लो तो इल्लो इल्लो ह्या आलेखाच्या प्रवासा प्रमाण तळें भरचें तसो भिजत गेलो. ओलो ओलो जायत गेलो. रसिकांचीं मनां समरस जावन ओलीं ओलीं चिप्प जाल्लीं तसो तसो अनुव्रताचो सदरो गळ्या मेरेन घामान भरून गेल्लो. एक वेगळोच कोर त्या सदऱ्याक चडिल्लो. आनंदाचो एक वेगळोच रंग माटवाक चडिल्लो. ही धुंदी देंवपाकूच तयार नाशिल्ली. कार्यावळ सोंपली तरी ओग्गी ओग्गी रावन दिसतालें. कोणाच कडेन

उलोवचें न्हय, ती शांती तशीच जपची अशें दिसतालें.

हांव अनुव्रताक माचये फाटल्यान वचून मेळ्ळों. स्वर्गीय आनंद तुवें दिलो अशें सांगून ताची अपुरबाय केली. इश्ट-गायक कलाकार आनी संमेलनाचो एक संयोजक रघुनाथ फडकेक ह्या म्हान कलाकाराक आपोवपाक हातभार लायिल्ले खातीर परबीं दिलीं. आनी संगिताची आवड निर्मुपी म्हज्या घरच्यांचें, जाण्टेल्यांचें मनांतल्या मनांत उपकार मानीत भायर आयलों.

साहित्यूय आनंद दिता. पूण त्या साहित्याचे अंडरकरंट समजप सोपे आसनात. कवी रमेश वेळुस्कराल्यो कविता, निबंद आनी अणकार म्हाका आवडटात. पूण रमेशबाबाली एक बालकविता म्हाका इतली आवडल्या, इतली आवडल्या की ती म्हाका आवडिल्ली श्रेश्ठ बालकविता अशें हांव म्हणीन. पूण ती तुमकां सांगून जो आनंद मेळटलो ताचे परस रमेशबाबाल्या ओंठांतल्यान ती आयकल्यार चड खोल काळजांत रिगतली. 'इल्लेंशें नुस्तें, सामकें मस्तें', कविता चार उतरांची. पूण जे भावनेन कवी ती व्यक्त करता, आ हा... म्हजें काळीज परत भुरगें जाता. हांव म्हजे आवयचे मांडयेर पावतां. आवय म्हाका धाकटुलें ताट घेवन उंडयो लायता. म्हाका जेवपाची वान्साच ना. सगलींच भुरगेंपणां. पूण हांवें जेवचो म्हूण आवयची जबर इत्सा. हांव व्हड जावंक जाय. खावन जेवन धश्टपुश्ट जावंक जाय. म्हजें लक्ष केंद्रीत करपाक ती ही कविता म्हणटा- इल्लेंशें नुस्तें, सामकें मस्तें. म्हज्यांत आनंदाच्या ल्हारांची भरती येता. उंच उंच ल्हारां. आवय म्हाका इल्ल्याशा नुस्त्याचो इल्लोसो कपो कांटे कुशीक काडून लायता. तोंडांत घालता. हांव तो मट्ट करतां. कारण नुस्तें सामकें मस्तें हो आवयच्या गितांतलो शेरो म्हाका आवडटा. दुसऱ्याक मस्तो म्हणिल्लो म्हज्या बालमनाक सुखायता. कारण हांव एकलोच जगांतलो बरो भुरगो ही म्हजी भावना... त्या भावविश्वांतल्यान भायर येवयाच नाका अशें

दिसता.

म्हजी संस्कृती म्हणजे म्हजी भास म्हजें अन्न, जेवण. नुस्तें म्हज्या संस्कृतायेचो भाग. 'मस्तें' हें उतर म्हज्या बालमनाच्या चिमटीभर उतरावळींतलो भाग. म्हाका 'बा बा ब्लॅक शीप, हॅव यू एनी वूल' हे कविते परस वा 'हमटी दमटी सॅट ऑन द वॉल' ह्या कवितां परस रमेशबाबाली कविता अजुनूय खूब खूब आवडटा. कारण म्हजे मातयेंतलें संगीत ते कवितेंतल्या 'सामकें' ह्या उतरांनी भरलां. यमकांतलो गोडवो सूख दिता. त्या चार उतरांचेर चार हजार उतरां बरोवं येत. पूण तातूंतलें सौंदर्य अपुरेंच उरतलें.

म्हाका आवडिल्लें बालगीत म्हणजे 'बाबू आमगेलो'. खूब जाणांक हें गीत पुरूषोत्तम सिंगबाळ हांणी रचलां हें खबर ना. हांव क्वीज सर्तींत हो ऑडिओ ट्रॅक लायतां तेन्ना भुरगें मनोहरबाबाची रचना अशी जाप दितात. भुरग्यां खातीर बरोवप म्हाकठीण काम. ह्या गितांतूय होच जादू आसा. नकसूद उतरां आसात. गोरो गोरो पिठा भोबो, हुनुहुनुलो-शानुशानुलो, कोणें रे बाबाक आमच्या मारलो, शू... ओगी रावात, बाबून लायल्या तिती आनी बाबून केल्या ताता हीं उतरां म्हाका म्हजीं दिसतात. हें गीत अणकारूं नजो. खंयचेच भारतीय भाशेंत लेगीत. ताच्या दरेक उतरांत म्हजे भाशीक संस्कृतायेच्या संगिताची असंख्य अनंत भावपूर्ण रुपां भरल्यांत. तांचो अणकार कसो करूं येत? ह्या गिताची संगीत रचनाय अप्रतीम आसा. ह्या बालगितान म्हजी जीण समृद्ध केल्या आनी म्हजे भाशेची ताकद म्हाका वेगळे नदरेन दाखोवन दिल्या.

जिणेचे वाटेर सूख दिवपी कितल्योश्योच गजाली आमकां भेट्टात. पळोवपाची मात नदर जाय. शिटूकसाण जाय. तोखेवपाचें काळीज जाय. सगल्यो राटावळी करतना आनी हांव बिझी आसां अशें नाटक करतनाय जिणेच्या धकेचपाट्यांच्या दगदगांत असले सौंदर्यान भरिल्ले

खीण इन्जॉय करून काळजा पेल्यांत सांठोवपाची कला जाय. रसीक आनी दिलदार मनान तोखेवपाचें धाडस जाय. ते खातीर काळीज निर्मळ आनी व्यापक जाय. केदें? मळबायेदें!



# तरेतरेचीं सवंगां

जगतना दर दिसा ताटांत जें येता तें आमी खातात. त्या हिसबान जीं मनशां मेळटात तांचेकडेन जुळोवन घेतात. हीं मनशां तरेतरेचीं. तरेतरेच्या सभावांचीं. कोल्ली, सदाबहार प्रसन्न, मदत करपी, सेवाभावी, आपसुलाद, चाबपी, दुखोवपी, आनंद दिवपी, जिणेंतल्या सत्याचो थाव घेतना ते खातीर अप्रत्यक्षपणान आदार करपी.... अनंत तरा. अनंत नमुने. कोणाकडेनूय घसट आनी दाटी करतना खूब जतनाय घेवची पडटा. सोयरो आसूं, इश्ट आसूं, कार्यालयांत सक्तीन आदळपी वांगडचे कर्मचारी आसूं, वेवसायांतले अशील आसूं वा हेर घटक आसूं त्या त्या मनशांकडेन तांच्या कलान जुळोवन घेवचें पडटा. ही एक साधना. एक उपासना. जिणेची एक व्हडली कला. कोणापसून कितलें अंतर दवरचें आनी ताका कसो हाताळचो वा टॅकल करचो ही कला सोपी न्हय. पासिंयेंस, सहिश्णुता, समजून घेवपाची आनी प्रेमान सांसपुपाची, स्वीकार करपाची मॅच्युरीटी हांगा उपकारा येता.

कांय मनीस दोट्टी भूमिका आपणावपी आसतात. भितल्ले बुध्दीचे कशे. कांय जाण स्वताचीच भक्ती करपांत इतले गुल्ल आसतात की त्या

झापडांक लागून तांकां दुसरे मनीस दिसचनात. कांय लेखक आसतात जे स्वताच्याच साहित्यकृतींचेर, स्वताविशींच उलयत आसतात. सुमाराभायर. कांय लेखक अशें म्हणटात - फकत मेजार बसून बरोवपा पुरतो हांव क्रिएटीव्ह रायटर आसतां. हाचोच अर्थ असो की आपणा भितल्लो मनीस आनी आपणा भितल्लो कलावंत हांकां तुमी भरसूं नाकात असो तांचो दावो. नाटक - सिनेमा - नाचांतलो कलाकार वा शब्दांचो कलाकार म्हणजे लेखक हो पयलीं बरो शाणो परिपक्व मनीस आसूंक जाय अशें कांय जाण म्हणतीत. पूण कलाकाराची फकत कलाकृतीच तोखेयात, ताच्या मनीसपणाची विस्कटावणी कित्याक असोय वाद चलत आयला. सगले तरेचे लेखक, कलाकार, प्रतिभावंत, प्रज्ञावंत, हेर वेवसायीक आनी बाकीचे समाजीक घटक भोंवतणी आसात. तांचो आमचे जिणेकडेन प्रत्यक्षपणान वा असवडीं संबंद येत आसता. तातूंतले कांय जाण आमकां थेट घश्टतात. कांय जाण पयसुल्ल्यान. लागसारपण येता तेन्ना दक्षताय घेवप म्हत्वाचें आसता नाजाल्यार घावे जाले, जखमो जाल्यो आनी दुखख आयलें म्हणून उपरांत खंत करून कितें फायदो?

सगलीं न्हय पूण भोंवतणचीं कांय मनशां जीण सुसह्य करतात. गोड करतात. एकेकदां कांय जाण नाका पुरो करून सोडटात. धोंगशे अशे तरेन मारतात की जगणें कठीण करून सोडटात. शिक्षण आनी वागणें हांचो कसलोच संबंद ना हें कळपाक खूब वेळ वता. तापदायक आनी त्रासदायक लोकांपसून कूस मारप वा कुशीक रावप हें कोणूय पसंत करतलोच. बेठोच चूड दाखोवन म्हारू घरांत हाडपाक कोणाक आवडटलें? पूण ह्या जगांत रावतात म्हणटकच ह्या सगले तरेच्या मनशांचो संपर्क येतलोच. तांचेवांगडा तांच्या कलान घेवन निस्तर काडचो पडटलोच. पूण तांकां कितल्या प्रमाणांत, कितले खोलायेन आदळप हें थारावप हीच मनीस नांवाचे पुस्तक- वाचन कलेची

कळाशी. हें सगलें एकेच गजालींतल्यान सादता. अणभव आनी निरीक्षण. अणभवान खूब कितें शिकूंक मेळटा. निरीक्षणान म्हणजे तेळटकच चिंतन करपाक वाव मेळटा. हें निरीक्षण मनशाविशींच्या उपाट कुतुहलान, प्रेमान आनी लक्तुबायेन मात घडूंक जाय आं! हो मनीस सामको बुरसो वा फटींग वा घातमारो असो जजमेंट वा सेंतेंस पासार करपाची तांक आमचेठांय आसना. कारण कांय कठीण प्रसंगांवेळार अनपेक्षीतपणान विश्वासघातकी अशें लेबल मारिल्लो मनीस अकस्मात टपकता आनी जिणेच्या प्रवासांतली मुंगरिल्ली आमची गाडी धुकलता. अणभव शिकयता कितें तर तें हें!

भुरग्यांवांगडा, आपणा परस चड पिरायेच्या जाणट्यांकडेन, तरनाट्यांकडेन, वेगवेगळ्या थरांतल्या लोकांकडेन वर्तणूक करतना वेगवेगळ्या मात्रांच्या ठेक्यार स्वताचो जीव खेळोवचो पडटा. ही सगली सर्कस करतना स्वताचे जिणेची सम चुकूंक फावना ही मोटी जापसालदारकी आसता. कारण आपली मूळ लय हालली काय उपरासता प्रलय. दुख्खाचो! म्हणूनूच तरेतरेच्या संवगांकडेन वागपाची कला केळयत रावची पडटा. विद्यार्थी वृत्तीन. मनीस बदलता, वृत्ती बदलता. हीं सवंगां बदलत आसतात. त्या संवंगांक तेळपी आनी अभ्यासपी 'हांव' नांवाच्या नमुन्याचोय त्याच सवंगांच्या संचांत आसपाव आसता. तांकां ज्या मापट्यान जोखतां तितल्याच तटस्थपणान आनी निपक्षपातीपणान स्वताची विस्कटावणी आनी परीक्षण करीत रावप म्हणजे हे कलेच्या रियाझाचो परम बिंदू! आपूण दीसभर स्वताच्या मुखामळावयलीं जीं म्होंवाळीं अनिवार्य आशिल्ल्यान बदलीत आसतां, त्या मुखवट्यांचोय अभ्यास सत्याच्या वक्लांतल्यान करचो पडटा!! जिणेचें संगीत स्वरेल आनी सुरेल जावन स्वताक आनी भोंवतणच्यांक आनंद दित रावतलों जाल्यार!

■

# अती शाणे

पुस्तक प्रकाशनाची कार्यावळ चलताली. असल्या कार्यावळीं वेळार म्हज्या कांय विनोदी वृत्तीच्या इश्टावांगडा बसतां. कारण असल्या उपचारीक कार्यावळीं वेळार खूब खेपे नाका आशिल्लो ताण जाणवता. तेन्ना हेरांक त्रास जावचोना हाची जतनाय घेवन अदीमदीं एकामेकांच्या कानांत फुतफुतून कितें चललां ताचेर कमेंट करून विनोद करून तो ताण ल्हव करूं येता. वक्ते उलयत आशिल्ले. मदींच म्हज्या इश्टान कानांत म्हळें - तशे सगलेच हुशार आसतात रे. पूण मरे, आसा ताचे परस चड समजतात, न्ही? ... हांवें एक पॉज घेतली. हांव प्रतीसाद दिवंक पळेतां हें ताका कळ्ळें. ताणें कान म्हज्या ओंठांम्हज्यांत हाडले. हांवें म्हळें - ताचेंय कांयच दुख्ख जायना रे. पूण आपुणूच हुशार बाकीचे भोटे आनी बोणेर अशें जेन्ना हे कथीत हुशार लोक समजतात ताचें वायट जाता रे... ताणें फोर मारिल्लो ताचेर हांवें हुनार हून सिक्सर मारिल्ले भशेन तो मुमुरखेंच हांसलो आन्नी विनाकारण विद्वज्जड उतरांनी वक्त्यांनी हाडिल्लो ताण तो विसरलो.

एक धाकटुलें कवन वाचिल्ल्याचें याद जाता. नेमकीं उतरां याद

जायनात. सादारणसो आशय असो - जण एकलो आपणाक हुशार समजता. हाचेर उपाय एकूच. ताका पळेत रावप. म्हाका जाल्यार ही कविता तशी सामकी सादी बी दिसना. तातूंत एक फिलॉजॉफीय आसा. पळेत रावपा बगर आनीक कितें म्हणून करतलो पापया तूं? पळेत रावप म्हणजेच स्वीकार करप. त्रास जातात पूण सोंसप. त्या पिशेपणाची चिकित्सा करप ना. कारण अर्दकुट्यापणाची विस्कटावणी तार्कीक पांवड्यार करूच नजो. ते कवितेक आनीक एक वळ लावपाचो मोह जाता. पळेत रावप आनी हांसप. कारण हांसतकच ताण पयस जाता. ह्या अती हुशार समजुप्यांचें एक आसा. ते दुसऱ्याचें आयकुनूच घेनात. दुसऱ्याक उलोवंकूच दिनात. बडबड बडबड धबधबो कसो उलयत रावतात. दुसरो शाणो आसूं येता हें चिंतपाचें धंगण तांकां आसना. कारण असले आत्मकेंद्रीत लोक स्वताच्या मोगांत पडिल्ले आसतात. स्वताच्या जुंव्यारूच राबितो करून आशिल्ल्यान तांकां पलतडचें कांयच दिसना.

आमचो एक लेखक इश्ट आसा. तो कसलेय कार्यावळीक माचयेर वा हेर माध्यमा वरवीं उलोवंक लागलो काय आमी वाट पळेतात. तो केन्ना स्वताचेर उलोवंक लागतलो ताची. आनी तो हमखास स्वताचेर घालून घेता. आपले साहित्यकृतीचीं बिजां, तांचे जाल्ले अणकार, तांची जाल्ली तोखणाय... ताणें तशें केलेंना जाल्यार आमकां ताचो त्रास जाता. पूण तो आमची केन्नाच निर्शेणी करिना. तो स्वताचेर उलोवंक लागनाफुडें आमी सुस्कारो सोडटात. ताण पयस जाता. सू जाता.

कांय वर्सां आदली गजाल ही. अशेच एके कार्यावळींत आनीक एका जाणट्या इश्टालागीं हांव बशिल्लों. ल्हवूच तो कानांत फुतफुतलो.

- हे स्वताक कितें समजतात कांयच कळना मरे. हांच्या धाडसाचेंच कवतूक करीन दिसता. न्हीं?

- कपल तुजें. हांवें म्हळें. आपूण धाडस करतां हें त्या अन्नाडी

लोकांक खबर लेगीत ना. तांच्या होलमातूच ना रे तें... शाणो जावंक सोदपी मनीस उकतो आसता. मेकळो आसता. सगले तरेचीं जनेलां ताणें उकतीं दवरिल्लीं आसतात. सत्याक अनंत तांसां आसतात हें ताका खबर आसता. सत्याचें तांस होलमतकच ताका कळटा. पूण तो त्या खिणाक तिरतिरना वा उचांबळीत जायना. आनीक कितलींशींच तांसां कळपाचीं आसात हें तो जाणा आसता. तीं तांसां, ते धागे, ते पोड, त्यो गांठी उसवतल्यो हें तो जाणा आसता. लेखक आसूं कलाकार आसूं ताचेकडेन विनय आनी नमळाय आसता जाल्यार तो सुंदर दिसता. सुंदरपणाचें तेज ताची कला आनीक आनीक उन्नत करित रावता. कलाकाराक आपूण कले परस व्हड न्ही हें शाणेपण जेन्ना कळना तेन्ना ताचो विकास जावंक पावना. जो कलेचो विशुध्द उपासक आसता तो साधक कलेचीच उपासना करता. पूजा करता. ताका आपूण थंय नगण्य दिसता. कला सृजनाचें चैतन्य आपल्यांतल्यान फकत उसळटा आनी हे प्रक्रियेंत आपूण फकत एक माध्यम आसता हाची जाण ताका आसता. कलेचें मुळावण सत्याचेर आदारून आसता. आसूंक जाय. तेन्नाच ते कलाकृतीचें आंगआंग रसरसून उमलता आनी फुलता. तेन्नाच ती कृती रसिकाक आनंद दिता.

सॉक्रिटिसाचें एक वाक्य याद जाता. हांव एकूच गजाल जाणा. ती म्हणजे हांव कांयच नकळ. जेन्ना जेन्ना कोणूय स्वताक हुशार समजून प्रेमांत पडून दुसऱ्यांक तुच्छ लेखून कुसकुटावपाची वृत्ती आपणायता तेन्ना सॉक्रेटिसाचो विचार ताणें याद करचो. मनापसून. तो कुटलो ताका साल्वार करतलो!



# बुद्दीबळ

भुरगेपणांतली गजाल. शाळेंत आशिल्लों काय इश्कोलांत ताची याद जायना. पूण आमी आशिल्लीं चोडणा. सुहासकाकान सांजे ऑफिसांतल्यान येतना एक बुद्दीबळ पट आनी घुलो हाडल्यो. कागदी पट आनी त्यो प्लास्टीकच्यो घुलो. हें उंट आनी तें तिरपें चलता, हो घोडो आनी तो अडेज घरां घुलांवयल्यान उडत वता, हो हत्ती आनी तो सरळ वा आडवोंच वता, हो वजीर, हें प्यादें अशें तो आपल्या व्हडल्या भावाक आनाकाकाक शिकोवंक लागलो. ते दोगूय डाव खेळ्ळे.

हांव आनी म्हजो भाव अमोलभाई तो खेळ पळोवन अजापीत जाले. आमचीय उमळशीक ताणली आनी आमीय सुहासकाका कडल्यान खेळाचे नेम जाणून घेतले. सुहासकाका आनी आनाकाका उपरांत कितले खेळ्ळे ताची याद जायना. हांव आनी अमोलभाई सुटयेंत दर दिसा खेळटाले. म्हाका तो खेळ खूब आवडलो. तातूंत म्हाका एक वेगळोच आनंद मेळूंक लागलों. कसलीय गजाल आवडली काय तातूंत रमून खोल खोल वचप ही म्हजी जल्मजात आवड. हांवें बुध्दीबळाचीं

पुस्तकां वाचपाक सुरवात केली. अमोलभाईक तातूंत म्हजे इतलो रस नाशिल्लो. म्हाका मात एक नवी घोल सांपडिल्ली. बुध्दीबळ हो तकलेचो बुध्दीचो खेळ. ह्या खेळांत फुडल्या कांय चालीं उपरांत पटाचेर कशी स्थिती उपरासतली हें अचूकपणान चिंतपाक दूरदृश्टी लागता. मनाची एकाग्रता लागता. एकाग्रतायेचो अभ्यास ह्या खेळांतल्यान घडटा.

बॉबी फिशर ह्या अमेरीकी खेळगड्यान त्या वर्सा रशियेचो संवसारीक वस्ताद बॉरीस स्पास्की हाका आव्हान दिल्लें. खबरांपत्रांचेर ह्यो रूचीक आनी वादग्रस्त खबरो वाचतना मजाच येताली. बॉबी मातसो शीरफाल्त मनीस. ताका भयणीन खंय एक दीस एक बुद्दीबळ पट हाडून दिलो. बॉबी तसो तकलेन फीन. ताणें बरीच प्रगती केली. ग्रँडमास्टरांक हरोवंक लागलो. हाका ताका जळामळा तो एकूच सांगतालो - हांव संवसारीक बुध्दीबळ वस्ताद जातलों. बाजारांत, चौकार सगल्याक बॉबी भुरग्यां भशेन एकूच गजाल सांगत आशिल्लो. हांव वर्ल्ड चम्पियन जातलों आनी रशियेचें ह्या खेळाचें वर्चस्व काडून घेतलों. आनी.... एक दीस खऱ्यांनीच बॉबीन त्या आव्हानाच्या लड्यांत स्पास्कीक हरयलो आनी बुध्दीबळाचो मुकूट रशिये कडल्यान खेंचलो.

ताचे आदीं कितलींशींच वर्सां रशियान ह्या खेळाचेर वरतेपण गाजयल्लें. रशियेंत सगल्यांत चड बुध्दीबळ ग्रँडमास्टर आशिल्ले. त्या देशान हो खेळ स्कूलांनी पावयल्लो. ल्हान भुरगीं जल्माक येवचे पयलीं उलोवंक शिकचे पयलीं खंय राजा, प्यादीं ह्यो बुद्दीबळ खेळांतल्यो घुलो घेवन खेळटालीं खंय. बावल्यांनी खेळिल्ले भशेन. अजून हो देश बुद्दीबळाच्या मळार अग्रेसर आसाच. कालांतरान रशियन गडो आनातोली कारपोव संवसारीक वस्ताद जालो. बॉबीक ताणें आव्हान दिलें. बॉबी विक्षिप्त आनी विचित्र. तिरसुवाद. खेळ्ळोच ना. कारपोवाक मुकूट मेळ्ळो. कास्पारोवा सारको संवसारीक वस्ताद रशियेन उपरांत दिलो.

म्हाका बुद्दीबळाच्यो ह्यो खबरो वाचपाचें पिशेंच लागलें.

बुद्दीबळाचीं पुस्तकां घेवन हांव तातूंतले ग्रॅण्डमास्टरांचे डाव लावन वरांचीं वरां बसूंक लागलो. तातूंतलीं दोन चालींनी चेकमेट करपाचीं कुवाडीं घेवन तातूंत रमूंक लागलों. माईक ह्या म्हज्या पिशाचो हुस्को जावचो. अभ्यास बुडून हांव तातूंत फाटीं उरत म्हूण. बुद्दीबळ खेळ आनी गणीत विशय हांचें तशें थेट नातें ना. बुद्दीबळांतलो वस्ताद गणितांत बोंडेर आशिल्ल्याच्यो जायत्यो पती आसात. पूण म्हाका म्हजे जिणेंत गणितांतल्या आनी बुद्दीबळांतल्या कूट प्रस्नांनी बुद्धीक जो कैफ दिला, जी नशा दिल्या, जो आनंद दिला, जी धुंदी दिल्या, जी धार हाडल्या ताचें वर्णन उतरांनी करप खऱ्यांनीच कठीण.

हांवें इश्कोलाचें आंतर शालेय सर्तींत प्रतिनिधित्व केलें. 1979 वर्सा म्हणजे हांव धावेक आसतना पयली गोंय बुद्धीबळ सर्त जाली. वास्को. हांव मुजरत तातूंत वांटेकार जावपाक गेलों. वेगळोच अणभव मेळ्ळो. दोन तीन फेरयां उपरांत हरलों. पूण खूब शिकूंक मेळ्ळें. कॉलेजाक पावतकच कॉलेजाच्या पंगडाचें प्रतिनिधित्व केलें. धेंपे कॉलेजाचो कॅप्टन सुहास अस्नोडकार. तो तेन्ना राज्य वस्ताद्‌य आशिल्लो. ताचे सगलेच भाव बुद्दीबळ खेळगडे. दर वर्सा फर्मागुडयेर इंजिनियरींग कॉलेजांत आंतर महाविद्यालयीन सांघिक बुध्दीबळ सर्त जावची. तिनूय वर्सांनी आमी वस्तादपण मेळयलें नाजाल्यार सहवस्ताद तरी जाले. इंजिनियरींग पंगडूच आमकां टक्कर दितालो.

कॉलेजांत आसतना पणजेंत राश्ट्रीय सब - ज्युनीयर बुध्दीबळ सर्त जाली. दर दिसा चर्च हॉलांत हांवें हे खेळ पळोवपाक वचचें. सातवेक शिकपी विश्वनाथन आनंद सर्तीचो वस्ताद थारलो. आनंद खूब नेटान गतीन खेळटालो. पयल्यो पांच स चाली तो इतल्यो वेगवान करतालो की प्रतिस्पर्धी गडो आबूज जावचो. निमाणच्या दिसा एका दिसाळ्याच्या प्रतिनिधीन आनंदाक मुलाखतींत एक प्रस्न विचारलो - तुजो हावेस कितें? आनंदान ताका तात्काळ सांगलें - संवसारीक

वस्ताद जावप. आमकां अजापूच दिसलें. त्या सप्तक भर हांव आनी म्हजे इश्ट आनंदाकडेन खबरी मारीत आशिल्ले. ताचो बापूय वांगडा आयिल्लो. आनंदाचें भुरगेपण फिलीपीन्सांत गेल्ल्यान ताच्या बुध्दीबळ गुणांक थंय बरीच उर्बा मेळिल्ली. आनंदान भारताक ह्या खेळांतल्यान केदे तांकीचो आनंद हाडून दिलो हो सगळो इतिहास आमी सगळेच जाणात. आनंद राश्ट्रीय बुध्दीबळ वस्ताद जालो. ल्हान पिरायेचेर. आनी देशांतलो पयलो ग्रॅण्डमास्टर जालो. पणजेंत ताणें पत्रकारांक दिल्लें उतर खरें करून दाखयलें. तो संवसारीक वस्तादूय जालो.

गोंयांत सद्या बुध्दीबळाचो प्रसार बरोच वाडला. भक्ती कुलकर्णी पयलें बायल ग्रॅण्डमास्टर जालां. भक्तीनूय स्कूलाक आसतनाच ल्हान पिरायेचेर सगल्या म्हालगड्या जाणट्या अणभवी खेळगड्यांक हरोवन गोंयचें वस्ताद जावपाचो विक्रम घडयला. स्वताच एक घूल कशें दिसपी कुकुल्या इव्हाना फुर्तादोन एका पिराय गटांत संवसारीक ज्युनीयर वस्ताद जावपाचो मान मेळोवन गोंयचेंय नांव व्हड केलां. आनीकूय जायते खेळगडे नामना मेळयत आसात. बुध्दीबळाचे वर्ग आनी प्रशिक्षण ही संस्कृती वाडूंक लागल्या ही बरी गजाल. सुटयेच्या दिसांनी ल्हान ल्हान भुरगीं बुद्दीबळ शिकपाक, उंचेले धडे घेवपाक शारां शारांनी सुरु जाल्ल्या ह्या बुद्दीबळ वर्गांनी वतात हें पळोवन बरें दिसता. सगळ्या तालुक्यांनी बुद्दीबळ संघटना जाल्यात. राश्ट्रीय बुद्दीबळ संघटनेच्या पालवान उंचा पांवड्याच्यो सर्ती गोंयांत जातात. थळाव्या खेळगड्यांक खूब खूब शिकूंक मेळटा.

आयज आमचे पिरायेर हो खेळ खेळपाचें पासिंयेंस उरूंक ना. फकत सुहास अस्नोडकर अजुनूय सर्तींनी खेळटा. पूण म्हजें ह्या खेळाविशींचें प्रेम मात तश्शें आसा. हालींच एका हायस्कूलांत बुद्दीबळ प्रशिक्षण वर्गाच्या समारोप सत्रांत भुरग्यांक प्रमाणपत्रां दिवपाक आयोजकांनी म्हाका आपयलो तेन्ना म्हज्यांतले बुद्दीबळ आवडीचो

तांणी वेगळे पध्दतीन अपुरबायेन भोवमान केलो अशें दिसलें. हांवें कोंकणीत उलोवप केलें आनी भुरग्यांक ह्या खेळाकडेन आनीकूय आकर्शीत करपा खातीर कांय चुटके गजाली सांगल्यो. आपले भाशेंतल्यान ते अणभव सांगिल्ल्यान ते भुरग्यांच्या काळजांत रिगले. तीं खोशी जालीं अशें आयोजकांनी उपरांत सांगलें. स्वामी विवेकानंदांनी शिकागोंत 1893त जें उलोवप केल्लें तेन्ना आपल्या उलोवपांत एक वाक्य सांगिल्लें. ज्या देशांत बुद्दीबळाचो जल्म जालो त्या देशाचो हांव प्रतिनिधी. केद्या अभिमानाची गजाल ही. बुद्दीबळ खेळाचेर कितलींशींच पुस्तकां आसात. तीं वाचतनाच एक वाक्य मेळ्ळें, बुद्दीबळाची आवड आशिल्ल्या एका विचारवंताचें- मोगांत, संगितांत आनी बुद्दीबळांत एक शक्त आनी जादू आसता, मनशाक आनंद दिवपाची!

■

# पलतडचो मनीस

ख्यास्ती खूब तरेच्यो आसतात. भाशामोगी संस्कृतीमोगी कलामोगी साहित्यमोगी मनशाक एक अत्युच्च कलाकृती चुकप ही एक व्हड खास्त थारता. सांगपाचें म्हणचे- कोंकणी भाशेचेर, गोंयचे मातयेचेर, कलेचेर, साहित्याचेर, चित्रपट कलेचेर कोणूय मरसर येतिश्ट प्रेम खऱ्यांनीच करता आनी ताणें सांगलें की जर आपणें 'पलतडचो मनीस' हो चित्रपट पळोवंक ना म्हणून, जाल्यार समजुचें, ही कलाकृती पळोवंक ना ही ताचे खातीर महाख्यास्त!

'पलतडचो मनीस' चित्रपटाक व्हडल्या व्हडला प्रतिश्ठेच्या नामनेच्या चित्रपट महोत्सवांनी जायते पुरस्कार मेळिल्ले. चित्रपट म्हणजे कितें हें समजल्ल्या संवसारांतल्या अणभवी ज्युरींनी तो उखलून धरिल्लो. कोंकणीचें नांव जगभर जाल्लें. लक्ष्मीकांत शेटगांवकार ह्या गुणी दिग्दर्शकाचें नांव गाजतालें. ताकाच लागून हो चित्रपट पळोवपाची उमळशीक लागिल्ली.

हांव चड पिक्चरां पळेना. तसो हांव समिक्षकाचो आवूय हाडिना. पूण उमळशीक म्हूण निदान भाशेच्यो चुको बी आसत जाल्यार मजा

पळोवया अशें मनांत चिंतून ह्या चित्रपटाक गेलों. गेलों आनी थार शेणलों. त्या दोन वरांनी स्वताचें अस्तित्वूच विसरून गेलों. परतलों तरी दोन दीस ती कलाकृती आंगांत संचारिल्ले भशेन कसल्यातरी आनंदांत म्हाका उफेवन बुडोवन हाडीत आशिल्ली.

तोंडांत उतरां आयलीं- 'ही एक अप्रतीम सॅल्युलॉयड पोएट्री' . कमर्शिअल फिल्मां म्हाका आवडच नात. आर्ट फिल्मां आवडटात. पूण हें ताच्या पेल्यान म्हणचे 'लिटररी' फिल्म अशें कितेंशें दिसलें. कारण लक्ष्मीकांत शेटगांवकाराक साहित्याची बेस बरी जाण आसा.

लक्ष्मीकांताक साहित्य कॅमेरांतल्यान अणकारीत करून कशें दिवप हाची जाण आसा. तो कथा सांगपाची कला जाणा. खंयच्या साहित्यीक बिजाक सिनेमाटोग्राफीक तांक आसा हें ताका कळटा.

साहित्यांत सुचकताय आसता. मॅटाफर आसता. अलंकारीक भास आसता. अंतप्रवाह म्हणचे अण्डरकरण्ट आसतात. प्रतिकां-प्रतिमां आसतात. सिम्बॉलिझम आसता. आशय आनी विशय हांचीं मळबां आसतात. कथानक आसता. भितर लिपिल्ले संदेश आसतात. स्टोरिलायन आसता. तिका मुखार खेंचपी गतीमान अशी एक प्रवाही धार आसता. सिद्धहस्त लेखकाक म्हणल्यार शब्दप्रभूक हे सगले घटक कलात्मक पांवड्यार उतरांनी कशे केळोवचे आनी वाचप्याक त्या विश्वांत व्हरून कशे खेळोवचे ही नाट बेस बरी खबर आसता. पूण तीच कथा आपल्या कॅमेरांतल्यान सांगून हे सगले परिणाम दृश्य आनी आवाजापरिणामांच्या माध्यमांतल्यान सांगप म्हणचे फकांडां न्हय. आनी हें सगलें करतना लक्ष्मीकांत एक व्हडली देख घालून गेला.

कसली देख? उतरांची गरज आसा काय कितें, संवादाची कितपत गरज लागता हें दिग्दर्शकान कितलें आनी कशें चिंतचें ती देख. ह्या पांवड्यार ताचें फिल्म वस्तुपाठ थारता. एक व्हडली गजाल तो जाणा. पटकथा आनी संवाद बरोवपाक ताणें कोणाच लेखकाक सांगूंक ना.

स्वताच ती उतरांची वीण बांदल्या. एक उतर लेगीत वापरतना एका उतराक लाखभर रुपया पडल्यात अशें धरून तीं उतरां खर्चिल्यांत. चित्रपटाची आपली अशी भास आसता. लक्ष्मीकांताक ती कळ्ळ्या. म्हणूनच ताका खांपो दिग्दर्शक आनी अपुरबायेचो कलाकार अशें म्हणचें पडटा.

'मर' इतलेंच उतर एक पात्र वापरता. कितलें सुंदर क्रियापद हें. 'भायरो जा तूं, फोंडांत वच तूं...' अशें कितेंय हांव बरोवपाचों. कारण हांव लेखक. म्हणूनूच संवाद बरोवपाचें काम लक्ष्मीकांतान लेखकांक दिवंक ना तें बरें केलें. पूण ताचे परस सुंदर आनी मुदयेर थीक 'परफॅक्ट' अशें उतर लक्ष्मीकांत वापरता. लोक उलयतात ती भास तो वापरता. बाकी सगलें कॅमेराच उलयता. 'गो टू हॅल' अशें तीन उतरांचें इंग्लिश कॅप्शन 'मर' उतरा वेळार थंय स्क्रिनार पडटा आनी ते म्हजे भाशेच्या उलोवपांतल्यान म्हणजे दीसपट्ट्‌ जिणेंतल्या डायलॉगांतली क्रियापदाची तांक आनी जादू म्हाका कळटा. हो दिग्दर्शक म्हाका ती गजाल पटयता आनी अंतर्मुख करता. लेखक म्हणून म्हाका चिंतूंक लायता. कितें येवजूंक लायता? नाटक नांवाच्या सादरीकरणाक आनी साहित्यकृतीक संवादांची गरज आसताच. पूण कथा निबंध कादंबरी बरयतना उतरां जाय. तरिकूय एका वेगळ्या चिंतनाच्या कॅमेरांतल्यान काटकसरीन उतरां मांडपाची कला विकसीत करपाची नदर हो दिग्दर्शक दिता. निदान चिंतूंक लायता. अस्वस्थ करून उडयता. हेंच ताचें येस.

प्रणयकथेंत फॉरेस्ट गार्ड गांवभर हेडपी पिशे बायलेच्या मोगांत पडटा. जेवता आसतना कशाय कशें गोडशें भुरकावपी पिशेक तो म्हणटा- गोडशें खावप कठीण आसता. तो खावन दाखयता. मागीर ती खाता. मुदलांत उतरांच उणीं वतात. फकत एक वाक्य. पूण गोडशें खावप कठीण आसता ह्या वाक्यांतलो सुचक अर्थ उपरांत कळटा. तिच्या प्रेमाचें गोडशें तो खाता पूण मागीर पिशे बायलेच्या संबंदांक

लागून गांवच्या लोकांच्यो बकच्छायो निंदा हांकां तोंड दितना तो कसो खरशेता आनी निरशेता ह्या नाट्याची सुलूस त्या वाक्यांत आदींच काव्यमय रितीन आयल्या. सहजतायेन. ओढून ताणून न्हय.

असले अण्डरकरण्ट दिग्दर्शक उतरांनी दिता, दृश्यांतल्यान दिता आनी आवाजांतल्यान दिता. तरातरांचे आवाज, आनी ते मांडपाची कला इतले समर्पक रितीन वापरल्या की प्रेक्षक ते आयकतना, दोळ्यांनी पळेतना आनी तकलेन चिंततना आनी काळजांत अणभवतना तातूंत रंगून वता. वा! इतलेंच तोंड 'आं' करून तो म्हणूंक शकता.

पिशी बायल लेगीत प्रेमाचो स्पर्श जायना फुडें त्या आनंदांत कितली तरंगता, उचांबळीत जावन एक्सायट जावन नाचता-उफेता तो तिचो आंगणांतलो नाच ही सुचक अशी साभिनय कविता! तातूंतलो रोस शब्दां विणें 'फिल' जाता. हळद हे सांस्कृतीक संकल्पनेची प्रतिमा दिग्दर्शकान टप्प्याटप्प्यान इतली रंगयल्या आनी फुलाच्यो पाकळ्यो अळंग उसोवच्यो तशी उक्ती केल्या की तें सुचकतायेन मांडपी दिग्दर्शक प्रेक्षकाचे सुज्ञतायेक मुजरो करता अशें जाणवता. दिग्दर्शकाची लकुबाय दिसता ती हांगा.

पिशा मनशां विशीं गांवच्या लोकांची धारणा, भुरग्यांची पिशांकडेन पळोवपाची नदर, रुढीप्रिय आनी परंपरावादी लोकांची दृश्टी हांचें चित्रण बरे तरेन आयलां.

दोंगर हें पात्र जावन सबंद कथानकभर घोळत रावता. अजुनूय तें म्हज्या कांट्यार बसलां. फिल्म सोंपलें आनी कितलेशेच दीस जावन गेले तरी अजुनूय जेन्ना जेन्ना हांव दोंगर पळेतां तेन्ना तेन्ना म्हाका शेटगांवकाराची याद येता. फर्मागुडयेर सावन वतना याद येता. भुरगेपणांत ज्या पिरवळच्या दोंगरांचेर हांव खेळ्ळों-भोंवलो थंय हालींच पावलों, तेन्ना तरांतरांच्या दोंगरी आवाजांचें शेवण्यांच्या गायनाचें, वाऱ्याचे सळसळीचें संगीत आयकतना शेटगांवकाराची याद आयली. पयलेच

खेपे हालींच म्हादय न्हंयेचे सरभोंवतणी हेडलों, अटंग्या भिरांकूळ किण्ण अशा रानां मदीं घसघसपी एका घोग्या सरीं फातरार वचून बसलों तेन्ना शेटगांवकाराल्या चित्रपटाची याद आयली. कलाकृतीची ताकद ती ही.

शेटगांवकाराल्या चित्रपटाची भाशा म्हजी, पात्रां म्हजे भोंवतणचीं, म्हजे मातयेंतलीं, दोंगर म्हजे, रान म्हजें, झाडां कापीत रावपाची वृत्ती आमची, अन्नाच्यो तशेंच बाकीच्यो तरेतरेच्यो भुको आमच्यो, चुकी आमच्यो... म्हजें म्हजें म्हजें. सगलें म्हजें, फकत सुरबुशीत आनी सुवादीक रांदलां आनी पानार वाडलां शेटगांवकारान. फिल्म पळेतना म्हाका दिसलें- हांवें कितें तरी खालें, कितें तरी चाखलें. कलाकृती म्हणचे कितें हें खूब खूब तेंपान चाखलें. भुकेन वळवळटकच चार गोटे ताळ्यांत पडचे तशे.

ही कथा महाबळेश्वर सैल ह्या अणभवसिद्ध लेखकाची. सैलाची तोखणाय दत्ता दामोदर नायक करतालो तेन्ना म्हाका दत्ताची भिरभिरी मारताली. सैलाची तो अती तोखणाय करता अशें दिसतालें. कारण तोखणाय करतना तो अलंकारीक अशीं खुबूच विशेशणां वापरतालो. भावनाविवश बी जाल्ले भाशेन. पूण जेन्ना हो पिक्चर पळोवन भायर आयलों तेन्ना दत्ताक फोन केलो. 'तूं सैलाची तोखणाय करता ती साप्प उणी. आमचें अणभवविश्व उणें आशिल्ल्यान आमी सैलाच्या साहित्याची खोलाय आनी चरचरीत अणभवांची समृद्धताय आनी घनताय समजुपाकूच उणे पडल्यात, मागीर तुस्त कुशिकूच उरली.'

हांवें म्हाकाच उजरायलो. राव रे, हिवूय गजाल तुका लक्ष्मीकांत शेटगांवकारानूच सांगची? लज ही तुका. म्हजे सारक्या साहित्यीकाक एके साहित्यकृतीची आनी साहित्यकाराची बरे तरेन वळख घडोवन दिवपी ह्या कलाकाराक कुर्निसात करीत दिसता तो हाकाच लागून. चित्रपट हें माध्यम प्रभावी पद्धतीन करून वापरल्यार त्या माध्यमाची

व्हडलीशी आवड नाशिल्ले कितलेशेच लोक ताचेकडेन खेंचून ओडूं येतात. हेंवूंय लक्ष्मीकांतान दाखोवन दिलां.

एक दीस वळखीचो मोटरसायकल पायलट मेळ्ळो. 'पलतडचो मनीस' खूब आवडलो म्हण सांगूंक लागलो. एकलो म्हालगडो कोंकणी लेखक हें फिल्म पळोवपाक गेलो. ताच्या दोळ्यांक त्रास आशिल्लो आनी उपचार चलताले. इतलें आसुनूय दोतोराक- घरच्यांक बाडगनासतना तो आनीक दोन खेपे पिक्चर पळोवन आयलो. म्हाकाय आनीक दोनदां हें फिल्म पळेन दिसता. तांतूंतली आनीक सौंदर्यथळां, आनीक अण्डरकरण्ट समजून घेवपा खातीर. मुदलांत आनंद घेवपा खातीर.

कोंकणी भाशेच्या साहित्याचो आवाज थोड्याच दिसां भितर इतल्या देशांनी इतल्या विंगड विंगड संस्कृतायेच्या विंगड विंगड भाशीक हजारांनी लोकां मदीं केन्नाच पावंक नाशिल्लो. तो नाद जेन्ना पयलेच खेपे इतल्या थरार आनी तोय बी सणसणीतपणान येसस्वीपणान घुमलो तेन्ना म्हजे सारक्या कोंकणी मोग्याचे दोळे कित्याक भरून येवचे नात? शणै गोंयबाब कोंकणी ही भाशा म्हणटालो म्हण तेन्ना लोक ताका पिसो म्हणटाले. लक्ष्मीकांतान ही भास गर्नाल फोडचो तितल्या स्फोटक तांकीन खंयचें खंय पावयली. आमी बाबत कुळां न्हय हो शणै गोंयबाबाचो मंत्र जगाक पटोव्न दिलो. हो पिक्चरूच न्हय म्हण राज्य पांवड्यार तो गुड्ड्याक मारपी निवड मंडळाक आपूण पिसो न्हय हें प्रतिभावान शेटगांवकारान दाखोवन दिलें.

शेटगांवकाराल्या फिल्मांतले सगलेच 'पन्च' सगल्यांकूच कळटले अशें ना. म्हज्याय सगलेच लक्षांत गेल्यात अशें म्हणू नजो. पिक्चर पळोवनूय जांकां ते कळनात ते दुर्दैवी. नाद परिणामांचें पिशें आनी 'पॅशन' आशिल्ल्या म्हजे सारकिल्यांक मात टक्क टक्क करून झाडां मारतनाचो आवाज थेटरांत आयकतना आनीकूय आवाज आयकूंक

आयले. वेगळ्या कानांनी. ते आवाज आशिल्ले शेटगांवकाराल्या कपला वयल्यान निसतल्ल्या घामाच्या ओथांब्यांचे. चिकोटेचे. कलेची निर्मळ उपासना, निर्मळ आराधना करतना मिडियोकरांची आनी कर्मकट्ट्यांची पर्वा करिनासतना मुखार कशें वच्चें ही उत्प्रेरक चेतना म्हज्यांतूय जागोवपी हुनसाण त्या थेंब्यांनी म्हाका जाणवली.

कितेंय आवडलें काय तें पळोवंक नाशिल्ल्यांक तें सांगचें म्हूण खूब खूब भितरल्यान हें बरप आयलें. ती अनुभुती इतली अवर्णनीय आशिल्ली की ती उतरांनी अनुवादीत करताना तिचें सौंदर्य लोप वतलें, ती प्रदुशीत जातली म्हणून खूप तेंप सांगलिना. दामून दवरली. पूण ती सामकीच फुगासांव करून त्रास करूंक लागली देखून ती मांडली.

लक्ष्मीकांताक, सैलाक आनी कलाकारांच्या सगल्या पंगडाक अभिवादन. आयुश्यांत पळेल्लो एक अद्वितीय अद्भूत चित्रपट न्हय तर एके 'अल्टिमेट' कलाकृतीचो आनंद म्हज्या सारक्या खूब काळाच्या भुकेल्ल्या तानेल्ल्या रसिकाक दिल्ले खातीर. अश्योच आनिकूय कलाकृती तुज्या हातांतल्यान फुडारांतूय येवं अशे फुकेसवाय आंवडे हांव उक्तावचों ना. सध्या तरी लक्ष्मीकांता, तुवें मारिल्लें एकूच सणसणीत थापट इतलें चुरचुरता की तेंच पचोवंक आनी पेलूंक नाका जालां रे पुता! ■

# पर्यावरण - भितल्लें

झूज. मनशां मनशां मदलें झूज. देशां देशां मदलें झूज.

झुजांत मनीस- संहार जाता. रक्तपात जाता. भरून येवं नजो अशें लुकसाण जाता. दीर्घ काळ ताचे परिणाम भोगचे पडटात. मनशान मनशाक मारप, कारण कितेंय जावं, हाचे सारकें विचित्र आनीक कांयच ना.

देशां देशांनी झुजाचो विभाग आसता. प्रशासनात ताचे खातीर कोट्यांनी अब्जांनी रूपयांची तजवीज केल्ली आसता. आपणाचेर घुरी पडली जाल्यार [illegible]त्रण करपा खातीर आनी गरज पडली जाल्यार मद मारिल्ल्या दुस्मान देशाचेर हल्लो करपाची आंखणी हो विभाग करता. पूण - खंत जाता, जंय झुजाचो विभाग आसा, तेच तरेन शांतीचो विभाग नाका? तो कित्याक आसना काय?

भायलीं झुजां केन्ना ना केन्ना तरी थांबतात. कोण तरी जिखता, कोण तरी हरता आनी तीं थांबतात. केन्ना केन्नाय बाकीचे देश हस्तक्षेप करतात. उलोवणीं करतात. समजिकायेची कबलात करतात आनी अखेरेक झुजबंदी जाता आनी एकदांचें झूज थांबता. पूण- जण एकल्या

भितर जें अखंडपणान झूज चालू आसता तें थांबता?

आमचे भितर जें झूज चललां तें खुबूच भिरांकूळ. त्याच झुजाक लागून जो शिंवशिंवो मारता तातूंतल्यानूच भायलीं झुजां उपरासतात. तेच भितल्ले अशांतीक लागून किंवाटो खतखतपाक लागता. मनीस मनशाचीच हिंसा करपाक मुखार सरता. विवेक शेणोवन बसता.

भितल्लें पर्यावरण जर असंतुळीत आसत तर भितल्लें हें झूज वाडत वता. मनीस बेचैन जाता. ताचे कडेन शांती सोडून सगळें आसता. तातूंतल्यानूच तरेतरेच्यो समस्या सुरु जातात.

कोण एकलो खंय रेंवटांतल्यान प्रवास करीत वतालो. पैशेकार. ताचेकडेन बॅग आशिल्लें. बॅगांत उंची वस्ती, पैशे सगळें आशिल्लें. अकस्मात ताका तान लागली. ताचेकडेन उदक मात नाशिल्लें. वळवळपाक लागलो. त्यो बाकिच्यो भायल्यो गजाली कसल्याच कामाच्यो नाशिल्ल्यो. आयज काल मनशाचेंय अशेंच जाता, खूब खेपे. भौतीक रेंवटांत तो व्याकुळतायेन तळमळत उरता.

आपूण असत्याच्या अज्ञानाच्या रेंवटांतल्यान वता हें ताका खबरूच आसना. वखवख लागिल्ले भशेन नाका आशिल्ल्यो गजाली ताणें एकठांय केल्ल्यो आसतात. ताचो कसलोच उपेग जायना. सत्याच्या उदकाचो तानसोर वाडत वता आनी भितल्लें पर्यावरण इबाडत वता. मनशाची परिस्थिती मागीर सगळें आसून उदकांत तानेल्ल्या नुस्त्या भशेन जाता.

भितल्ल्या पर्यावरणांत जें शेत आसा ते जमनीची मशागत आनी लागवड सत्याच्या नांगरान केलिना जाल्यार पडंग जमनीची जी गत जाता तीच भितल्ले जमनीर जाता. पडंग जमनीर जशें नाका आशिल्लें दाट तण वाडत वता तशें भितल्ल्या शेत जमनींत दुबाव, भ्रम, घुस्पागोंदळ हांचें तण वाडत वता. तातूंत मदाचीं जिवाणीं घर करपाक लागतात.

भितल्ल्या पर्यावरणांत स्पश्टता जाय. ती नासत जाल्यार अशांतीचें झूज पेटून उठता. स्पश्टता ही स्फटिका भशेन आसूंक जाय. स्पश्टतेक

वेंगायना तो भितल्लें पर्यावरण प्रदूशीत करपाक लागता. स्पश्टते विशीं प्रेम जाय. स्पश्टते कडेन परत परत लक्ष जाय. आपल्या बोल्सांतली चावी शेणत म्हूण जो परत परत थंय हात लावन दामून भैरो जोळोप जाल्ले वरी थंय तपासता, तशेच तरेन भितल्ली ही स्पश्टता जण एकल्यान परत परत तपासून पळोवची पडटा. कारण मुदलांतूच व्हांवपाचें आकर्शण आशिल्ल्यान ही बरी संवय लावन घेवची पडटा. व्हांवपा खातीर यत्न करचे पडनात. स्पश्टता आपणावपा खातीर खर परिश्रम करचे पडटात.

भितल्ल्या पर्यावरणांत मनीसपण नांवाचें एक थंड थंड कुळागर आसता. ताची देखभाल आनी सांबाळ स्पश्टतेच्या उदकान आन्नी साऱ्यान करची पडटा. विनम्रता, करूणा, उदारपण, प्रेम अशा तरेचे दिव्य रूख थंय उपजतात. तांचीय अपुरबायेन कुयदाद घेवची पडटा. तातूंत खंड पडूंक दिवंक फावना. त्या कुळागरांत शांतीकायेचे जे झरे आसात, तांकां भितल्ल्या पाटाच्या मागांतल्यान खेळते दवरचे पडटात. ते खातीर कश्ट घेवचे पडटात. ही प्रक्रिया चालूच दवरची पडटा.

भायलें पर्यावरण सगळें जाग्यार पडलां. भितल्लें निटायेर ना. भायर बोवाळ ना. पूण भितर अशांती खदखदता. अशें जावंक उपकारना.

भायर भायर, अती भायर धांवपी चंचलतायेक आळो घालून भितल्ल्या पर्यावरणा कडेन एकसारकें लक्ष दिवंक सांगचें पडटा. भायलो वॉक जायूच. हो वॉक शरीर तंदुरूस्त दवरता. पूण भितल्ल्या पर्यावरणांतलो वॉक मनाक थाकाय दिता. भितल्ल्यान शांती फुलयता. भायल्यान हा हा हा हा करून पोल्याचे स्नायू फुलोवन हांसो ना फुटूं. पूण भितल्ल्या पर्यावरणातलो लांब लांब वॉक भितल्लो हांसो फुलयता. वाडयता.

ह्या भितल्ल्या हांश्याच्या फुलांत जो थिरावला, ताका भायल्यानच्यान हांसोवन रंजन करून घेवपाची गरज लागना. खऱ्या रंजनात जो विरघळून गेला, ताचे कडेन चीर शांती आसता. कल्पना करूं नजो अशी स्वस्थताय आसता. पाव मिलीमीटर हालचिना अशी

मनाची थीरताय आसता. जें कितें मेळोवपाचें आसता तें ताणें साध्य केल्लें आसता. ताची जीण सफळ जाता. मंगल जाता. यशस्वी जाता!



# हांव हो असो ...

तुका तुजे भाशेविशीं खुबूच म्हणजे खुबूच प्रेम आसा. उत्कट अशें. तें सगळें प्रेम तुज्या बरपांत, तुज्या रेडियो वयल्या बातमी बरोवपांत आनी वाचपांत दिसता.

म्हजे कांय लागींचे इश्ट म्हजे विशीं उलयतना म्हणटात. लागींच्या निरीक्षणा वयल्यान ते म्हणटात. मनापसून सांगतात. अणभवा वयल्यान ते उलयतात. ते म्हजे परस हुशार आनी बुध्दीमान हेंवूय हांव जाणा. ते आनीकूय खूब कितें कितें निश्कर्श अनुमान काडून म्हजे विशीं म्हाकाच केन्ना केन्नाय सांगत आसतात. तांचें निरीक्षण चूक न्हय. हांवूय तांच्या शेऱ्यांविशीं चिंतता. पूण ...

हें पूण म्हत्वाचें. म्हाका म्हजे भाशे विशीं आनी संस्कृताये विशीं जितलें आकांताचें प्रेम आसा, ताचेपरसूय हजारांनी पटींनी प्रेम म्हाका आसा जिणे विशीं. जीवन. हो चमत्कार म्हजे खातीर घडला. एक दीस हांव नाशिल्लों. आयज आसा. एक एक स्वांसाचें ल्हार घस्स घस्स करून वयर सकयल कुडींत उसळटा म्हणून हें अस्तित्व. एक दीस स्वांस येवचोना आनी म्हजें हें शरीर आसचेंना. म्हणटकच हें जीवन

म्हणजें कितें? ताचो हेत कितें? हें विश्व म्हणजे कितें? तातूंत म्हजी भुमिका कितें? हे प्रस्न म्हाका खुबूच कंवळ्या पिरायेर म्हणजे कुमार अवस्थेंतूच सतावपाक लागिल्ले. तानसोर लागून ताळो सुकचो आनी तो जीव वळवळचो तितले खरायची ही बेचैनी आशिल्ली. ती जिज्ञासा आनी अस्वस्थताय आयजूय आसा. म्हजे जिणेची व्हडली प्रेरणा ती!

खलील जिब्रानाचें एक वाक्य आसा. सादारणशें तें अशें. नॅवर से आय हॅव फावंड दी ट्रूथ. से, आय हॅव फावंड अ ट्रूथ. सत्य मेळ्ळें अशें केन्नाच म्हणूं नाका. सत्याचें एक तांस निकतेंच होलमलां इतलेंच तूं म्हणूंक शकता. सत्याचो सोद बुध्दीन घेवपाचो आसना. तो काळजान घेवपाचो आसता हें शिकपाकूच वेळ वता. खूब खेपे शिकप कशें हें शिकपांतूच जिवीत सरता आं. तसो जीवन हो विशय हा हा हू हू करून हांशे काडून फकाणांचेर व्हरपाचो न्हय. मन आनी बुद्द हांची शीममेर जंय सोंपता, थंय हें काळजाचें साम्राज्य सुरू जाता. सत्याचो सोद घेत रावपी काळजाचें आयदन निवळ राखप होवूय विशय तसो कठीणूच. पूण जाका सत्याची उमळशीक आसा ताका ही भितल्ली मसाज करून तें सदांच घांसून पुसून नितळ राखचेंच पडटा. बुध्दी परस म्हाका ह्या काळजाचे अनंततायेन चड तटास करून सोडला. जिणेच्या वेगवेगळ्या खिणांक शाणो करून सोडपी अनुभूती बहाल करपी ह्या काळजा मुखार कितलो नतमस्तक जावं, कसो ताच्या उपकाराच्या रिणांतल्यान मुक्त जावं ह्या हुस्क्यांनी म्हजो जीव आकूळपिकूळ जाता. जिणेच्या ह्या घडिचारा विशीं, ह्या चमत्कारा विशीं हांव सदांच अजापीत आसतां. अस्तित्वाचो हो आनंद हांव सदांच घेत आसतां. हुनहुनीत सूर्य किरणां नित्य नूतन नवी उर्जा घेवन म्हाका सांसपीत आसता. शेवण्यांचो चिंवचिंवाट आनी तांचें गोड संगीत म्हजो जीव पिसावन सोडटा. झाडां पेडां, वनस्पत आनी मोनजात, मनशां, फुलां, फळां, ऋतूचक्र, मळबाची निळाय आनी अनंतताय हांचे कडेन हांव दर दिसा नवे उमेदीन पळेत




आसतां. तेळीत आसतां. शिकत आसतां. हे जिणेंतल्५. सत्याचें एकेक तांस होलमता तेन्ना ताचो आनीक कितलो थाव आनी वेध घेवपाचो बाकी उरला ती अनंतताय स्पश्ट दिसता.

जिणेचें व्याकरण आनी शुध्दलेखन समजून घेवप सोपें न्हय. जो हे जिणेंत हे जिणेचो विद्यार्थी जाता, तो ही जीवनसाधनेची कला ल्हवल्हव शिकूंक शकता. हांवेंय म्हजे खातीर हो एक मार्ग आपणायला आनी म्हज्या अंतस्कर्णान म्हजे खातीर घालून दिल्ल्या कोड ऑफ कण्डक्टाच्या झोतांत हांव भोंवतणच्या काळखांतूय सहज सोपेपणी चलत आसा. जीवन मार्गार चलतना केन्ना केन्नाय पडटां. धोंपरां फुट्टात. चूक जालीच कित्याक अशेंय दिसता. खूब खेपे हांव म्हाकाच सोलीत रावतां. येतीश्ट उजरायतां. तूं असो वागलोच कित्याक? ताणें कसोय वागूं, तुजो तोल सुटलोच कसो? म्हणटकच ताची आनी तुजी पातळी हातूंत फरक तो कसलो? मागीर म्हाकाच कळटा, चुकांनीच आमी शिकत वतात. घडत वतात.

जीण आमकां हेंच शिकयता. जीण आमकां शिकयत आसता. खूब खूब खूब. फकत शिकपाची वृत्ती जाय. जीण आमकां सोशीकपण शिकयता. आतांच ह्या खिणाक रोखडेंच हें जावचें, अशें तरनाटे पिरायेर दिसता. आयज पन्नास वर्सांच्या ह्या दवरण्याचेर, ह्या पेण्याचेर कळटा की कृती रूप आमच्या हातांत आसता. प्रामाणीकपणान. तुजे इत्से प्रमाण कितेंच घडना. तुजो पार्ट तुका करचोच पडटा. ताका पर्याय ना. पार्ट करचो पडटा आनी प्रेक्षकूय जावचो पडटा. वांगडाच दोन पातळ्यांचेर ही जीण धांवत आसता. पार्ट सारको जावंक जाय. बेअरींग सुटूंक फावना. सगळ्यो भुमिका करच्यो पडटात. कुटुंबाचें कुटुंबाक, इश्टांचें इश्टांक, समाजाचें समाजाक, आनी जिणेच्या सत्याच्या मार्गांतलें निर्मितल्याचें देणें ही सगळीं देणीं जंय जंय पावोवपाचीं आसात तीं पावोवपाचीं आसतात. तेन्नाच तो मनीस मुक्तपणान जिणेच्या अंतरिक्षांत

उडूंक शकता.

जापसालदारकी ही. जोखमीचीं कामां हीं. तीं आव्हानां पेलचीं पडटात. खरस मारता. धांवपळ जाता. दगदग जातात. केन्ना केन्ना जीव सामको निरशेता. पूण परत जिणेंत आयिल्लें तें म्हेळें पाकीट उसयतकच तातूंत एक वेगळो सुगंधी शाणपणाचें तांस आशिल्लो धडो मेळटा आनी चिंतिल्लें तशें नासता, जीण आपणा परस खूब व्हड हें आनीक एक सत्य कळटा.

म्हज्यांत एक भुरगेपण आसा. तें हांव जपतां. म्हज्यांत एकसारकें कुतूहल आसा. तेंवूय म्हाका सक्रिय दवरता. साहित्याची साधना आसूं वा कलेचो रसिकतायेन आनंद आनी आस्वाद घेवपाचो आसा, हांव तातूंत रमून वतां. तन्मय जावन  ताचो आनंद घेतां. एकेके गजालीचे कितले खोलाये मेरेन पेंवन वचूं तेंच म्हाका कळना. त्याय पिशेपणांत एक शाणेपण आसता.

केन्ना केन्नाय हांव फणफणटां. उसळटां. फडफडटां. मना सारक्यो गजाली जाल्योना वा टाळूंक येताल्यो त्यो गजाली हेरांच्या घाळपणाक लागून वाट लागपाच्या दिशेन वतात तेन्ना म्हजो स्फोट जाता. शांत जावपाक वेळ वता. खूब. मागीर हांव म्हाकाच सांगतां

- तूं मरे, शांत आसतकच बरो दिसता. गोड दिसता. हिन्या भशेन चकचकता. असो रागीट जातकच तूं कोळसो कसो दिसता. तशें करूं नाका रे शाण्या...

हांव हो असो. हांव बरो लेखक जावचो कसो म्हाका दिसता. हांव बरो वाचक जावचो कसो म्हाका दिसता. हांव एक बरो मनीस जावचो असो म्हाका दिसता. हांव बरो आस्वादक जावचो अशें म्हाका दिसता. हांव जिणेचेर, जिणेंतल्या मंगल गजालींचेर मरसर प्रेम करपी प्रेमवीर जावचो अशें म्हाका दिसता.  म्हजें चिंतन ह्या सगळ्या गजालींनी व्यापिल्लें आसता. म्हजो ध्यास - आस -वास हांव ह्या बरो लेखक

आनी बरो मनीस जावपाच्या गजालींचेर केंद्रीत करीत रावतां.

जिणेचे वाटेर कल्पना करूं नजो अशीं वादळां येतात. त्या मोडाक तोंड धिरान तोंड दिवपा खेरीज तूं कांयच करूंक शकना. तें मोड कित्याक आयलें हो विचार मोड शांत जातकच केन्ना केन्नाय येता. पूण मागीर एक वाक्याची याद जाता - तुफान आया और गया. जिंदगी का हौसला और बढा.

खऱ्यांनीच लाग कित्याक मारूं? नखरे कित्याक करूं? प्रामाणीकपण दामप हें सगळ्यांत व्हडलें दांभीकपण. म्हणून म्हणटां. हांव हो असों.

म्हाका नाल्लाची उपमा आवडटा. नाल्ल दर्यांत पेंवत पेंवत धोलत धोलत मुखार वचत आसता. आपले वयलें सोंडयेचें गियर घेवन तो आपले संथ गतीन मोखी वटेन वचत आसता. घास्स करून व्हडलें ल्हार येता. आनी कितें जाता? नाल्लाक ना कळ्ू, पूण तें राक्षसी ल्हार ह्या नाल्लाक ताचे मोखी वटेन म्हणजे तड गांठपा दिशेन आन्नीक नेटान शेंवटून मारता. हांव ह्या नाल्ला भशेन जावचो अशें म्हाका दिसता. नाल्लाची आनीक एक गजाल म्हाका खूब भावता. नाल्ला भोंवतणी कितलीशीच खारसाण आसता. पूण तें खारें वारें नाल्ला भितर वचना सोण्ण कट्टी हाका लागून. तो टणक आसता. ताचें भितल्लें उदक तशेंच तितलेंच गोड आसता. ताची कातली तितलीच गोड आसता. भोंवतणाक लागूं चुट्टी. हांव भितल्ल्यान असो इतलो गोड म्होंवाळ सुंदर केन्ना जातलो ही व्याकूळताय म्हाका सतायत रावता. फूल जरी कोणेंय तळ्व्यार घेवन चिडिल्लें तरी तें आनीकूय सुवासूच दिता. तसो परमळ म्हज्यांत कित्याक येना काय, तें साधपाक आनीक कसले कश्ट घेवचे पडटले काय, हो विचार म्हजी न्हीद खळयत आसता.

इश्टांनी म्हजी जीण खुबूच गोड केल्या. तांचें शाणेपण आनी तांणी दिल्ली बुध्द हो जिणेचे वाटे वयलो घणघणीत उजवाड हें हांव

जाणा. कित्याक कोण जाणा, अमूक इश्टा कडेन ही कला आसा, म्हजेकडेन ती ना हाची म्हाका खंत जाता. जिणेंत यशस्वी जातलो जाल्यार अंत पार नाशिल्लें सोशीकपण जाय हें सत्य वचन हांव जाणा, पूण तें जियेवंक वतना हांव कमी पडटां. म्हज्या इश्टां कडेन खूब खूब सहनशक्त आसा, म्हज्यांत ती येवंक जाय हे म्हजे तळमळे. कोणा कडेन गोडसाण आसा, कोणा कडेन नमळाय आसा. म्हज्यांत हे गूण केन्ना येतले काय हो प्रस्न म्हजो जीव खायत रावता. आतां हांवें थारायलां, हांव शाणो जावपाचो यत्न करतलों. चुकूं. दर दिसा पातकां करूं. पूण सोडचोना. हो मार्ग सोडचोना. कसोच. दुसऱ्याक कोणाकूच जज करपाची तांक खंय मनशाकडेन आसना. केन्ना केन्नाय हांव हेरांक आन्नी खुद्द म्हाकाय अती जज करतां आनी हें अयोग्य हें म्हाकाय कळटा. हांवूंय म्हाका जज करतां. मेजणी करपाची तांक आसचना. तरी आपलें मापटें आसता तितल्याच आटापान तूं दुसऱ्याक जोखता. आनी ती मोलावणी न्याय्य आसयना! आसना? कोणें म्हाका म्हणलो शाणो. कोणें म्हाका म्हणलो पिसो. हांव मात खऱ्यांनीच असो.... असो!

■





मुकेश थळी

- प्रकाशीत पुस्तकां:

**वळेसर, हंसध्वनी, अक्षरब्रह्म** (ललीत निबंद)

- कोंकणी - इंग्लीश शब्दकोशाचे सहरचनाकार
- साबार कोंकणी कथा इंग्लीशींत अणकारल्यात.
- एकांकी सर्तींनी लेखनाचीं इनामां जोडल्यांत.
- पटकथा, संवाद बरयल्ल्या **हांव तसलें न्हय** ह्या टेलिफिल्माक दूरदर्शनाचो राश्ट्रीय पुरस्कार
- कथा, कविता, गितां, नाटकां बरयल्यांत.
- कोंकणी, इंग्लीश नेमाळ्यां खातीर स्तंभलेखन
- सुत्रसंचालक, क्वीझ मास्टर, मुलाखतकार म्हूण साबार माध्यमां सातत्यान योगदान
- हंसध्वनी पुस्तकाक कला अकादमीचो आनी गोवा कोंकणी अकादेमीचो राज्य पुरस्कार.
- गोवा विद्यापिठाच्या कोंकणी विश्वकोश विभागांत सहाय्यक संशोधक (1988-93)
- सद्या आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर वृत्तनिवेदक (1993 सावन)

